ಜುಲಾಯ್- 14: ಸಾಂತ್ ಲುಪಿಸ್ ಸಾಂಜೆ ಕೊಲೆಜಿಚ್ಯಾ 2007-2008ವ್ಯಾ ವರ್ಸಾಕ್ ಕೊಂಕಣಿ ಸಂಗಾಚೆಂ ಉಗ್ತಾವಣ್ ಕೊಲೆಜಿಚ್ಯಾ ಸಭಾ ಸಾಲಾಂತ್: ಸಾಂಜೆಚ್ಯಾ ಕೊಲೆಜಿಚೊ ಪ್ರಾಶುಂಪಾಲ್ ಫಾ| ವಿನ್ಸೆಂಟ್ ಪಿಂಟೊ ಜೆ.ಸ. ಆನಿ ಕೊಂಕಣಿ ಸಂಸ್ಥ್ಯಾಂತ್ಲಿ ವಾವ್ರಾಡಿ ಶ್ರೀಮತಿ ಗ್ಲೇಡಿಸ್ ರೇಗೊಚ್ಯಾ ಹಾಜ್ರೆಂತ್ ಚಲ್ಲೆಂ.

ಜುಲಾಯ್- 29: ಪುಡಂತ್ಯಾರ್ ಜೂನಿಯರ್ ಕೊಲೆಜಿಚ್ಯಾ ಸಭಾಸಾಲಾಂತ್ ಲೂಡ್ಸ್ ಪ್ರಕಾಶನಾನ್ ಪ್ರಗಟ್‌ಲ್ಲೊ, ವಲ್ಲಿ ವಗ್ಗಚೊ ಕವಿತಾ ಪುಂಜೊ "ದೊಂಗ್ರಾ ವಯ್ಲಿ ವಾಟ್" ಮೊಕ್ಳಿಕ್ ಜಾಲೊ.

**ಆಗೋಸ್ತ್ 2007**

ಆಗೋಸ್ತ್- 5: ಕೊಂಕಣಿ ನಾಟಕ್ ಸಭಾ (ರಿ) ಮಂಗ್ಳುರ್ ಹಾಣಿ ಡೊನ್ ಬೊಸ್ಕೊ ಸಾಲಾಂತ್ ಚಲಂವ್ಚೆ "ಅಂತರ್ ಫಿರ್ಗಜ್ ಕೊಂಕಣಿ ಸ್ಪರ್ಧೊ -2007" ಚವೆ ಚಾಳಿಸಾವೊ ಗಾಯಾನ್ ಸ್ಪರ್ಧೊ- ವ್ಹಡಾಂಕ್ ಆನಿ ಭುರ್ಗ್ಯಾಂಕ್ ಚಲವ್ನ್ ವ್ಹೆಲೊ.

ಆಗೋಸ್ತ್- 5: ಗೊಂಯ್ ಪಣ್ಜೆಚ್ಯಾ "ಇನ್‌ಸ್ಟಿಟ್ಯೂಟ್ ಮಿನೇಜಸ್ ಬ್ರಗಾಂಜಾ" ಹಾಂಚ್ಯಾ ಸಹಯೋಗಾನ್, ಡೆಲ್ಲಿ ಕೇಂದ್ರ್ ಸಾಹಿತ್ಯ್ ಅಕಾದೆಮಿನ್ ಕೊಂಕಣಿ ಕೊಗುಳ್ ಪಿಲ್ಬಿ ರೆಜಿಂಬಸ್ ಹಾಚಿ "ಕವಿ ಸಂದಿ" ಪಣ್ಜೆಚ್ಯಾ ಆರ್ಟ್ಸ್ ಗ್ಯಾಲರಿಂತ್ ಮಾಂಡುನ್ ಹಾಡ್ಲಿ.

ಆಗೋಸ್ತ್- 7: ಕೊಂಕಣಿ ಕಲಾ ಮಾಂಚಿಯೆಕ್ ವೃತ್ತಿ ಪರಾಯ್ ದಿಂವ್ಚೆ ದಿಶೆನ್, ಮಾಂಡ್ ಸೊಭಾಣಾಚಿ ನವಿ ಯೆವ್ಜಣ್ "ಕಲಾಕುಲ್" ರೆಪೊರ್ಟರಿಚೆಂ ಉಗ್ತಾವಣ್ ಕಲಾಂಗಣಾಂತ್ ಚಲ್ಲೆಂ.

ಆಗೋಸ್ತ್- 12: ಮಯ್‌ಸೂರ್ ಕಲಾ ಮಂದಿರಾಂತ್ ಕೊಂಕಣಿ ಸಾಹಿತ್ಯ್ ಅಕಾದೆಮಿನ್ ಕರ್ನಾಟಕ್ ತುಳು ಸಾಹಿತ್ಯ್ ಅಕಾದಮಿಚ್ಯಾ ಸಹಯೋಗಾನ್ "ಸಾಂಸ್ಕೃತಿಕ್ ಸಂಗಮ್" ಕಾರ್ಯೆಂ ಮಾಂಡುನ್ ಹಾಡ್ಲೆಂ.

ಆಗೋಸ್ತ್- 20: ಸಾಂತ್ ಲುಪಿಸ್ ಕೊಲೆಜಿಂತ್ಲ್ಯಾ ಕೊಂಕಣಿ ಸಂಘಾಚ್ಯಾ ವಿದ್ಯಾರ್ಥ್ಯಾಂನಿ ಕೊಲೆಜಿಚ್ಯಾ ಸಭಾ ಸಾಲಾಂತ್ ಕೊಂಕಣಿ ಭಾಶೆಕ್ ಮಾನ್ಯತಾ ಲಾಭೊನ್ ಪಂದ್ರಾವರ್ಸಾಂ ಜಾಲ್ಲೊ ಸಂಭ್ರಮ್ ಚಲಯ್ಲೊ.

ಆಗೋಸ್ತ್- 20: ಸಾಂತ್ ಲುಪಿಸ್ ಕೊಲೆಜಿಚ್ಯಾ ಲೊಯೊಲ್ಲಾ ಸಭಾ ಸಾಲಾಂತ್. ಕೊಂಕಣಿ ಭಾಶೆ ಮಂಡಳ್ ಕರ್ನಾಟಕ್ (ರಿ) ತರ್ಫೆನ್ ವಿಶ್ವ ಕೊಂಕಣಿ ದಿವಸ್ ಬಿ. ನಾಗರಾಜ್ ಶೆಟ್ಟಿಚ್ಯಾ ಅಧ್ಯಕ್ಷ್‌ಪಣಾರ್ ಆಚರಣ್ ಕೆಲೊ.

ಆಗೋಸ್ತ್- 25: ಮಹಾರಾಷ್ಟ್ರಾಚ್ಯಾ ಕೊಂಕಣಿ ಭಾಶೆ ಮಂಡಳೆನ್, ಮುಂಬಯ್ ವಿಶ್ವೇಶರಯ್ಯಾ ಸಭಾ ಸಾಲಾಂತ್ 15ವೊ ಕೊಂಕಣಿ ಮಾನ್ಯತಾ ದಿವಸ್ ಆಚರಣ್ ಕೆಲೊ.

ಆಗೋಸ್ತ್- 26: ಬೆಂಗ್ಳುರ್ ಕರ್ನಾಟಕ್ ಕಾತೊಲಿಕ್ ಎಸೋಸಿಯೇಶನಾನ್, ಕರ್ನಾಟಕ್ ಕೊಂಕಣಿ ಸಾಹಿತ್ಯ್ ಅಕಾದಮಿಚ್ಯಾ ಸಹಕಾರಾನ್ ಗುರುನಾನಕ್ ಸಭಾ ಸಾಲಾಂತ್ ಸಂಗೀತೊತ್ಸವ್ ಚಲವ್ನ್ ಹಾಡ್‌ಲ್ಲ್ಯಾ ಸಂದರ್ಭಾರ್ ಅಕಾದೆಮಿನ್ ಪ್ರಗಟ್‌ಲ್ಲೊ "ಏಸಾವ್ಯಾ ಶೆಕ್ಡ್ಯಾಚೆ ಕೊಂಕಣಿ ಮಾನ್ ಮನಿಸ್," ಪುಸ್ತಕ್ ಕನ್ನಡ ಆನಿ ಸಂಸ್ಕೃತಿ ಇಲಾಖ್ಯಾಚೊ ಮಂತ್ರಿ ಹೆಚ್. ಎಸ್. ಮಹಾದೇವ್ ಪ್ರಸಾದ್ ಹಾಣೆ ಉಗ್ತಾಯ್ಲೊ.

**ಸಪ್ಟೆಂಬರ್ 2007**

ಸಪ್ಟೆಂಬರ್-16: ಅಲಂಗಾರ್ ಇಗರ್ಜೆ ಸಭಾ ಸಾಲಾಂತ್ ಮಿತ್ರ್ ದಾಯ್ಜ್ ಸಾಹಿತಿಕ್ ಶಿಬಿರ್ ಮಾಂಡುನ್ ಹಾಡಲ್ಲೆಂ. ಹ್ಯಾ ಸಂದರ್ಭಾರ್ "ಕವಿ ಗೋಶ್ಟಿ" ಚಲ್ಲಿ. ಆಶಾವಾದಿ ಪ್ರಕಾಶನಾಚ್ಯಾ ಆಟ್ ಕೊಂಕಣಿ ಪುಸ್ತಕಾಂಚೆಂ ಮೊಕ್ಳಿಕ್ ಕಾರ್ಯೆಂಯಿ ಚಲ್ಲೆಂ.

ಸಪ್ಟೆಂಬರ್-16: ಅಲಂಗಾರ್ ಇಗರ್ಜೆಂತ್ ಫಿರ್ಗಜ್‌ಗಾರಾಂ ಖಾತಿರ್ "ಕೊಂಕಣಿ ವಾಚ್ಪಾ ಘರ್"-ಲಾಯ್ಬ್ರೆರಿ ಫಿರ್ಗಜ್ ವಿಗಾರ್ ಫಾ| ವಿನ್ಸೆಂಟ್ ಡಿ'ಸೋಜಾಚ್ಯಾ ಹುಮೆದಿನ್ ಐಸಿವೈಎಮ್ ಘುಟಕಾನ್ ಸುರು ಕೆಲಿ. ಹಾಚಿ ಉಗ್ತಾವಣ್ ಶ್ರೀ ವಲ್ಲಿ ವಗ್ಗ ಮೈಸೂರ್ ಹಾಣೆ ಕೆಲಿ.

ಸಪ್ಟೆಂಬರ್-23: ಮಂಗ್ಳುರ್‌ಚ್ಯಾ ಡೊನ್ ಬೊಸ್ಕೊ ಮಿನಿ ಸಾಲಾಂತ್, ಕರ್ನಾಟಕಾ ಕೊಂಕಣಿ ಲೇಖಿಕಾಂಚ್ಯಾ ಎಕ್ತಾರಾಚೆ ಜಮಾತೆಚೆರ್ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಕುಳ್ವಾರ್ ಕುವೆಟ್ ಹಾಣೆ ಪ್ರಗಟ್ ಕೆಲ್ಲೆ ದೋನ್ ಬೂಕ್: "ಕುಳ್ವಾರ್ಚೆಂ ದಿರ್ವೆಂ" ಆನಿ ಶಾನ್ ಬೊಂದೆಲ್ ಹಾಚೊ "ಜೋಪ್", ಮಟ್ವ್ಯಾ ಕತಾ ಪುಂಜೊ ಮೊಕ್ಳಿಕ್ ಕೆಲೆ.

# ಪಾನಾಂತುಲೊ ಮುಲ್ಲೊ!

ದಾಮೋದರ್ ಬಾಳಿಗಾ

ಪುತ್ತೂರಾಂತ್ 1908 ಇಸ್ವೆಂತ್ ಜಲ್ಮಾಲ್ಲೊ ದಾಮೋದರ್ ಬಾಳಿಗಾ. ಶಾರದಾ ರೀಡಿಂಗ್ ರೂಮಾಂತ್ ವಾವ್ರ್ ಕರ್ನ್ ಆಪ್ಲ್ಯಾ ಶಿಕ್ಪಾಚೊ ಖರ್ಚ್ ಸಾಂಬಾಳ್ತಾಲೊ. ಮಂಗ್ಳುರ್‌ಚೆ ಸರ್ಕಾರಿ ಕೊಲೆಜಿಂತ್ ಶಿಕೊನ್, ಸಾಂ. ಲುವಿಸ್ ಕೊಲೆಜಿ ಥಾವ್ನ್ ಬಿ.ಎ. ಸನದ್ ತಾಣೆ ಜೊಡ್ಲಿ. ರಾಷ್ಟ್ರಕವಿ ಗೋವಿಂದ್ ಪೈ-ಚಿ "ಗೊಲ್ಗೊಥಾ" ಕವಿತಾ ಇಂಗ್ಲಿಶಾಂತ್ ಭಾಶಾಂತರ್ ಕೆಲಿ. ಆಪ್ಲ್ಯಾ ಸೊಳಾ ವರ್ಸಾಂಚ್ಯಾ ಪ್ರಾಯೆರ್‌ಚ್ ಸಾಹಿತ್ಯ ಶೆತಾಂತ್ ವಾವ್ರುಂಕ್ ಧರ್‌ಲ್ಲ್ಯಾ ಬಾಳಿಗಾನ್ ಕನ್ನಡ ಆನಿ ಇಂಗ್ಲಿಶ್ ಭಾಸಾಂನಿ ಬಾಳ್ ಸಾಹಿತಾಂತ್ ಜಾಯ್ತಿಂ ಲೇಕನಾಂ, ಪುಸ್ತಕಾಂ ಬರಯ್ಲ್ಯಾಂತ್. ಕೊಂಕಣಿ ಕವಿತಾ ಪುಸ್ತಕ್ "ಶಾಂತಿ ಸಾಧನ್" ರಾಕ್ಣೊ ಪತ್ರಾರ್ ಪ್ರಗಟ್ ಜಾಲ್ಲ್ಯಾ ತಾಚ್ಯಾ ಕವಿತಾ ಸಂಗ್ರಹಾಂತ್ಲಿ ಹಿ ಕವಿತಾ ವಿಂಚ್ಲ್ಯಾ. (ಬರ್‍ಪಾ ರೀತ್ ಲೇಕಕಾಚಿಚ್ ಸಾಂಬಾಳ್ಯಾ -ಸಂ)

ಪಾನಾಂತುಲೊ ಮುಲ್ಲೊ
ಜಾಯಚ್ ತರ್ನ್ಯಾ ತೊರಾಂಕ್
ತರ್ನ್ಯಾಂಕ್ ಕೆದ್ನಾಯ್
ಅಡ್ಕೊಳ್ ನಾ ಆಸೂನ್
ವಾಡೊನ್, ಪಿಕೊಂಕ್
ಜಾಯಿ ಹಿ ಆಡ್ಕಾಯ್
ತರ್ನ್ಯಾ ತೊರಾಕ್
ಕಸ್ಕಾಯಿ ತಾಕಾ
ಮೊಲ್ ಕಿತೆಂ ಆಸಾತ್?
ಕಸ್ಕಾಯಿ ತೊರೊ
ಪಿಕ್ಲೊ ಜಾಲ್ಯಾರ್
ಸ್ವಾದಾಚೆಂ ಫಳ್!
ಪಿಕ್‌ಲ್ಲ್ಯಾ ಫಳಾರ್
ಸಕ್ಡಾಂಚೆಯಿ ದೊಳೊ!
ತೊರೊ ವಾಡೊನ್
ಬರೊ ಪಿಕೊಂಕ್
ಸಾಂಬಳ್ತಾ ತೊ ಮುಲ್ಲೊ!
ವಾಡ್ಲಲ್ ತೊರೊ
ಪಿಕೊನ್ ಜಾತಾ ಪಕ್ವ್
ಪಿಕ್‌ಲ್ಲೆಂ ಫಳ್
ರುಕಾರ್ ವ್ಹಯಿರ್
ಲಾಂಬೊನ್ ಆಸ್ಸುನ್
ಕೊಣಾಂಕ್ ಕಿತೆಂ ಉಪಕಾರ್?
ನಿಪ್ಪೊನ್ ರಾವ್ಲ್ಯಾರ್
ಕಿತೆಂ ಕಿ ಸಾರ್ಥಕ್?
ಪಾನಾಂತುಲೊ ಮುಲ್ಲೊ
ಫಳಾಕ್ ಅಗ್ದಿ ಆಕ್ಷೇಪ್!
ತೆಂಕ್ಡೆನ್ ಕೊಂಕುನ್
ಘಾತ್ರಾಂನಿ ಮಾರುನ್
ಧರಣಿಕ್ ಘೇತಾತ್
ಪಾಡೊನ್ ಫಳ್!
ಖಳ್ಪಳೀ ಆಸ್ಸಿಲೊ
ಪೊನ್ರೊ, ಪಿಕೊನ್
ಕುಶ್ಚೆ ಆದಿಂಚ್!
ದೆವೊನ್ ಸಖ್ಯೆಲ್
ದಿವ್ಕಾ ಸರ್ವಾಂಕ್
ಭೊರಿ ಉಪ್ಕಾರ್
"ಪುನೀತ್ ಜಾಲ್ಲೊ
ಮನಿಸ್ ಸಾರ್ಥಕ್!
ಮುಖಾರ್ ಎವ್ಕಾಚ್
ಸಾರ್ಕೊ ಹುಶ್ಯಾರ್!
ಜಾಯ್ಜಾಯ್ ಸಂಸ್ಕಾರ್
ತೊ ಸೇವಕ್ ವಿನೀತ್!
ಮ್ಹಾಕಾ ಕೆದ್ನಾಯ್
ಅಜೂನ್ ಆಯ್ಕಾತಾ
ಹೆಂಚಿ ದೆವಾಚೆಂ
ಪವಿತ್ರ್ ಫರ್ಮಾಣಂವ್!
ಪುನೀತ್ ಜಾತಾಂ ಹಾಂವ್!"

# मांडावळ

पान

1. नेमकपण 78

2. "अमर कोंकणी" अंको 48 79

3. सां लुवीस कोलेजीक महाविद्यालयाचो पांवडो 81

4. कर्नाटकाच्या शाळेंनी कोंकणी ऐचीक भाग - एका निरंतर सादनाचें जयत 82

5. थोमास स्टीवन्स कोंक्णी केंद्र; पोर्वोरीं गोंय -

रोमी लिपींत कोंक्णी अद्ययन पाठ क्रमाचें नवें पुस्तक 83

6. "गिन्नेस" दाकल्याक तयाराय - कोंकणी निरंतरी - मांड सोवाण 84

7. संगीत आनी आमचें जिवीत 85

8. "मंगळुरी कातोलीक देवस्तुतेचें संगीत" आनी "कोंकणी भक्तीक गितां" 96

9. संगीताचो प्रवाव आनी ननालाचीं गितां 130

10. हिंदी, पाश्चात्य आनी ग्रेगोरियन संगीत 134

11. कोंकणी घडितां 137

12. तुमकां एक कविता- पानांतुलो मुल्लो! 140

# नेमकपण

ह्याच सप्तेंबर मयन्याथावन सां लुवीस कोलेजिच्या कोंकणी संसथ्याचो कार्यकारी निर्देशक आनी "अमर कोंकणी" शण्मासिकाचो संपादक जावन कोंकणी साहित्ती श्री एडवीन जे.एफ. डिसोजाक नेमला म्हण कळंवक हांव संतोस पावतां।

डॉ। बाप नेलसन जे.स. सां लुवीस कोलेजिचो प्रांशुपाल जावन आसल्ल्या तवळ कोंकणींत पद्युत्तर पदविकाचें अध्ययन सुरु जाल्लें आनी तवळ थावन श्री डिसोजा, प्रो। जोन डि'सिल्वा, डॉ। प्रो। वेनंट पिंटो आनी बाप प्रशांत माडता जे.स. हांच्या सांगाता कोंकणी संसथ्याक लागीशिल्यान सेवा दीवन आयला मात्र न्हय, सात वरसां परयांत ताणे "अमर कोंकणी" शण्मासिकाचें संपादकपण चलयलां।

कोंकणी साहित, संस्कृती आनी संसोद अभियान आपल्या शिखरार आसच्या ह्या काळार ह्या प्रतिश्टीत कोंकणी संसथ्या थावन जिवाळ आनी सक्रीय येवजणां रूपीत जातेलीं म्हळ्ळो भरवसो आमकां आसा आनी हे दिशेन आमी श्री डिसोजाक सर्व बरें मागतांव आनी संसथ्याचो समग्र सहकार भासायतांव।

**बाप स्वीबर्ट डि'सिल्वा जे.स.**
**प्रांशुपाल, सां लुवीस कोलेज**
**निर्देशक, कोंकणी संस्थो**
**सप्तेंबर 2007**

# “अमर कोंकणी” अंको 48

लगबग पांच वर्सां उप्रांत परत ह्या शण्मासिकाचें संपादकपण हातीं घेताना कांय नर्गि र्सितिमेंनां म्हजेथंय उस्कोंची सहज म्हण म्हाका भोगता।

उडास येता म्हाका म्हज्या संपादकपणाखाल प्रथम अंको तयार कर्ताना आदल्या संपादकांनी डे। वी.जे.पी.सल्दांज आनी प्रो। आल्वन कार्नेलिनो हाणीं म्हाका दिल्लें उत्तेजन आनी धयर; हाची म्हाका वर्पूर गरज आसल्ली किल्याक काल्पनीक कथा कादंबरी लिकचें साहित्याचो एक प्राकार जाल्यार संसोधीक शण्मासिकाचो संपादक जांवचें एक पंथह्वानंच सय।

अंक्याची उगतावण सां लुवीस कोलेजिंतल्या एका कोंकणी कार्या वेळार जाताना म्हजे संगीं वसुनासल्ल्या तवळच्या प्रांशुपाल बाप प्रशांत माडतान म्हज्या खांदार हात दवर्लो आनी म्हळें, ‘बरें काम केलांय’ हें हांव विसरोंक ना। आनी विसरोंक ना हांव डे। प्रो। वेनेट पिंटोक। तो म्हजो आनी म्हज्या कुटमाचो खास मित्रच न्हय कोंकणी संसथ्याचो मुल्या-फातर जावन आसल्लो। आज तर कोंकणी पद्युत्तर पदविका अध्ययन ह्या संसथ्यांत जिवळायेन चालु आसा तर तें वेनेटाच्या सुर्विल्या वाव्रान साध्य जालां। ह्या अध्ययनाचे थोडे पाठ हांवें तयार करिशें म्हाका पाटिंबो दिल्लो ताणींच।

आनी आतां, ‘अमर कोंकणी’ संपादकपणासवें, सां लुवीस कोलेजिच्या कोंकणी संसथ्याचो कार्यकारी निर्देशक जावन म्हाका नेमक केल्ल्या प्रांशुपाल बाप स्वीवर्ट डि'सिल्वा जे.स. आनी रेक्टर बाप फ्रान्सीस सेरावो जे.स. हांकां म्हजेर आसची पात्येणींच म्हाका म्हजी जवाब्दारी सांवाळोंक बोक्ताचें बळ जातेली म्हळें धय्र म्हाका आसा; सांगाताच सर्व कोंकण्यांचो समग्र आनी कार्याळ सहकार आदिंयी म्हजेसंगीं आसल्लो आनी आतां ही दोडी जवाब्दारी सांवाळताना तोयी दोडो जातोलो म्हण हांव जाणां।

हांवें ही दोड्‌ती जवाब्दारी घेंवच्या फुडें ह्याच जुलाय 14 तारिकेर सन्वारा, सां लुवीस कोंकणी संसथ्याच्या आनी चलंच्या पद्युत्तर पदवीका अध्यनाच्या ऊर्जितायेक किते सर्व कर्येता म्हळो विचार-विनिमय प्रांशुपाल/निर्देशक बाप स्वीवर्ट डि'सिल्वा जे.स. हाणीं परिणितांची एक जमात आपयिल्ली आनी हाका सां लुवीस संसथ्यांचो रेक्टर बाप फ्रान्सीस सेरावो जे.स. हेयी हाजर आसल्ले।

सभेर आयिल्लीं सुचनां महतवाचीं आनी तांचो संक्शीप्त हांगासर दितांव:

1. अद्ययनांत कोंकणी व्याकरणाचो पाठ अधिकृत रितीर सेतेर कर्चो। आतां आसचे पाठ ऊर्जीत कर्चे।
2. अद्ययनाच्या मदें एक पावटीं पुर्णा कड्डायेचें संपर्क कार्यक्रम दवर्चें।
3. आतां चाल्तेर आसची परीक्शा रीत बदलून विद्यार्थिंनी कोंकणी संसथ्यांनच परीक्शा दिवची पद्दत हाड्ची आनी ह्याच वेळार नोंडपी/सौखीक परीक्शायी चलंवची ज्या बर्वी

विद्यार्थीक सुडाळायेन कोंकणी उलंवक थोडयो गर्जेच्यो सुचवण्यो मेळतेल्यो।

4. प्रस्तूत हें अध्ययन अट्रा वर्सां वयल्या कोणाकी उगतें आसचें तें उण्यार उणें पियूसी शिकप जाल्ल्यांक उगतें दवरल्यार ह्या अध्ययनाची जडाय चडत आनी हांतले क्लिश्ट विशय समजोन घेंवक सुलव जायत।
5. आतां शाळेंनी कोंकणी अध्ययन प्रवेस जाल्ल्यान शिक्शकांची गरज आसा आनी ह्या शिक्पांन डि.एड आनी वी.एड शिक्शक तर्बेतीक लगती जाल्ल्या संगतींक आसपाव दिंवचो। मंगळूरु विश्व विद्यालय थावन हें पद्युत्तर पदविकाचें अध्ययन अदिकृत म्हण थिरांवचें।
6. थोड्या कारणांक लागोन अनिर्णायक स्थितियेर रावल्लो कोंकणी वाक्सरिचो वावर परत जिवाळ कर्चो।
7. संसथ्याक एक कार्यकारी निर्देशक नेमचो।

अमर कोंकणी शण्मासीक:

1. ह्या संसोदनात्मक शण्मासिकांत एक प्रमाणीक वरपा रीत सांवाळची आनी चडीत गमन दीवन देवनागरींत प्रगट जांवच्या भागांत चुकी आडांवच्यो।
2. ह्या शण्मासिकाचे वर्गणिदार चडंवक एक अवियान करचें आनी ह्ये दिकेन एक सहमिलन आसा करचें।
3. शण्मासिकांत हरयेक अंक्यांत येंवच्या लेकनांचेर वाचप्यांच्यो अविप्रायो/सुचनां/सलहा स्वागत करच्यो।

ह्या सुचनांचेर येदोळच खोलायेन आम्वें गमन वसलां पूण आमी विनती कर्तांवकी 'अमर कोंकणी' वर्गणिदारांचो आनी अध्ययनाक वर्ती जांवच्या विद्यार्थिंचो संको चडंवक आमकां सर्व कोंकण्यांचो सहकार गरज आसा; तितलेंच न्हय आमच्या गृंथालयाक तुमकां केन्नांयी स्वागत आसा आनी आमचेलागीं आसच्या थोड्या विंचणार ग्रंथां मुकांत्र तुमीं कोंकणी भासेची आनी संस्कृतिची गिरेस्तकाय चाकयेत। तुमच्या येण्याक, सहकाराक, कोंकणी कोर्साचे विद्यार्थी आनी 'अमर कोंकणी' शण्मासिकाचे वर्गणिदार जांवच्याक आमी राकोन आसांव आनी तुमच्या सहकारान ह्या संसथ्या थावन सवार सक्रीय योजनां आसा करचो उद्देश आनी उमेद आमकां आसा।

धन्यवाद।

**एड्वीन जे.एफ. डि'सोजा**
**कार्यकारी निर्देशक, कोंकणी संस्थो**
**संपादक, "अमर कोंकणी"**

# सां लुवीस कोलेजीक महाविद्यालयाचो पांवडो

पाटल्या एकशें सत्तावीस वर्सां थावन तरन्या जनांगाक शिक्पी करून तांकां हेरां खातीर फुफळायेन जियेशें कर्चो व्रीद यशस्वी रितीर चलवन आयिल्ल्या सां लुवीस कोलेजीक, जी आकक्या भारतांत मात्र न्हय संसाराच्या सवार कोशांनी शिक्पा, वाव्र आनी संसोद क्शेत्रांनी फामाद जाल्या, ह्याच वर्साच्या सप्टेंबराच्या एकवीस तारिकेर महाविद्यालय (autonomous) हळ्ळो पांवडो लाव्लो।

आप्ले प्रतीकेचेर (emblem) लात्या भाशेन Lucet et Ardet (अर्तात: पर्जळता आनी झळता) म्हळ्ळे सब्द पाटल्या एक्शेंसत्तावीस वर्सां थावन लाकों विद्यार्थींक दिवटी जाल्ले ते आज ह्या पांवड्या थावन खरेंच पर्जळतात आनी झळतात।

सां लुवीस कोलेजीक फावो जाल्ल्या ह्या पांवड्याक अदिकृत आनी सांप्रदायीक रितीर वडंवचे रिती-रिवाजींक मानेस्त वीरप्पा एम.मोयली (Chairman of the Administrative Reforms Commission of Government of India), मानेस्त वी. नागराज शेट्टी (Honourable Minister for Fisheries, Endowment and D.K.in-charge), वाप विजय कुमार प्रभु जे.स., कर्नाटका जेजवीत प्रोविन्साचो व्हडील, हाजर आसल्ले।

आपल्या उलवपांत मानेस्त मोयली म्हणालो, आमी असल्या एका काळांतल्यान पाशार जातांव कि, आमकां मेळचें आनी जोडचें शिक्प मदांनीत म्हळ्ळेपरीं प्रगतिपर जांवच्या समाजाच्या हातांत हात घाल्न चल्ता तसलें जायजेय। आमी पाटीं उरोंकंच ना। मानेस्त शेट्टी जो ह्याच कोलेजिचो माजी विद्यार्थी म्हणालो कि सां लुवीस कोलेज एक सर्व-व्यापती विश्वविद्यालय (deemed university) जांवक चड तेंप लागचो ना आनी हे दिशेन आपुण आपणाचो सर्व सहकार भासायतां।

वाप विजयकुमार प्रभु, जे.स. हाणी सां लुवीस कोलेज येदोळ पर्यांत कशी शिक्पाची एक दिव्टी जावन शिक्पाची अनंत तड सोदूच्या सर्व तर्नाट्यांक आपवन आसा तेच पर्गीं आतां आनिकी चडीत उजळान मुकार सर्तेली म्हळें आस्वासन दिलें।

# कर्नाटकाच्या शाळेंनी कोंकणी ऐचीक भास - एका निरंतर सादनाचें जयत

कर्नाटकाच्या शाळेंनी तिसरी ऐचीक भास जावन स-व्या शिक्पा-पांवड्या थावन कोंकण शिकोंवन म्हळळो आदेश कर्नाटका सर्कारान दितेच सवार कोंकणी वावराड्यांचें, कोंकण भाशेची अविमानी जावन आसलल्यांचे निरंतर सादन सुफळ जालें, जयतेवंत जालें।

ह्या सादनाचें मुंकाण घेतल्ल्या कर्नाटक कोंकणी साहीत अकादेमीचो अद्यक्श श्री एरीव ओझेरियो, शाळेंनी कोंकणी शिकप दिंवचे खातीर सुमार 90 शाळेंच्या शिक्शकांक आस केल्ल्या तर्वेती शिविरांत उलवन म्हणालो कि शाळेंनी कोंकणी शिकंवक गर्ज आमच्य शिक्शकांक 'कोंकणी प्रचार संचालन' सर्कारा मुकार गर्जेची दर्कास्त मंडन कर्तेलें। मात्र न्हय शाळेंनी कोंकणी अद्ययन घट जाता पर्यांत हें संचालन ह्या अवियानाक पाटिंवो दितेलें म्हण संचालनाचो अद्यक्श श्री रोय क्यास्तेलिनोन भर्वस दिलो।

पाट पुस्तक जावन तयार जाल्लें 'येया, कोंकणी शिकुंया - 1' येदोळच विद्यार्थिंच्य हातांक पावलां म्हळळी संगत ह्या वर्त्या सादनाक पुरावो दिता।

ह्या अवियानांत सवार संस्थ्यांचो आनी कोंकण्यांचो वावर आसा आनी आमकां, सां लुवीस कोंकणी संस्थ्याक कळंवक अविमान भोगताकी शिकपा अध्ययन पट्टेंत कोंकणी शिकप दाकल कर्च्यांत ह्या संसथ्यान प्रतम जावन कोंकणींत पद्युत्तर पदविका परिपाट सुरु केल्ल मात्र न्हय, कोलेजिंच्या मट्टार बि.ए. डिग्री क्रमांत दुसरी ऐचीक भास जावन कोंकणी शामील केल्ली फुरारणी सां लुवीस कोलेजीक वेता।

सां लुवीस कोलेजीचो प्रस्तूत प्रांशुपाल आनी कोंकणी संसथ्याचो निर्देशक वाप स्वीवर्ट डि'सिल्वा, जे.स. हाणे, कोंकणी भाशे मंडळ, कर्नाटक (नो) हाणीं सां लुवीस संसथ्यांक ह्य वावर्तीन दिल्लो मान आयलेवारच स्वीकार केलो।

# थोमास स्टीवन्स कोंक्णी केंद्र, पोर्वोरीं, गोंय रोमी लिपींत कोंक्णी अद्ययन पाट क्रमाचें नवें पुस्तक

सवार दिसांथावन राकोन आसल्लें Konknni Course in Roman Script पुस्तक ह्याच सप्तेंवरांत दाल्गादो कोंक्णी अकादेमिच्या अद्यक्श मानेस्त तोमाझिनो कार्दोझो हाणीं मोकळीक केलें म्हळळी वर्दी थोमास स्टीवन्स कोंक्णी केंद्र हाचो निर्देशक बाप प्रताप नायक (जे.स.) हाणी प्रगट केल्या।

केंद्राच्या दोतोर मेथ्यु आल्मेडा, (जे.स.) हाणी तयार केल्लें हें अद्ययन पुस्तक सगळया संसाराचेर शिंपडोन आसच्या कोंक्णी लोकाक, जे चडावत रोमी लिपी जाणांत, एक चडीत आनी नवी लिपी शिकनास्तां कोंक्णिचें अद्ययन करूंक एक हातेर जायजे म्हळळो उद्देश ह्या पाठ पुस्तकाचो।

ह्या पुस्तकांतले पाठ हालींच प्रगट जाल्ल्या वायवलांतली आनी इगर्जिनी वापार्ची रोमी लिपिल्ली लितुर्जिची प्रमाणिकृत कोंक्णी उपेग कर्ता आनी एक भास शिक्चीं आनी शिकंवचे आदुनीक भास विग्यानाचे नेम पाळता।

मुळावें कोंक्णी व्याकरण, हंतान हंत इंग्लिशान विवरिलां तरी, पुस्तकांतले अदिकृत पाट रोमी लिपयेंत दिल्यात। हरयेक हंताच्या आकरेक दिल्ले अव्यास कोंक्णी आनी इंग्लीश भाशेंनी विवरिल्यात आनी पन्नास पानांची, गर्जेच्या कोंक्णी उत्रांची वाक्सरी, कोंक्णी-इंग्लीश, इंग्लीश-कोंक्णी ह्या मांडावळीन दिल्या।

252 पानांच्या ह्या पुस्तकाचें मोल रुपय 250/-

चडीत विवर आनी माहेत:

**Fr. Pratap Naik, S.J.**
**Director,Thomas Stephens Konknni Kendr**
**B.B. Borkar Marg**
**Alto Porvorim, Goa 403521**

# "गिन्नेस" दाकल्याक तयाराय - कोंकणी निरंतरी

पाटल्या तेवीस वर्साथावन कोंकणी खातीर निरंतरी वावुरच्या आनी सवार दाकल्यांवरीत कार्यीं मांडून हाडून कोंकणीक गिरेस्त केल्ल्या "मांड सोभाण" संसत्यान, "गिन्नेस" दाकल्या खातीर आनी कलांगणाच्या संपूर्णकाये आनी फुडारा खातीर येवजिल्लें "कोंकणी निरंतरी" कार्याचें मुहूर्त सप्टेंवर तेवीस तारीकेर (2007), उर्वेस्त कोंकणी आनी दानी श्री रोनाल्ड कुलासोन कोंकणीचें वोंदेर वेदिचेर उवारल्ल्या वुंयगोळाचे एके प्रतिकृतींत रोंवच्या मुकांत्र केलें। ह्याच वेळार ह्या "निरंतरी"-चो विवर दिंवची कड्तीलयी मोकळीक जाली।

ह्या संदर्बार, मांड सोभाण गुर्कार श्री एरीक ओझेरियो उलवन म्हणालो-की 2008 वर्साच्या जनेर 26 तारीकेर सकाळिंच्या स घंट्यार सुरू जांवचें हें कोंकणी संगीत कार्यें दुसरया दिसाचे गतीं धा घंट्या पर्यांत चलवचें आसून सुमार 1200 गावपी खळमीतनास्तां चाळीस वोरां, सुमार मयशीं पदां गायतेले आनी ह्या खातीर गांवांगांवांनी चाळीस पंगड वांदून येदोळच अव्यासांची तयाराय सुरु जाल्या म्हण ताणे कळयलें।

मुहूर्ताच्या ह्या सुवाळयाक मांड सोभाण अध्यक्श मानेस्त लुवी पींत, उपाध्यक्श, अरुण राज, संघटक मानेस्त म्स्यानी आल्वरीस आनी ह्या "निरंतरी"-चें फुडार्पण घेंवक मुकार आयिल्ले सवार कोंकणी मानेस्त/मानेस्तिणी हाजर आसल्ल्यो।

सर्व कोंकणम्नांनी समगृतेन असल्या एका कार्यांत वांटेली जावन कोंकणिचें एकत्व आनिकी घट करिजे म्हळया इराद्यान आमी इतलें व्हड आनी रिस्केचें कार्यें येवजिलां म्हण मानेस्त ओझेरियोन आनी हेगंनी एका ताळयान हाजर आसल्ल्यांक कळयलें आनी सहकार मागलो।

# संगीत आनी आमचें जिवीत

मा। रोनाल्ड सेरावो

आमी आमकां मंगळुरगार म्हण अभिमानान सांगतांव। पुण मंगळूर भारतांत आसा म्हळें आमी उडास दवरुंक जाय। हेंच राजांव देवस्तुतेच्या संगीताकयी लागू जाता। थोड्यांक देवस्तुतेंत गायान मंडळी म्हळयार सर्वस्व। गायान वरें आसल्यार सगळें वरें म्हळें चिंतप। पुण देवस्तुती गायानां पासून वा गायान देवस्तुते पासून? हें सवाल आमी व्हरोवन पळेंवक जाय। गायान नासतां देवस्तुती संभ्रमूंक साध्य तर, गायानांच्या अस्तितवाचें सवाल उदेता न्हय? देकून गायानाक पाटार वसंवचें सार्कें न्हय। तर, गायन आनी संगीताविशीं थोडें समजोंक प्रेतन कर्यां।

**1. मनीस, संगीताचो रचणार:** देवान मनशाक ताच्या सारक्या आनी रुपान रचला। देकून, देव मनशाचो रचनार। पूण संगीताक मनशान ताच्या सारक्या आनी रुपान रचलां। देकून मनीस संगीताचो रचनार। थरावळ मनशांनी तांचे समजणे, संस्कृते आनी वेळाकाळाच्ये परिदे भितर आसोन संगीत रचलां आसतां, संगीतांत थरावळ रूपां आसात। संगीत शेतांत वद्लावणेक आनी नव्या चिंतपाक आवकास आसा जाल्ल्यान, आद्लें आनी आतांचें संगीत म्हण वर्गयी कर्येत।

संगीत एक भास; ती ताळयांची भास। कशें एक भास संपर्काक आनी एकल्याचीं भोगणां आनेकल्याक सांगूंक एक हातेर, तशें संगीत आमचीं भोगणां आनी सिंतिमेंतां हेरांक व्यक्त कर्चीं एक विशीश्ट भास। संगीत भाशेंत विवीध रुपां आनी वेत्यास आसात तरयी, संगीताचो मुळावो उद्देश, देवा आनी मनशालागीं संपर्क।

संगीत मनशाचें जिवीत संभ्रमीक कर्ता। संगीताविणें मनशाजिवीत सोभना; नव्या भुरग्याचो जल्म पर्गटूंक, फेस्त उत्सव संभ्रमूंक, काजार आनी तसलीं कारयीं करूंक संगीताविणें असाध्य। भुरग्याक पाळन्यांत निदांवक, ल्हान भुरग्यांक आकर्सूंक, तर्नाट्यांक तशें प्रायेस्तांक जिवाळ करुंक संगीत एक माध्यम। तशें आसतां संगीत आनी गायान मनशाक आपलो संतोस पर्गटूंक सर्लीस आनी अपुर्वायेची वाट। तशें, संगीत आमच्या जिवितिाचो वांटो।

मनशाक मात्र संगीताची पिसाय। मनशाक देवान ताळो दिला। तशें मनीस गांवक आनी संगीत अर्ताभरीत करूंक सकता। मुकणीं मावजां गातात आनी देवाक वर्नितात म्हळें आमचें धर्मीक चिंतप। पुण मुकण्यांनी गांवचें सकाळिंचो उज्वाड पळेवन तांची प्रतिक्रिया दाकंवक, मांजेर पंगडा वगवर चुकनास्तां आसोंक, अपाय कळीत करूंक आनी टाद्ल्या वायलेन एकामेका आकर्सूंक म्हळो वेगयानीक विवर।

जिवदाळींक कान नांत! तशें आसतां, जांव सरोप वा हेर जिवदाळी, संगीताक प्रतिक्रिया दींवक सकनांत। पुण ताणीं प्रतिक्रिया दाकंवची तांच्या दोळयांनी पाशार जांवची वस्त पळेवन। देकून सरोप संगीताच्या नादाक नाचना! थोड्या मनजातिंचेर संगीताचो प्रभाव आसा

म्हणनात। तर्यी खंयचीय मोनजात गायान करूंक सकना। थोडे मांकोड वाजांत्रां वाजोंवक सकनात। पूण ते किनें कर्तात म्हळें तेच नेणांत! तांकां संगीताची समजणी ना, वगार तर्वेत केल्लेपरीं कर्तात।

देवान हरयेका मनशाक गांवक ताळो दिला। तरयी, हरेकल्याचो ताळो रंगीन ना। जर देवान बरो ताळो दिला, तें ताचें देणें। देकून देवाथंय उपकारी मन दाकंवचें शिवाय हंकारी जांवचें न्हय। मादार्न ताळो अभ्यासा मुकांत्र गायानाक सहज जाल्लो कर्येत। पूण थोड्यांक गायान करूंक साध्य जायना। तसल्यांनी वेजार पांवचें न्हय। तांचो ताळो हेर गर्जांक उपकार्ता!

**2. प्रकृती संगीताची शिक्षकी:** देवान रचल्ली ही सुंदर भूंय मनशांक संगीत शिकयल्ली आनी शिकंवची शिक्शकी। सकाळिच्या भुंयची सोभाय, सुकण्यांचीं गायानां, सुर्याचीं किर्णां, सांजेचें प्रशांतपण, रातिचें मोनेपण, दर्याचीं लारां, भागितलीं फुलां, न्हंयच्या उद्काचो व्हाळो, दोंग्राचो दाळो, मोळबाचो रंग, रानांतलें भंडार आनी ह्या प्रकृतेंत जांवच्यो दिस्पोड्त्यो आनी वेळाकाळाच्यो वद्लावण्यो सगळीं मनशांक संगीत शिकयतात आनी देवाक उपकारी मनान गांवक प्रेरण दिनात। तर, देवान रचल्लो मनीस संसाराची सोभाय पळेवन आनी विज्मीत जावन संगीत शिकलो जावयेत?

संगीताक ताळो आनी ताळ गर्जेचो। हे प्रथवेंत आमी आयकोंवचो आनी अनवोग कर्चो नाळो आनी ताळ कितलो स्वार्थीक! सां फ्रानसीस आस्सिसी प्रथवेचे सोभायेक पिस्वोन, प्रितुमेसंगीं देवाक अर्गां दींवक सकल्लो। आमचे मटवासी पर्वतांचेर आनी रानांतल्या संगीतांत दयविकता देकूंक सकले।

वाल्मिकीन रानांतल्या वातवरणांत महाभारत लिकलो। रानां-वनांच्या परिसरांत आपणाकच विसर्न सिद्धार्थ 'बुद्ध' जाल्लो। प्रितुमी आमकां जायतें शिकयता। कवी आनी संगीतगार जांवक जाय तर, प्रितुमेक पळेजे, आयकजे आनी तिचो अनवोग जोडिजे। तवळ कविता व्हाळता, संगीत गाजता आनी गायान उमाळता। संगीत प्रयोग सालांत सोधून काड्ची वस्त न्हय, वगर प्रितुमेथावन शिकची स्वार्थीक भास!

**3.संगीत आनी संस्कृती:** संगीत संस्कृतेची गिरेस्तकाय। खंयचा संस्कृतेंत संगीताक मान आनी गत्रव आसा, ति संस्कृती उंचल्या वर्गाची म्हणयेत। संगीत एक संस्कृतेची गिरेस्तकाय सेजचीरीत। पुर्विल्या संस्कृतेंनी (मोहांजेदारो हरप्प, चीना, मेसापोतेमिया, ईजिप्ट) संगीताक महत्व आसल्लें आनी तसल्या संस्कृतेचें मट्ट उंचलें म्हणयेत। पुण खंयची संस्कृती दुवळी, तिका संगीत वा हेर कलेंक आवकास दींवक असाध्य जाल्लें। देकून खंयचे संस्कृतेक तिचेंच म्हळें संगीताचें रूप आसा, ती संस्कृती दुवाव नासतां माल्गडी आनी उंचली म्हण मानून घेव्येत।

दक्शीण भारतांत कर्नाटिक संगीत आसा तर, उत्तर भारतांत मेसापोतेमियाच्या संस्कृतेच्या प्रेरणाखाल पर्सिया मुकांत्र हिंदुस्तानी संगीताचें रूप आसा। ह्या दोनयी संगीताच्या रुपांनीं जायते एकामेकाक ताळ पड्चे विशय आसात। गांवचे संस्कृतेंत रायांच्या पोदोर्नपणाखाल देशीय

गीताक पुरस्कार मेळ्ळा आनी संगीत वाडलां। देकून, भारताचें संगीत आमचे पुरातन आनी चलो संस्कृतेक एक थीक जशें!

आमच्या समाजेंतलीं चाल्तीं पदां, गुमटां, लोकासंगीत आनी हेर संगीताचीं व्हाजांत्रां आमचो अभिमान। तरयी आजकाल विदेशी संगीत आमकां पसंद जाता। हाचो परिणाम जावन देशाच्या आनी विदेशाच्या संगीताची सयरीक जाल्या। थोड्यांक हें रुचता तर,थोड्यांक विदेशी मात्र आनी हेरांक अपुट देशीय संगीत मात्र पसंद। रूच वेवेगळी जाल्ल्यान हें सर्व गामान्य म्हण्येत। नरयी, आमच्या देशाच्या संस्कृतेच्या संगीताक दुसऱ्या वर्गाचें म्हण लेकचें मार्के न्हय!

**4. संगीत आनी धर्मीक आराधनः** संगीत धर्मीक आराधन संभ्रमुंक, फेस्ताचें वातावरण दींवक आनी काळजांमनां देवाक उवारूंक भक्तिचें चिंतप दिता। देकून धर्मीक कारयीं संगीताविणें संपूर्ण न्हय। जशें आदीं तशें आतां धर्मीक कारयांनी कंतारां, भजनां आनी भक्तीक गितां महत्वाचो वांटो घेतात। सुर्विलीं गितां लिकल्लीं, हांव चिंतां, धर्मीक वा भक्तीक। थोड्या वर्सां आदीं आमचीं समाजीक कारयीं पर्यांत कंतारां वा कंतिगे मुकांत्र सुरू जातालीं आनी संपतालीं। रोसाच्यो वा लगनाच्यो पयल्यो वोवियो धर्मीक चिंतप आटापल्ल्यो!

धर्मीक संगीत आनी हेर संगीता मधें आदीं तफावत आसल्लो आनी तो गर्जेन आगोंक जाय। तवळ मात्र धर्मीक संगीताक आनी भक्तीक गितांक अर्त आसा। आजकाल आमी वर्सल्ल्या संस्कृतेंत शिर्कोन हो फरक विसरल्लेपरीं दिसता। अशें जावन आज खंचें कंतार आनी खंचें पद म्हळें सांगोंक कश्ट जाता! अशें आमचीं देवस्तुती आनी भक्तीक कारयीं, समाजीक वा संस्कृतीक कारयांपरीं जाल्यांत। हाचो परिणाम जावन आमचे देवस्तुतेंत भक्त उवोन गेल्या आनी मनोरंजनाक आवकास लावला म्हळो दुवाव उदेला।

जुदेवांनी तांच्या धर्मीक कारयाक रचल्लीं कीर्तनां, भारतीय कविंनी आनी भक्तांनी रचल्लीं वचनां, कीर्तनां आनी भक्तीक गितां देवाक हर्सूंक रचल्लीं शिवाय मनोरंजनाक न्हय। तशें आगतां धर्मीक गितांचें साहीत आनी संगीत विविंगड म्हळें सम्जानातल्यार धर्मीक कारयीं भक्त नातल्लीं जातात।

धर्मीक गितां रचनारांक दयर्वीक अनवोग आनी पवीत्र पुस्तकाची मुळावी जाणवाय ना तर, धर्मीक संगीत आतमो नातल्ल्या कुडिपरीं! देकून, ह्या शेतांत फावोतो जाणवाय नास्ताना, धर्मीक संगीत आनी गितां घडल्यार, तांचें साहीत आनी ताळो तीं घडल्ल्यांक चुकिदार कर्तीत!

**5. संगीत एक कलाः** संगीत एक कला आनी देणें। तें सर्वांक फावो जायना। पुण हें देणें जें कोणाक देवान दिलां, ताणीं, खाल्तेपणान देवाचे आनी पेल्याचे सेवेंत फळाभरीत रितीन समर्पूक जाय। आदीं रायाच्या रावळेरांत संगीतगार आसल्ले। तांचे कलेक पुरस्कार मेळतालो; इनामां आनी मान फावो जातालो। आजूनयी संगीतगारांक आनी गावप्यांक आमच्या गांवांत मान, पुरस्कार आनी गव्रव आसा।

पवित्र सभेन सुर्वेर थावन संगीताक प्रोत्साव दिला। हाचो फळ जावन चरित्रेंत इगर्जेच्या गावळेंत नांवाड्टीक संगीतगार आनी गावपी उदेल्यात। चडावत मटवासिंचीं मटां संगीताचीं

केंद्रां जाल्यांत। इगर्जेच्या वातावरणान संगीतगारांक तयार केल्ली कीर्त आपणांव्क फावो। पुण आजकाल संगीत कलेप्रास चड वेव्हार आनी व्याप्त जावन वदल्लां। अशें जावन संगीत एक विकऱ्याची वस्त आनी पोटाची व्याप्त जाल्या। हाचो परिणाम जावन कलाकारांनी आनी गावप्यांनी संगीताक पळेंवची रीत वेगळी जाल्लेपरीं दिसता। देकून आमकां आज संगीतांत खरो अर्त आनी गायनाचें स्वाधिकपण उणें जाल्ल्यापरीं भोगता आनी संगीतांत आसची मधुरता आनी मितिमेंतां मायाग जावन फकत आवाज, वोव आनी करंदाय चडीत आसा म्हळळेपरीं भोगता!

## सत्राव्या शेकड्याथावन दुसरे वातिकान विश्वसभेपर्यांत देवस्तुतेचें संगीत

1. सत्रावें शेक्डें वारूक संस्कृतेचें शेक्डें। ह्या काळार कलेंत आनी साहितांत धाराळ प्रगती आयली। हाचो परिणाम देवस्तुतेंत आनी तिच्या संगीतांत दिसोन आयलो। त्रिदांतीन म्हासभेन संगीत भक्त रुपीत कर्चें आनी देवस्तुतेक सहज जाल्लें तसलें जांवक जाय म्हण आदेश दिल्यारयी, ह्या शेकड्यांत नाटकीय आनी मनोरंजनाचें संगीत सदांचें जालें। तर्वेन जाल्ले गावपी, थरावळ संगीत व्हाजांत्रां आनी वेवेगळया ताळयांनी विणल्ली संगीताची सजवणी आयकोंक लोक देवमंदिराक आयलो आनी खूब खुश जालो। तरयी, लोकाचीं काळजां देवाथंय उवारूंक तवळचें संगीत वा गितां सल्वलीं।
   पालेस्त्रिना आनी ताचे सांगाती संगीत घड्च्यांत सुफळ जाल्ले। पूण तांकां देवस्तुतेची माहेत नातल्ली आनी तांकां सुर्विल्या रोमन संगीताची जाण्वाय नातल्ली। हाचो परिणाम जावन तांचें संगीत देवस्तुतेक पूरक जालेंना। गावप्यांचें एकोडें संगीत; व्हाजांत्रांचो मधूर नाद आनी भावनात्मक रितीर गायलेल्या गायनावर्वी देवमंदीर एक कलामंदीर जालें आनी देवस्तुती फकत संगीताक एक आवकास म्हळळेपरीं जाली। अशें देवस्तुतेचो शेवोट लिपोन गेलो!
   गयाळ आनी वळवंत मनशांनी संगीताक आनी संगीतगारांक पुरस्कार दिलो। हाचेवर्वी आदीं फकत मणियारयांनी गायान मंडळिचे सांदे जाव्येत आसल्लें तें नेम वदूलून, तर्वेत जाल्ल्या लायीक गावप्यांची गायान मंडळी उदेली। अशें देवस्तुतेंत मागण्याक आनी देवाचीं विचीत्र कृत्यां नियाळूंक म्हण आसल्लें गायान वैयक्तीक देणीं जायर कर्चांत वदल्लें आनी देवस्तुतेंत संगीताचेंच धनिपण चलोंक लागलें। अशें देवमंदिरां संगीताचीं सालां जालीं।
2. पापा अलेगसांड्र सातव्यान (1599-1667) देवस्तुतेच्या संगीतांत भक्तिपण हाडूंक आनी त्रिदांतीन म्हासभेन दिल्लो आदेश पाळूंक उलो दिलो। तशेंच नाचाक आनी भावनात्मक चिंतपाक पूरक जांवचें संगीत देवस्तुतेवेळीं आसोंक नजो म्हण ताकीद दिली। पूण वारूक संस्कृतेच्या अभिमानींच्या कानांक ताचो ताळो आयकालो ना! अशें देवस्तुतेवेळीं देवस्तुतेक लगतीं जायनातल्लीं गितां गांवचें सदांचें जालें। देवस्तुती लातीन भाशेन जाताली जाल्ल्यान, थोडें रंगीन संगीत लोकाक धादोसकाय दींवक सक्लें!

3. सत्राव्या शेकड्याचे मुर्वेर युरोपांत 'संगीत-नाटक' नवेंसांव हाडिलागले। पवित्रपुस्तका वयरयी असले 'संगीत-नाटक' घडले। असल्या नाटकांक तर्वेती जोडल्ले गावपी, व्हाजांत्रांगार आनी संगीतगार गर्ज आसल्ले। असल्या संगीताचो प्रभाव ह्या काळार पवीत्र सभेच्या सकाळीं आनी सांजेच्या मागण्याचेर, तशेंच ओपिसाचेर दिसोन आयलो। तांतुयीं एकोडें गायन आनी संगीत व्हाजांत्रां आयलीं। लायीक गावपी असल्या गायानांनी भाग घेताले। अशें जावन मागण्याचो खरो स्वभाव आनी शेवोट अस्पश्ट जालो।

4. आट्राव्या शेकड्यांत संगीत शेतांत विशेस वद्लावण जाली। पुण हें संगीत देवस्तुतेक सहज जाललें न्हय आसल्लें। ह्या शेकड्यांत जियेल्ले नांवाड्डीक संगीतगार जोर्ज फेड्रीक ह्यांडेल (1724-1807), जोन सावास्तियन वाख (1685-1750), फ्रान्ज जोसेप ह्याडन (1732-1809), वुल्पगांग आमादेयुस मोजार्ट (1765-91) लुडवीग वैथोवन (1770-1827) आनी हेर देवस्तुतेंत उणी माहेत आसल्ले। तरयी, तांणीं लिकल्लें संगीत आनी गायानां देवस्तुतेंत प्रवेस जालीं। जुवांव सावास्तियन वाखान लिकल्लें संगीत, विशेस जावन मिसावेळा गांवचें किरियें, ग्लोरिया, सांक्तुस आनी हेर पवीत्रसभेन स्वीकार केलें। तशेंच मातेवान आनी जुवांवन वरयल्ल्या सोमयाच्या पाशांवा खातीर ताणें रचल्लें संगीतयी लोकामोगाळ जालें। ह्यांडेलाचो "मेस्साया" 'गीता-नाटकयी' नांवाड्डीक जालो। असल्या संगीताच्या प्रभावान पवीत्र सभेच्या पुरातन देवस्तुतेचें संगीताचें रूप नपंयच जालें।

वेनेदीक्त चवदाव्यान (1675-1758) 1749-व्या वर्सा "अन्नूस क्वी" म्हळळें एक दस्तावेज लिक्लें आनी हांतूं पवीत्र सभेच्या सकाळीं आनी सांजेच्या मागण्यांक एकच ताळो आसोंक जाय आनी सवार ताळयांची सजवणी सार्की न्हय, तशेंच देवमंदिरांनी नाटकीय आनी मनोरंजनाचें संगीत आसोंक नजो म्हण ताकीद दिली। ओर्गन वाजव्येत; पूण हेर वाजांत्रांचें संगीत जर गायानाचो ताळो आयकोंक आडकळ जाता तर व्हाजांत्रां व्हाजोंवचीं न्हय म्हण स्पश्ट केलें।

आट्राव्या शेकड्याचे आकेरीक जर्मनींत तांचे मांयभाशेंत गायानां घडलीं। लातीन मिसावेळार मांयभाशेंत गायानां गांवक आडवारल्लें। तरयी, लातीन भाशेच्या मिसांत जर्मन भाशेचीं गायानां आयलीं। 1812-व्या वर्सा जर्मन भाशेंत गितांचो पुस्तक कोनस्टांट दियेसेजीन पर्गटलो।

थोड्या वर्सां उप्रांत प्रेस्पर लुवीस पास्कल गुरेंजागन फ्रानसांत वेनेदिक्तेन मट सुर्वातिलें आनी ताच्या मटांत रोमाची मुर्विली देवस्तुती, ग्रेगोरियन संगीत आनी हेर संप्रदाय सुरु केले। पूण तवळच्या लोकाक ते पसंद जालेंनांत। तरयी गुरेंजागना ताचो निर्दार वदलिलोना। व्हळू ताचें चिंतप हेर गांवचा मटांनी वाळळें आनी देवस्तुतेंत नवें चिंतप, संसोदन आनी शिकवण उदेली।

5. एक्विसाव्या शेकड्यांत चालत्या संगीताचो ताळो मिसाच्या कंतारांक वसयलो। पूण तो फळाधीक जालोना। शेकीं, पापा पियुस धाव्यान देवस्तुतेच्या संगीतांत नवेसांव हाडलें।

पियुस धावो संगीतगार जावन नांवाडल्लो याजक। देवस्तुती संभ्रमीक आनी भक्तीक करूंक चाल्तें संगीत प्रेरण दीनातल्ल्यान, ताणें ग्रेगोरियन संगीत स्वीकार केलें आनी "त्रा ले मोलेंचितुदीनी" म्हळळें दस्तावेज 1903-व्या वर्सा लिकलें। हें दस्तावेज देवस्तुतेच्या संगीताविशीं एक मुकेल दस्तावेज। तशेंच दुसऱ्या वातिकान विश्वसभेचें चिंतप ह्या दस्तावेजाथावन व्हाळळां। त्या दस्तावेजांतल्यो प्रमुक संगतीं अश्यो आसात:

i. देवस्तुती आनी देवमंदीर पवीत्र। देकून, देवस्तुते वेळार भक्तिपणाचें आनी पवित्रतेक आदार जांवचें संगीत आनी गायान गांवक जाय। देवाची महिमा आनी आमची पवित्रता पाचार्चो देवस्तुतिच्या गायानांचो आनी संगीताचो शेवोट। देवस्तुतेंत गांवचीं गायानां देवस्तुतेचो संभ्रम चडयतात आनी देवस्तुतेचें मागणें संगीतान न्हेसयनात। देकून मागण्याचीं वा गितांचीं उतरां संगीताचाकयी महत्वाचीं आनी तीं पयलो जागो घेतात। पुण संगीत मागण्याक आधार जाता। ह्या वर्वी देवस्तुते थावन लोकाक देवाची कुर्पा लाभोंक साध्य जाता। देवस्तुतेचें संगीत पवित्रता जोडूंक प्रेरण। देकून, जें कितें देवस्तुतेंत ना फावो, तसल्या संगीताक आनी गायानाक देवस्तुतेवेळीं आवकास दिंवचो न्हय।

ii. ग्रेगोरियन संगीत हे दिशेन आदाराचें जाल्ल्यान, तें संगीत देवस्तुतेंत चाल्तेर हाडुंक जाय। हें संगीत सुर्विल्या काळार थावन प्रेरणदायेक आसोन देवाच्या घरा सोभता। तें संगीत सपें जाल्ल्यान, तें लोकान गांवक जाय। अशें, ताणींय देवस्तुतेंत कारयाळ रितीन वांटो घेंवक जाय। पुण, हेर आदुनीक संगीत देवस्तुतेक फावो तें म्हण दिसल्यार, तेंयी देवस्तुतेंत आसा कर्येत। पूण, चाल्तें आनी मनोरंजनाचें संगीत देवस्तुतेंत हाड्चें न्हय।

iii. लातीन, देवस्तुतेची अदिकृत भास। देकून हेर भासांनी देवस्तुतेवेळीं गांवक आडवार्लां। मिसाचीं वा देवस्तुतेच्या हेर संभ्रमाच्या गितांचीं उत्रां बदलुंचें, ताका कुड्सुंचें वा कळवुंचें न्हय। तीं उत्रां देवस्तुतेच्या रितींच्या पुस्तकांतलींच आसोंक जाय। असल्या उत्रांक संगीत घडताना परत परत गांवक आवकास दिंवचो वा उत्रां विंगड कर्न तांचो अर्त होगडांवचो न्हय, वगार संगीत उत्रां समजोंक आनी लोकांनी तीं सलीसायेन गांवक आधार जांवक जाय।

iv. देवस्तुतेवेळीं सणियाऱ्यांनी गांवचा गायानाक संगीत व्हाजांत्रां व्हाजोंवचीं न्हय! गायान मंडळेंत स्त्रियांक आवकास ना। जर वारीक ताळो गर्ज आसा तर, ल्हानां भुरग्यांक गायान मंडळेंत जागो दिंवचो। तशेंच सत्रवाच्या आनी देवविरांतिच्या लायीक दादल्यांक मात्र गायान मंडळेंत आवकास दिंवचो!

v. देवस्तुतेच्या गायानांत ताळयाक प्राधान्यता तर्यी, ओर्गन व्हाजव्येत। पुण, हेर व्हाजांत्रां गर्ज म्हण दिसल्यार, तीं विसपाचे पर्वणगेन मात्र व्हाजव्येत। पुण, व्हाजांत्रांचो आवाज गायानाप्रास व्हड जांवचो न्हय वा मधें व्हाजांत्रां मात्र व्हाजंवचीं

न्हय। पियानो, डोल, ड्रम्स, ताळ (Cymbals) तसलीं व्हाजांत्रां देवस्तुतेवेळीं व्हाजंवचीं न्हय। पुर्शावांक व्यांड आस्येत; पूण इगर्जे भितर देवस्तुते वेळार न्हय! गायान वा संगीताच्या निवान देवस्तुती लांबंवची न्हय। गायान देवस्तुतेची चाकर्न; धनीन न्हय म्हळें उडास दवरूंक जाय।

vi. हरेका दियेसेजींत देवस्तुतेच्या संगीताक एक समिती आसोंक जाय। ह्या समितेच्या सांद्यांक देवस्तुतेच्या संगीताविशीं जाणवाय आसोंक जाय। तांणीं देवस्तुतेचें संगीत पवीत्रसभेच्या चिंतपाप्रकार रूपीत करूंक जाय आनी जें किते ना फावो आसा ताचेवयर दोळो दवरूंक जाय। सेमिनरिंनी आनी धर्मीक संसथ्यांनी देवस्तुतेच्या संगीताविशीं तर्वेती दींवक जाय। तशेंच गायान मेस्त्रींक, गावप्यांक, व्हाजांत्रगारांक आनी हेरांक देवस्तुतेच्या संगीताची जाणवाय दींवक जाय।

6. गुरेंजार आनी पापा पियूस धाव्याच्या चिंतपान वाप ल्यांबार्टान (1873-1960) देवस्तुतेचें संचालन सुरु केलें आनी देवस्तुतेंत लोकान वांटो घेंवचो गर्जेचें म्हळें चिंतप हाडलें। हाचो परिणाम जावन लोकाक समजोंचे भाशेन देवस्तुती संव्रमूंक जाय म्हळो वाद ताणें फुडें दवर्लो। तशें म्हळयार, फुडें लोकाच्या भाशेंत गायानां गांवचीं आडांवक जायना म्हळें चिंतपयी उदेलें। ताचें चिंतप घड्येन विस्तार्लें आनी अख्खी देवस्तुती लोकाच्या भाशेंनी जांवक जाय म्हळें चिंतप आयलें। पुण, लातीन गावप्यांनी आनी संगीतगारांनींच हाका आडकळ घाली। मांयभाशेंत मिसां केल्यार, तांचीं गायानांयी त्याच भाशेंत जातीत; शेकीं आमची गत कितें म्हळें सवाल तांकां उदेलें। तरयी, देवस्तुती मांयभाशेंत जांवक जाय म्हळया वादाक मिसांव गांवा थावन तवळ तवळ विनोवण्यो आयल्यो। पूण, तवळ खंयचाकयी वेळ भर्ती जांवक नातल्लो!

7. पियूस बारव्यान 1956-व्या वर्सा देवस्तुतेच्या संगीताविशीं "म्युजिका साकरा डिसीप्लीना" (Musica sacra disciplina) विश्वपत्र बरयलें। ह्या पत्रांत देवस्तुतेंत मांयभाशेंत गीतां गांवचीं रावंवक आनी लातिन भाशेंत मात्र गांवक आदेस दिलो। तरयी, हेर भक्तीक कार्यांनी आनी मिसा उप्रांत मांयभाशेंच्या गितांक ताणें पर्वण्गी दिली।

1958-व्या वर्सा देवस्तुतेच्या रितिच्या खात्यान "पवीत्र संगीत आनी देवस्तुती" (De musica sacra et sacra liturgia) म्हळें पत्र लिकलें। हांतूं मिसावेळीं मांयभाशेच्या भक्तीक गितांक आनी चालत्या संगीताक आवकास ना म्हण स्पश्ट केलें। तरयी, मांय भाशेंत गितां उदेलीं आनी सवकास दुसऱ्या वातिकान विश्वसभेच्या चित्पाप्रकार सगळी देवस्तुती मांयभाशेंत संव्रमुंची घडी उदेली।

## पवित्र संगीतः 'म्यूजिका साक्रा'

1. दुसरे वातिकान विश्वसभेचें देवस्तुतिचें चिंतप कार्याळ करूंक चिंताना, देवस्तुतेंत संगीताविशीं विमर्सो, तर्क आनी वाद सुरू जालो। विश्वसभेन संगीताक विशेस गुमान दींवक ना म्हण संगीतगारां थावन येंवचें दुर्गोणें कांय उणें नातल्लें। देवस्तुतेंत कार्याळ

पात्र घेंवक संगीत भोव गर्जेचें जावनासल्लें। पूण, देवस्तुती मांयभाशेंत लोकामोगाळ जाताना संगीताविशीं नव्यान चिंतिजे पडलें।

देवस्तुतेच्या तज्ञांनी विश्वसभेचें गोवळीक चिंतप मतींत धर्न पासकाचो घुट संभ्रमूंक संगीत वळादीक हातेर म्हण मानून घेतलें आनी देवस्तुतेंत अख्ये देवपर्जेन गायान कर्चें सार्के म्हण वाद मांडलो। पूण, संगीतगार आनी गावप्यांनी देवस्तुतेंत संगीताक कलेचे दिश्टींन मात्र लेकलें। ताणीं, तें अख्या लोकान गांवच्यांत राजांव ना म्हण चिंतलें। तितलेंच न्हय, लातीन भाशेंत मीस आनी गायानां सांवाळन व्हरूंक विश्वसभा सल्वल्ल्यान, लोकान मिसाक येंवचें गवयलां म्हणयी खवरो केल्यो। देकून, विश्वसभेच्या देवस्तुतेच्या संविदाना विरोधयी उलोवणें सुरू जालें। पुण, असलें सर्व विरोध चिंतप, आर्चविस्प अन्निवाले भुगनिनी प्रकार "अख्या लोकाक देवस्तुतेंत गायान करूंक जाय म्हळ्ळया दुसरे वातिकान विश्वसभेच्या विशाल निर्दाराक संगीतगारांची प्रतिक्रिया।"

2. दुसरे वातिकान विश्वसभेन संगीताक, गायान मंडळेक आनी संगीताच्या शिकपाक विशेस महत्व दिलां म्हळ्ळें संविदान वाचल्यार स्पश्ट सम्जता (संविदान 112, 114, 115). तरयी संगीतगारांनी तांचीं भोगणां वातिकानाच्या दफ्तराक वर्पीं धाडलीं आनी देवस्तुतेच्या सुद्रापाच्या चिंतपा समितेंत संगीतागारांक आनी गायान मेसत्रींक सांदे करूंक जाय म्हण मनवी दिली। पूण, वातिकानाच्या दफ्तरान संगीतगारांनीं देवस्तुतेचें संविदान वरें कर्न वाचुन सम्जोंक जाय आनी संविदान फकत पवीत्रसभेचें संगीत्त सांवाळूंक पेचाडता शिवाय, नास करूंक न्हय म्हळ्ळें स्पश्ट केलें। तशेंच, विश्वसभेच्या "देवस्तुतेच्या संविदाना" विशीं पर्गट पत्रांनी आनी वैयक्तीक रितीन अवमर्याद कर्ची सार्की न्हय म्हण चत्राय दिली। तर्यी, संगीतगारां आनी गायान मंडळेथावन मनव्यो रावल्योनांत। तांतल्या एका मनवेचो सारांश असो आसा:

ह्या दिसांनी आमी पत्रांनी वाचचें आनी आयकोंचे देवस्तुतेचें सुद्राप पवित्रसभेची कला नास कर्ता म्हळ्ळेपरीं दिसोन येता। तरयी कोणेंयी हे दिशेन कितेंच कर्चें दिसना। हें एक निजायकी दुरादृश्टच सय...! अधिकार आसल्ले हे विश्यांत कितेंच सांगोंक सकनांत। पापासायवान नमियारल्ल्या देवस्तुतेच्या सुद्रापाचे समितेक पवीत्रसभेच्या सुर्विल्या संगीताच्या दिरव्याची पर्वा ना म्हळ्ळेपरीं दिसता। अशें लोकामोगाळ देवस्तुती म्हण रूचनातल्ल्यान संगीताक पुरस्कार कर्ता; पूण त्या संगीताक अतमोय ना; कलायी ना! असल्यो मनव्यो एका पाटल्यान एक येताना, आन्येक कुशीन मांयभाशेंत देवस्तुतेक ताळ पडचीं गायानां उदेलीं। तशेंच देवशास्त्राच्या जाणारयांनी आनी थोड्या संगीतगारांनी सांगाता येवन "यूनिवार्सा लावोस" म्हळ्ळो अंतराश्ट्रीय शिक्पा पंगड रचलो आनी देवस्तुतेच्या संगीताविशीं अध्ययन सुरु केलें। वातिकानान तांचो वाव्र वाखण्लो। पुण, तांची वाखवर्णी चर्डीत विरोधपणाक वाट जाली। तवळ, "यूनिवार्सा लावोस" पंगडान तांचो शिक्पा पंगड स्वतंत्र आनी वैयक्तीक शिक्पा अविरुचीन स्थापीत जाल्लो म्हण

स्पश्ट केलें। तरयी, देवस्तुतेच्या सुद्रापाक संगीतगारां थावन आडकळी उण्यो जाल्योनांत। तितल्यार, लोकान देवस्तुतेच्या संगीतांत चडीत आनी चडीत वांटो घेंवक सुरू केलें आनी लातीन संगीत एकसुरें जालें।

देवस्तुतेचें सुद्राप कारयाळ जाताना लातीन भाशेक लेकचो कोणयी ना जालो। शेकीं, दुसरे वातिकान विश्वसभेचें देवस्तुतेचें सुद्राप भरान कारयागत करूंक सुरु कर्ताना, देवस्तुतेच्या संगीताविशीं चडीत मार्गदर्शन गर्ज म्हण दिसलें। हे दिशेन संगीतगारांनी तांची अभिप्राय उचारूंक आवकास विचार्लो आनी पापसायवान तांतूं मधें पडूंक जाय म्हण विनंती केली। शेकीं, संगीतगारांच्या मुकेल्यांक जमातीक आपयलीं। तितल्यार, दुसरे वातिकान विश्वसभेंत विस्पांनी केल्ल्या निर्दारां विरोध तांकां उलंवक हक्क ना म्हणोनयी हेरांनी तांकां जागयलें। देवस्तुतेंत संगीत सेवकी आनी संगीतगार सेवक म्हळें तांकां समजायलें।

3. देवस्तुतेच्या जाणारयांनी लोकांनी गायान कर्न कारयाळ रितीन वांटो घेजे म्हण विवरिताना, संगीतगारांनी तांच्या गायानाक आयकोन लोकान देवाक वाखण्चें म्हण वाद मांडलो। पुण हो संगीतगारांचो वाद देवस्तुतेच्या संविदानाक विरोध जाल्ल्यान, तो मानून घेंवक असाध्य जालें। पुण, संगीतगारांक देवस्तुतेची जाण्वाय नातल्ल्यान तांचेलागीं उलंवक हेर विशय नातल्लो। देकून, देवस्तुतेच्या जाणारयांनी देवस्तुतेच्या संगीताविशीं तयार केल्ल्या शिकोवणेवयर तर्क केलें। पूण, संगीतगारांक त्या शिकोवणे वयर समाधान ना जालें आनी तें पर्गट करिनातल्लेपरीं ताणीं हरेक प्रेतन केलें। हें कळीत जाल्ल्या पापा पाव्ल सव्यान देवस्तुतेच्या संविदानाचेर होंद्वोन ताचें चिंतप दिलें।
   i. देवस्तुतेंत लोकान कारयाळ पात्र घेजे तर, फकत संगीत आयकोन तें असाध्य।
   ii. मांयभाशेंत देवस्तुती कर्चो निर्दार विश्वसभेन केल्लो। देकून तो वद्लूंक जायना।
   iii. देवस्तुतेचें संविदान संगीताक गव्रव आनी मान दिता। देकून, तें संगीताक विरोध म्हळें सत न्हय।
   iv. देवस्तुतेचें संविदान गायान मंडळेक प्रोतमाव दिता। पुण, फकत गायान मंडळेन गितां गांवचें आनी लोकान प्रेक्शक जांवचें सार्कें न्हय।

4. पापाच्या चिंतपान वाद-विवाद संपलो आनी शेकीं "पवीत्र संगीत" (Musica Sacra) शिकोवण मार्च 5-वेर, 1967-व्या वर्सा पर्गटली। हे शिकोवणेक विरोटपण आनी आड चिंतप पत्रांनी व्हाळळें। पुण, मांयभाशेंत देवस्तुती लोकामोगाळ जाताना आपापींच आडकळी उण्यो जाल्यो।

'पवीत्र संगीत' शिकोवण प्रस्तावनावरावर सात अद्याय आटापता। देवस्तुतेच्या संगीताविशीं सम्जजे तर, ही शिकोवण अर्त कर्ची गर्ज आसा। देकून, ताच्या सात अद्यायांचो सारांश मटव्यान आसो आसा:
   i. संभ्रमीक देवस्तुतेंत गायान आसोंक जाय आनी अख्या लोकान तांतु कारयाळ रितीन

वांटो घेंवक जाय। देकून, देवस्तुतेंत मणयारांनी आनी लोकान ताणीं गावयेत जाल्लो वांटो गांवचो। तरयी, हे दिशेन एकल्याचें देणें आनी संगीताची रूच मतींत घेंवक जाय। देकून, देवस्तुतेंन जमो जाल्ल्या लोकाक गायान गांवक तर्वेत करूंक जाय। तरयी, देवस्तुतेचें अख्खें गायान करूंक लोकाक असाद्य। देकून, लोकाक असाद्य जाल्लेवेळीं गायान मंडळीन तें म्हण्येत। पूण, लोकान देवस्तुतेंत मोने प्रेक्शक वा मोने गुमट जांवचें न्हय। लोकान देवस्तुतेच्या गायानांत वांटो घेंवचेपरीं हरेका फिर्गजेंत तर्वेत जाल्ले गावपी आनी ल्हानश्या मट्टाची गायन मंडळी आसोंक जाय। देवमंदिरांत गायन मंडळेन लोकाथावन विंगड रावचें न्हय। वगार, लोकाचो एक वांटो म्हण दाकंवक लोकासंगीं आसोन ताणीं गायानां म्हणोंक प्रेरण दींवक जाय। गायान मंडळेच्या सांद्यांनी गायानांत मात्र न्हय, वगार देवस्तुतेंत फावो ती सम्जोणी जोडूंक जाय। देवस्तुतेच्या गायानांत तीन वर्ग आसात:

a) याजकान गांवचें गायान (नमान, जमात प्रार्तन, देवाचें उतर हें, काणिकांचेर प्रार्तन, म्हास्तुती, पवीत्र-पवीत्र, त्याच जेजू वर्वी, आमच्या वापा, शांती दिंवचे फुडें प्रार्तन, क्रीस्त प्रसाद प्रार्तन आनी वेसांव).
b) याजकान लोकासंगीं गांवचीं गायानां (सोमया काकूत कर, माहिमा, देवाचे शेळिये, सतमान्तां, भावार्तांचीं प्रार्तनां).
c) लोकान गांवचीं गायानां (प्रवेस गीत, पवीत्र प्रसादाचें गीत, पयल्या वाचपां उप्रांतलें अंतर गीत, सुवार्ते फुडलो उदगार, काणिकांचें गीत)

संत्रमीक देवस्तुतेंत तीनयी वर्गांचें गायान आसोंक प्रेतन करूंक जाय। पुण सदांच्या मिसाक तिसरो वर्ग पावता। देवस्तुतेंत याजक पयलो गावपी आनी ताणें गायान करिनातल्यार (करूंक कळीत नातल्यार) देवस्तुतेचो पयलो वर्ग निद्रेस्त जाता। शेकीं, तसलीं देवस्तुती संभ्रमीक म्हणोंक जायना। देकून, याजकांनी तांचो वांटो (पयलो वर्ग) गायान करूंक शिकोंक जाय।

ii. पवीत्र सभेच्या सकाळीं-सांजेच्या मागण्यांत (Divine Office) गायानाक महतवाचो जागो आसा। देकून तांतलीं कीर्तनां आनी मागणीं संत्रमीक देवस्तुती आनी फेस्तांक होंद्रोन गांवचीं, हीं मागणीं पवीत्र सभेचीं अधिकृत मागणीं जाल्ल्यान, तांतू देवपर्जेन वांटो घेशें आनी तीं गायान करिशें तर्वेती दिंवची।

iii. संस्काराच्या आनी हेर संत्रमांनी (आशीर्वादांच्या देवस्तुतेंत) तशेंच क्रिस्तांव समुदायाच्या जिवितांत, वर्सवर देवस्तुतेंत कराच्या सोमयाच्या घुटाच्या संत्रमांनी विशेस जावन भागेवंत हफ्त्याच्या संत्रमांत, गायानाक विशेस आनी विशीस्ट स्थान तशेंच महत्व आसा। देकून, असल्या संत्रमाक फावो तसलें संगीत आसोंक जाय आनी ना फावो, चाल्तें आनी मनोरंजनाचें संगीत पयस दवरूंक जाय।

iv. देवस्तुती मांयभाशेंन संत्रम्चीं अर्तावर्गत तरयी, लोकान लार्तीन सिसांत वांटो घेंवक

सहज जाल्लीं गितां शिक्वीं वरीं, अशें, पवीत्रसभेचें परन्या संगीताचें दायज सांवाळूंक आनी तें जिवें दवरूंक सेमिनरिंनी आनी धर्मीक घरांनी म्हिनत घेंवक जाय। मांयभाशेंत देवस्तुती संव्रमताना फावोतें संगीत घडूंक जाय आनी लोकान कार्याळ रितीन देवस्तुतेंत वांटो घेंवक आदार दींवक जाय।

v. लातीन भाशेंतलीं गितां मांयभाशेक भाशांतर करताना तांतलीं उत्रां संगीताक ताळ पड्चेपरीं जागरूतकाय घेंवक जाय। याजकान आनी हेर मणयारयांनी गांवचा गितांच्या उत्रांक विस्पांचे राश्ट्रीय मंडळेथावन मान्यता मेळोंक जाय। आदीं थावन गायल्लीं गितां तीं आतांच्या काळार सरी जाल्लीं वा ना म्हळळेंय निर्दार करूंक जाय। तशेंच गांवच्या संगीताचे संप्रदाय देवस्तुतेंत वापरयेत वा ना म्हळळें निर्दार कर्चोयी तांणींच।

vi. देवस्तुतेच्या गायानांत संगीत - व्हाजांत्रां व्हाजव्येत। व्हाजांत्रां पयकीं ओर्गनाक विशेस जागो आसा। पूण हेर व्हाजांत्रां विस्पाचे पर्वण्गेन वापार्येत। पूण, व्हाजांत्रां व्हाजयताना देवस्तुतेचो स्वरूप आनी देवमंदिराची पवीत्रकाय मतींत दवरूंक जाय। जर थोड्या व्हाजांत्रांचो उपेग लोकाचे संस्कृतेक सार्को वचना तर, तसलीं व्हाजांत्रां देवस्तुतेंत वापर्चीं न्हय। देवस्तुतेंत वापर्चीं व्हाजांत्रां देवस्तुतेची सोभाय चडंवक आनी लोकाक आपलीं काळजां उवार्न देवाक हरसूंक आधार जांवक जाय। पुण याजकान मिसाचीं मागणीं गायताना केदिंकच व्हाजांत्रां व्हाजंवचीं न्हय।

vii. देवस्तुतेंत संगीताचें मार्गदर्शन दींवक हरेक दियेसेजिंनी "संगीताची समिती" आसोंक जाय वा ती देवस्तुतेच्या समितींत मेळोंक जाय। हे समितेंत देवस्तुतेच्या संगीताचे जाणारी सांदे आसून, जोकतें संगीत मात्र देवस्तुतेंत शिपारस करूंक जाय।

"पवीत्र संगीत" दुसरे वातिकान विश्वसभेचें चिंतप विवरायेन दिता आनी विश्वसभेचें चिंतप नव्यान रचना। ह्या दस्तावेजांचेर होंद्वोन जायतें चिंतप संसोदन आनी तर्क जालां आनी आजुनयी जावन आसा। देकून, देवस्तुतेच्या संगीतगारांनी पवीत्रसभेन दिल्ल्या ह्या दस्तावेजाची सार्की आनी संपूर्ण सम्जणी नास्ताना, देवस्तुतेच्या संगीताविशीं तांची अभिप्राय उचार्ची न्हय। देवस्तुती पवीत्र सभेची आस्त आनी आमच्या भावार्ताचो संव्रम। हें चिंतप जुवांव पावल दुसरयान स्पश्ट केलां। देकून, देवस्तुतेचें संगीत आमचो भावाड्त संव्रम्चें एक माद्यम वा हातेर। देकून देवस्तुतेंत संगीतान भावाड्ताच्या घुटाचो सेवक जायजे, धनी न्हय म्हण मतींत दवर्चें।

**लेककाचे अनुमतीन**

# "मंगळुरी कातोलीक देवस्तुतेचें संगीत" आनी "कोंकणी भक्तीक गितां"

**संशोधकः श्री संतोश डि'सोजा, निर्मार**

## संगीताची विशिश्टता...

देवान मन्शाक ताच्या सारक्या आनी रुपान रचला। देकून देव मन्शाचो रचनार, पूण संगीताक मन्शान रचलां। देकून संगीताचो रचनार आनी देवान रचल्ली ही सुंदर प्रितुमी संगीत शिकयिल्ली आनी शिकंवची शिक्षकी जावनासा। सकाळिंची प्रितुमिची सोवाय, सुकण्यांचीं गायनां, सुर्याचीं किर्णां, सांजेचें प्रशांतपण, रातिचें मोनेपण, दर्याचीं ल्हारां, वागितलीं फुलां, न्हंयच्या उद्काचो व्हाळो, दोंग्राचो टाळो, मळबाचो रंग, रानांतलें भंडार तशेंच ह्या प्रकृतेंत जांवची दिग्पड्ती आनी वेळाकाळाची वद्लावण ही सगळी मनशाक संगीत शिकयता मात्र न्हय हीं विसमितां पळेवन मनीस देवाक उपकारी मनान गांवक प्रेरण दिताशें भोगता।

संगीत मनशा जिवितांत फट जांवक सकनातल्लें सत। मनशा संसारांत संगीत महतवाचो वांटो घेता जाल्ल्यान, मनशा जिवितांचे अविभाग अंश ते। देकून मनीस आनी संगीत एकच वेक्ती।

"अख्ख्या संसारांत अती ऊंच पांवड्याची कला - विद्या, संगीत-गायन" म्हण्ता प्लेटो।

"संगीत-गायन जितलें रंगीत मनशा जिवीत तितलें सोभीत" वरयता पुराण।

"जीं गायतात, तीं दोन पावटीं मागतात" उद्गारतात भकतीगण।

"संगीत गायनाविणे, खाली-रितें मनशा जिणें" वर्णितात कविलोक।

**"सगळ्या नमुन्याचे पिडे-रोगाक, खंती-हुसक्यांक, बरयांत्लें बरें संयबीक ओकत, संगीत-गायन"** पुरावे दितात वयज-पंडीत।

संगीतान प्रवेश कर्नातल्ली सुवात ना... मोग-हासो, दूक-संतोस, संगीत-गायनाक सिमीत गड ना, जात-कात ना, वेळ-काळ ना, उदेंत-अस्तम्त ना। संगीत देणे तें सृष्टेचें निर्मोणे। देकून तिच्या विशाल सागोरांत जल्माक येतात - गितां, पदां, गायनां, कवनां, कंतारां, इत्यादी...

थगवळ मनशांनी तांच्या सम्जणे, संस्कृती आनी वेळा-काळाच्या परिधेंत संगीत रचलां आसनां संगीत एक संस्कृतिचें प्रेम्तकाय सेजचें विधान म्हण्येत। प्राचीन संस्कृतिंनी (मोहांजेदारो, हरप्प, चीना, मेसपोतेमिया, ईजीप्त) संगीताक महत्व आसल्लें। आनी तसलें संस्कृतिचें सट्ट उंचलें म्हणच्याक दुबाव ना। दक्षीण भारतांत कर्नाटीक संगीत आसा तर, उत्तर भारतांत मेसपोतेमियाच्या संस्कृतिच्या प्रेरणाखाल पर्सिया मुकांत्र हिंदुस्थान संगीताचें रूप आसा। गांवच्या संस्कृतेंत रायांच्या पोटोर्नपणाखाल देशीय संगीताक पुरस्कार मेळा। आनी संगीत वाडलां।

देकून भारतीय संगीत आमचें पुरातन आनी उंचल्या संस्कृतीक एक थीक तशेंच धार्मीक संगीताक एक बुन्याद।

संगीत ताळयांची भास। कशी एक भास संपर्काक एक हातेरी तशेंच संगीत आमचीं भोगणां, सिंतिमेंतां आनी भावनां हेरांक व्यक्त करची एक विशीश्ट हातेर। संगीत भाशेंत विवीद रुपां आनी व्यत्यास आसात तरी संगीताचो मुळावो उद्देश देव, मनीस आनी प्रकृतेलागीं आमचो संबंध कसलो म्हण कळच्याक. तशें जाल्ल्यान त्या उद्देशाक लागोन वाल्मिकीन रनाच्या वातावरणांत महाभारत लिकल्लो जाव्येत! रनां-वनांच्या परिसरांत आपणाकच विसरून सिद्धार्थ बुद्ध जाल्लो जाव्येत! आनी आमचे ऋशी पर्वतांचेर आनी रनांच्या परिसरांत मगून जावन देवर्वीक अन्वोग जोडूंक सकले जाव्येत। निजायकी प्रितुर्मी आमकां जायतें शिकयता आनी संगीताचो खरो अनवोग जोडिशें करता। तशें जाल्ल्यान संगीत खंच्यायी प्रयोगालयांत सोदून काडूंक असाद्य। वगार प्रितूमे थावन व्हांळोन येंवची ही एक स्वाटीक भास।

आमच्या कोंकणी धार्मीक संगीतांत 'देवस्तुतेचें संगीत' भोव विशेस आनी विशीश्ट म्हण्येत। देवस्तुती गायना वगवर केल्ली, आमचीं काळजां आनी मनां देवाथंय उबारतां आनी देवाक दिल्वासूंक आधार जाता। दुसऱ्या वातिकान विश्वसभे फुडें लातीन भाशेच्या देवस्तुतेंत रजार आनी कंतार मीस म्हण दोन रुपांचीं मिसां आसल्लीं। रजार मिसांत कंतार नातल्लें (कंतारां उणीं आसल्लीं म्हण्येत). पूण कंतार मिसांत चडावत कंतारांतच मीस भेटयताले। दुसरे वातिकान विश्वसभेन (देव स्तुतेचें दस्तावेज नं. 112-113) देवस्तुतेचो संभ्रम आनी संगीताचो पात्र वरवन पळयला आनी विश्वसभेच्या नव्या चिंतपाचेर होंदून संगीताचें चिंतप वदलिलां। ह्या दिशेन पाटल्या वर्सांनी दस्तावेजां, अद्ययन आनी संशोदनात्मक चिंतप व्हाळळां आसतां देवस्तुती पवीत्र सभेची आस्त। ती कशी संभ्रमूंक जाय म्हळळे विशीं पवीत्र सभा निर्दार करता।

देवस्तुतेचें संगीत, धर्मीक आराधन संभ्रमुंक, फेस्ताचे उत्सव संभ्रमूंक वातावरण निर्माण करता। आनी भक्तिचें चिंतप दिता। देकून धार्मीक कार्यें संगीताविणें संपूर्ण जायना। धार्मीक कार्यांनी कंतारां, भजनां, भक्तीक गितां महत्वाचो वांटो घेतात। थोड्या वर्सां आदीं आमचीं समाजीक कार्यीं पयांत कंतारां कीतनां मुकांत्र आरंभ जातालीं आनी संपतालीं। रेसाच्यो वा लग्नाच्यो वोव्यो धर्मीक चितप आटापताल्यो। जाल्यारी धर्मीक संगीत आनी हेर कार्यांच्या संगीतामधें आदीं व्यत्यास आसल्लो। पूण आजकाल आमच्या भसिल्ल्या संस्कृतेंत शिरकोन हो फरक विसरल्यावरी दिस्ता। ह्या वर्वीं आज खंयचें धर्मीक संगीत आनी खंयचें संस्कृतीक संगीत म्हळळें सांगोंक आमकां असाध्य जांवच्या परिसरांत आसीं आसांव।

## देवस्तुतेच्या संगीतांत पवीत्र पुस्तकांतलीं गितां

पवीत्र पुस्तकांत देवाचें उगडापण आनी मनशान त्या उगडापणाक दिल्ली जाप आसा। देवाचीं विचित्रां नियाळन मनशान देवाक काळजा थावन गायनांनी दिल्ली जाप पवीत्र पुस्तकांत धारळ आसा। देकून तांतलीं थोडीं परन्या आनी नव्या सांल्ल्यांतलीं घडितां हांगा विवर्सिल्यांत।

1. देवान मनशाक ताच्या सारक्या आनी रुपान रचलो। निजायकी मनीस सर्व रचनां पयकी वर्तो। आदांव एकसुरो जावन निराशी जालो। तवळ देवान ताची महिमा दया केली आनी ताका सांगातीण जावन एवेक रचली। एवेक पळेवन आदांव संतोस्लो आनी देवाक अर्गां दींवक काव्याळ उत्रांनी उदगारलो: हीं म्हज्या हाडाचें हाड आनी म्हज्या मासाचें मास!

नांव तिचें नारी, कित्याक नरा थावन तिका काडल्या (उत्पत्ती 2:23)

हें संसाराचें सुर्वेचें पयलें मोगागीत! देवाचीं उत्रां वर्णुचें सुर्विलें प्रेतन!

वुड्तुगांला थावन आपणाक आनी आपल्या कुटमाक राकल्ल्याक नोयेन आपल्या कुटमा संगीं गितां-गायानांनी अर्गां दिलीं। उतर प्रायेर भुरग्याचें देणें दीवन धादोशी केल्ल्या अब्राहामान आनी सारान देवाक गितां गायलीं। पवित्र पुस्तक हे विशीं स्वश्ट विवर दिता।

2. इजिप्तांत कश्टोंच्या आपल्या लोकाक देवान मोयजे मुकांत्र पांय विजयनास्ताना दर्यांतलें उत्रायिल्लें घडित, परन्या सोल्ल्याचें महान घडीत। हें घडीत इस्रायेलाच्या भावाड्ताची वुन्याद म्हण्यंत। देवान तांकां तांच्या दुस्मानाच्या पासांतलें राकलें मात्र न्हय, वगार तांच्या दुस्मानाची सकत नास केल्ली तीं ताणीं तांच्या दोळयां मुकार पळेली। असलें महान काम केल्ल्या देवाक ताणीं सांगाता मेळोन कीर्तन गायलें:

सर्वेस्पराक हांव कीर्तन गायतां, कित्याक महिमेवंत ताचें जयत घोड्यांक आनी घोड्या स्वारांक उडयल्यात ताणें दर्यांत... (निर्गमन 15:1-21).

3. इस्रायेलिचो दुस्मान कानानाच्या राया जाबिनक, देवोरा प्रवादिणेच्या प्रेरणाखाल अबिनोवामाच्या पुता वाराका मुकांत्र सल्वोणी मेळल्ले वेळीं, देवोरान वाराका संगीं अपुर्वायेचें गीत गावन देवाक हर्सिलें आनी इस्रायेलाक त्या गिताक ताळे मेळंवक उलो दिलो (न्याय कर्त 4:1-24 आनी 5:1-31).

4. हन्नाक लगन जावन सवार वर्सां भुर्गीं नातल्लीं। देकून ती निराशी जाल्ली। तरी सर्वेस्परलागीं विश्वासून मागचें तिणें रावंवक ना। शेकीं देवान तिका एक चेर्को भुर्गो दिलो म्हणोन तिका जाल्लो संतोस मीतमेर नातल्लो। तवळ तिणे केल्लें कीर्तन हें: "म्हजें काळीज सर्वेस्पर थंय उल्लास्ता" (1 स्यामवेल 2:1-10). हन्नाक देवाचें बरेंपण सम्जालें। देकून तिणें देवाक काळजांत थावन अर्गां दिलीं। सां लूक हींच उत्रां विंचून मरियेचें स्तुती कीर्तन रचता।

5. परन्या सोल्ल्यांतलीं 150 कीर्तनां, जुदेव देवस्तुतेचीं मोलादीक गायानां, तेंपलांत वलिदान भेटयताना आनी हेर धर्मीक विधीं वेळीं जुदेवांनी हीं कीर्तनां गावन देवाक हर्सुचें आसल्लें। हीं कीर्तनां इस्रायेल पर्जे थंय देवाचो मोग आनी विश्वास्पण पर्गट्तात। तशेंच हीं कीर्तनां देवाथंय इस्रायेल पर्जेचो विश्वास आनी भर्वसो वेक्त कर्तात। तांतलीं थोडीं कीर्तनां दावीद रायान घडल्लीं म्हण्तात। तीं सर्व देवाची दया आनी सोडवण नियाळचे नसलीं।

. इस्रायेल बाबिलोनाचे बंधडे थावन पाटीं येताना, तांच्या धनियाच्या प्रभावान संगीत आनी संगीत व्हाजांत्रांयी शिकल्लीं। बंधडे उप्रांत इस्रायेलाक पाटीं पर्तानान तांकां देवाळ नातल्लें तरयी, ताणी कीर्तनां आनी संगीत गवोंवक ना (1 इतिहास 6:16-22, 15:16-24; 2 इतिहास 20:19). तांच्या मागण्याचो उद्देश देवाक हर्गुंचो आनी देवाचे भिरांतीन जियेंवचो जाल्ल्यान, अजुदेव देवस्तुतेपरीं संगीताच्या आवाजाक ताणीं गांवचें गायान देवाथंय उपकारी मन दाकंवक काळजा थावन उदेंवचें प्रार्तन म्हळळें चिंतप तांकां स्वश्ट आसल्लें, तरयी, संगीत आनी गायन तांकां एक विंचल्ली पर्जा म्हळळें चिंतप रुता करूंक आधार जाल्लें। तांच्या कीर्तनांचीं उत्रां, तांचो दयवीक अन्वोग आनी सोडवणेचीं विचित्रां उडास काडूंक हांकां प्रेरण जाल्लीं।

7. तोबिताच्या दोळयांक दीष्ट मेळल्लेवेळीं ताणे देवाक अर्गां दिलीं आनी संतोसान अर्गां दिंवचें गीत गायलें, म्हणोन "सदेंव जांव देव, सदेंव जांव ताचें वर्तें नांव, सदेंव जांव ताचे भागेवंत दूत..." (तोबीत 10:14-15). तोबिताचें स्तुती गायन (तोबीत 13:1-17). देवाच्या विचित्र कृत्यांचीं वाखवणी आनी उपकारी काळजाची धिन्वाग्णी आटाता।

8. जुडितान होलेफेर्नासाचें शिर कापून इस्रायेलाच्या दुस्मानांक सल्वायिल्ले वेळीं, आपली विंचणार पर्जा देवाची स्तुती गांवक फुडें सर्ली। जुडितान सर्व इस्रायेलितां मुकार अर्गां गीत गायलें आनी लोकयी तिचे वगवर स्तुती गांवक लागलो (जुडीत 16:7-17). तिचें कीर्तन देवाचीं महिमा गायता आनी देवाथंय इस्रायेलाचो भावाड्त पर्गट्ता।

9. प्रवादिंचीं स्तुती कीर्तनां माहितीक तरयी, तीं देवाचीं विचित्रां कृत्यां वर्नितात। दानियेलिचें स्तुतिकीर्तन (दानियेल 2:20-23). देवाची महिमा वर्णिता। तशेंच नेबूकड्नेझ्झर गायान ताच्या भांगारचे इमाजीक आराधान कर्नातल्ल्या शूद्रांक, मेशक आनी अबेदनेगो हांकां उज्याच्या आगट्यांत उडयिल्लेवेळीं, ताणीं देवाची स्तुती केली आनी ते उज्या थावन शाबीत उर्ले (दानियेल 3:26-90). तांचें गायन आयकोन नेबूकड्नेजर राय थटक जालो। इस्रायेलाचो देव खरो देव म्हण तो ओपलो आनी उज्यांत भस्म जायनतल्ल्यांक ताणें ताच्या राजांत वेवेगळे हुद्दे दिले। परन्या मोलल्यांतलीं हीं घडितां, देवाक आमी कित्याक स्तुती करूंक जाय म्हळळया सवालांक थोड्या भागेवंत आनी देव भिरांतिच्या वेक्तिंनी केल्ल्या कीर्तनां आनी मागण्या मार्फात जापी दितात।

10. मरी, जेजुची मांय, देवाचीं विचीत्र कृत्यां मानून घेवन ताका, वर्णूक आमकां आदर्श आनी प्रेरण। तिका देवा बापान ताच्या पुताची आवय जांवक विंचलें आनी हें वर्तें भाग नियाळून मरियेन "म्हजो जीव सर्वेस्पराची व्हडवीक गाना" म्हण देवाक स्तुती कीर्तन गायलें (लूक 1:47-52). मरियेचें हें गीत आमी देवाचें बरेंपण वळकूंक आनी दिस्पड्तें तें मतींत हाड्न सर्वेस्पराक अर्गां दींवक बापारतांव। जें तिका फायो जालें तें तिचेबर्वी न्हय, बगार देवाचे कुर्पेन म्हण जाणासल्ल्या तिका, देवाक स्तुती कीर्तन गांवक साद्य

जालें! आज पवीत्र सभा तिच्या सांजच्या मागण्यावेळीं मरियेचें कीर्तन गायता आनी आमी देवाक हर्सुंच्याक आमकां प्रेरण दिता।

11. जाकरिया, स्नानीक जुवांवचो बापुय जातलो म्हळें देवदुता थावन समजल्लो। पूण तें तो पात्येलोना। देकून तो स्नानीक जुवांवच्या जल्मा पर्यांत मोनो जालो। जाकरी भुरग्या जुवांवक पळेवन देवाक होगोळसूंक फुडें सर्लो। ताणें देवाच्या बरेपणाचो अनवोग केलो। तशें आसतां, ताचीं मागणां आनी वावनां उचार्न देवाक हर्सूंक लागलो, म्हणोन "सदेंव जांव सर्वेस्पर, इस्रायेलाचो देव" (लूक 1:68-74). आज ताचें कीर्तन पवीत्र सभा तिच्या सकाळिंच्या मागण्यांत दिस्पडतें वापार्न देवाक वर्निता।

12. बेतलेहमांत जेजुचो जल्म देवाचो अपरिमीत मोग आमकां परगटता, हो घुट सर्गिंच्या दळवरांचो व्हड जमो, देवाक स्तुती करीत्त "महिमा देवाक अती उन्नतीं आनी शांती देवाक मानवल्यांत त्या मनशांक संसारीं" म्हण गायन करीत्त गोवळयांक कळयता। गोवळी ही बरी खबर आयकोन बेतलेहमाक गेले आनी खावणेर जेजू बाळकाक पळेवन त्या ल्हान बाळाथंय देवाचीं महिमा अनवोग कर्न देवाची स्तुती करीत्त पाटीं गेले (लूक 2:9-20).

13. सिमियांव आनी अन्ना देवाचीं विचित्रां मानून घेवन ताका हर्सूंक लागलीं। सिमियांव देवाचेर पात्येल्लो। क्रिस्ताक पळेल्लेखरीत हांव मर्चोना म्हण तो जाणा आसल्लो। देकून पवित्र आत्म्याच्या प्रेरणान बाळका जेजूक तो तेंपलांत भेटलो आनी 'सर्वेस्परा, आतां जाल्यार तुज्या चाक्राक समाधानान वचूंक दी' म्हण उदगारलो (लूक 2:29-32). अन्ना उतर प्रायेची। ती बाळका जेजूक पळेवन खुश जाली आनी देवाक वर्णूंक लागली (लूक 2:36-38).

14. सुर्विल्ल्या क्रिस्तांवांनी सांगाता मेळोन जेजुच्या जिवंतपणा खातीर देवाक अर्गां दिलीं (ध. कृ. 2:42). सुर्विले क्रिस्तांव जुदेव जाल्ल्यान तांणी पोरन्या सोल्ल्यांतलीं कीर्तनां क्रीस्तीय दिश्टीन दोकलीं आनी तांचे मुकांत्र देवाच्या विचीत्र कृत्यांक गितां गावन अर्गां दिलीं। उंडो मोडचें कार्य देवाक गितां गांवकयी आधार जालें (ध.कृ. 2:42-47). तशेंच तांणी क्रिस्ता वयर केंद्रीत आसचीं गितां रचलीं आनी गायलीं (1 तिमोथी 3:16; 2 तिमोथी 2:11; फिलिप्पी 2:6-11; कोलोस्से 1:15-20; उगडापण 1:5-8; 4:8-11; 5:9-16; 7:10-12; 19:1-8). अशें एवकरिस्ताचो संभ्रम देवाचो उपकार आटंवचो आनी जेजुच्या दुसऱ्या येण्याक राकचो संभ्रम जालो (1 कोरिंथ 15:28; उगडापण 22:11-20; फिलिप्पी 2:20).

सर्गाची देवस्तुती संसारी देवस्तुतेची संपूर्णता। देकून सर्गार खळनास्ताना संगीत, नवें गीत, मागणीं आनी अर्गां दिवचीं कीर्तनां आसात म्हळें उगडापण ग्रंथ आमकां कळयता (उगडापण 4:8-11; 5:11-14; 7:9-15). नव्या सोल्ल्याचें चिंतप जेजू मुकांत्र आमकां

सोडवणेचें देणें दिल्ल्या देवावापाक गितां गायानांनी होगोळमूंक आनी आमचें जिवीत देवाक मान्वोंचें गीत करूंक उलो दिता (एफेज 1:3-10). तर, पवीत्र पुस्तक देवाचीं विचित्रां नियाळन गितां गायानांनी तांची महिमा गांवक आमकां प्रेरण जांव।

कीर्तनांच्या पुस्तकाचें अध्ययन केल्यार, हीं सर्व कीर्तनां गायन पंगडान तशेंच लोकान संगीत व्हाजांत्रां संगीं देवस्तुतेवेळीं गांवचीं आसल्लीं म्हण स्पश्ट जाता (1 इतिहास 234:5, 30; की. 104, 111, 113, 118, 136). सकाळीं, सांजेर, यात्रीक पयणावेळीं आनी हेर संभ्रमांनी तांचो उपेग दागळ आसल्लो। अशें कीर्तनां जुदेव देवस्तुतेचो वांटो जाल्लीं। जेजुकर्यां कीर्तनां मोगाचीं जाल्लीं। नाणेंयी कीर्तनांचो उल्लेक केल्लो सुवार्तेंत आसा (9 लूक 22:2; 24:44).

आज पवीत्र सभा ह्या कीर्तनांक विशेस गत्रव दिता आनी आपल्या देवस्तुतेंत तिं गाता। संस्काराच्या संव्रमांत, हेर धर्मीक विधींनी आनी पवीत्र सभेच्या मागण्यांत कीर्तनांचो उपेग विशेस आसा। तीं जुदेव संस्कृते थावन उदेल्लीं तरयी, तीं क्रिस्ता थंय संपूर्ण जाल्यांत म्हळें पवीत्र सभेचें चिंतप।

अंतर गितां म्हणजे, कीर्तनांत आसचें संगीत देवस्तुतेक सहज जाल्लेवरी, जोक्तीं आनी साद्या संगीतान रचून अंतर गितांचीं तीन पुस्तकां देव स्तुतिच्या तीन वर्सांच्या वाच्पाच्या मांडावळे पर्माणे लोकाक गांवक सलीस जांवचेवरीं मंगळूर दियेसेजिच्या देवस्तुतेचें केंद्र जावनासच्या मंगळज्योतींत अंतर गितां पयलें वरस, अंतर गितां दुसरें वरस, अंतर गितां तिसरें वरस म्हळीं तीन पुस्तकां सोल्फां समेत पर्गट जाल्यांत।

पवीत्र पुस्तका थावन संगीत रुपार घडल्लीं अंतर गितां (कीर्तनां) ह्या पर्गीं आसात (हांगासर थोडीं मात्र दिल्यांत).

## परन्या सोल्ल्यांतल्या किर्तनां पुस्तका थावन

किर्तन 23-16

सर्वेस्पर म्हजो गोवळी
कांयच म्हाका उणें ना
पाचव्या चरवाच्या मयदानाचेर
विशेव घेंवक तो म्हाका दिता
शांत उदकालागीं तो म्हाका वर्ता
म्हज्या अतम्याक नवो जीव दिता
आपल्या नांवां खातीर तो म्हाका
नितिचे वाटेन चलयता।
काळक्या फालक्यांत हांव चलन तरी
कसलेंच वायट हांव भियेना
किल्याक तुं म्हजेसवें आसाय।
तुजो दांडो आनी तुजें वेत
म्हाका धयर दितात

## अंतरगीत की 83

दळवारांच्या आमच्या देवा, राया सर्वेस्परा
मांग मयपास किल्लो म्हाका मंदिराचो तुज्या

1. सर्वेस्पराच्या आंगणांत रावोंक हांव अत्रेगतां
संतोस्भरीत जिवान म्हज्या
होगळीक ताची गायतां

2. गिर्वुज्यांक मेळता विडार ते वेदिसर्शी
पारव्यांक थंयसर आसात
घोंटेर काड्च्याक पिलां आपलीं

3. तुज्या मंदिरांत रावता ते मनीस कितले भाग्गी
तुजो व्हड आधार सोधतले,
खंडीत जावून भाग्गी

## सुर्विल्या पवीत्र सबेंत देवस्तुतेचें संगीत

1. सुर्विल्ले क्रिस्तांव चडावत जुदेव जाल्ल्यान तांच्या सिनोगोगाचीं गितां आनी कीर्तनां सुर्विल्या क्रिस्तांव देवस्तुतेचो वांटो जाल्लीं। जेरुजलेमाच्या देवाळाचे देवस्तुतेक आनी क्रिस्तांव देवस्तुतेक लागशिलो संबंध नातल्ल्यान, सुर्विल्या क्रिस्तांवांचे देवस्तुतेंत देवाळाचो प्रभाव नातल्लो म्हण्येत। सुर्विल्या क्रिस्तांवांचें गायान सादें आनी जमो गायान म्हणच्याक दुवाव ना। व्हाजांत्रां घेंवक तांचेलागीं दुडु नातल्लो। सिनोगोगाच्या देवस्तुतेंत व्हाजांत्राक विशेस महत्व नातल्लें देकून, सुर्विल्या क्रिस्तांवांनी तांच्या गायनांक व्हाजांत्रां व्हाजयलिंनांत। तर्‍यी देवाचें उतर आनी मागणीं कंतारान म्हणची रिवाज तवळची जाल्ल्यान, सुर्विल्या क्रिस्तांवांनी तशेंच केलें म्हण्येत। हें आजूनयी आमच्या देवस्तुतेंत चालू आसा। मिसाचीं मागणीं याजक गायता आनी थोडीं गितां (महिमा, पवीत्र पवीत्र, देवाचे शेळिये, आमच्या बापा... आदीं सतमान्नां आनी बाचपां) याजका बराबर लोक गायता।
नव्या सोल्ल्या थावन वा हेर दस्तवेजां थावन सुर्विल्या क्रिस्तांवांनी तांचे देवस्तुतेंत कसलीं गायानां गायलीं म्हळें आमकां स्पश्ट समजना। तर्‍यी ते कीर्तनां आनी तांणी घडल्लीं क्रिस्ता केंद्रीत गितां गायताले म्हण समजव्येत (कोलोस्से 3:16; एफेज 1:4-14; फिलिपफी 2:6-11 आनी कोलोस्से 1:15-20)

2. सुर्विल्या क्रिस्तांव घरांनी एवकरिस्त संभ्रमताले। तशें जाल्ल्यान तांच्या संभ्रमांत विशेस गायान आसोंक कारण ना। पूण सवकास असल्या ल्हान जमातिंनी नवीं कंतारां उदेलीं आनी वैयक्तीक जावन आपलो भावार्त गिता मुकांत्र पर्गटूंक आवकास उदेलो।
सुर्विल्या क्रिस्तांवां मधें नवीं गितां आयलीं। हीं गितां कावयाळ नेमांक सरी जावन घडल्लीं

जाल्ल्यान (एकाच लेकाच्यो वोळेरी, प्रास, सब्दांची मांडावळ आनी चार वा तीन वोळींचे वेर्स) ताळा तेकीद संगीत वसंवची गर्ज पडली। पूण कीर्तनांक वा गितांक असल्या काव्याळ नेमांची मांडावळ नातल्ल्यान, संगीताचो ताळो थंय हांगा सुटार्सिजे पड़तालो। पूण नव्या जमातेन गांवक सलीस जालें दुसऱ्या शेक्ड्याचे सुर्वेर असलीं गितां आयकल्लो टाकटो प्लीनी, रोमाचे चक्रवर्तेक वर्दी वरवन "क्रिस्तांव क्रिस्ताक 'देव' म्हण चिनून तांचे मधें दोन पंगडांनी एका उप्रांत आनयेक पंगड गितां गायतात" म्हण्टा। तवळचें एक गीत अशें आसा:

सांताभक्तांच्या राया,
वापाच्या सर्व पदवेदार सब्दा
जाणवायेच्या मुकेल्या आनी मस्तका
सर्व दुकां पुसून काड्तल्या
सर्व वेळाकाळाच्या आनी जागयांच्या धन्या
जेजू, आमच्या कुळियेच्या सोडवण्दारा



सुर्विल्या चार शेक्ड्यांनी वेवस्तीत रितीन देवस्तुती नातल्ली। तशें जाल्ल्यान देवस्तुतेचे उल्लेक, गायान मंडळी, कीर्तनगार, गावपी वा व्हाजांत्रांगारांचे प्रस्ताव नांत। एवकरिस्ताच्या जमानेचे अद्यक्श वा वाचपांच, देवस्तुतेंत गायानांचें मुकेलपण घेवन लोकासांगाता मेळोन एक कुटाम जावन देवस्तुती चलयताले म्हळें आसी सम्जव्येत। अशें अख्खी देवस्तुती, वाचपां आनी मागणीं वाचून, गायानांनींच चल्तालीं म्हण पातयेव्येत। तर्यी सुर्विल्ल्या क्रिस्तांवांनी देवस्तुतेच्या गायानांत संगीत व्हाजांत्राक चडीत महत्व दीवक ना।

अलेक्सांड्रियाच्या क्लेमेंतान (150-216) देवसभेंत कोंव, विणें आनी पिर्लुके तसलीं व्हाजांत्रां व्हाजंव्चीं न्हय म्हण तार्कीद दिल्ली। तसलीं व्हाजांत्रां मोनजातींक संतोस करूंक आसचे तसलीं शिवाय मन्शांक सहज जाल्लीं न्हय म्हण ताणें सांगल्लें। तशेंच कीर्तन 150-व्यांत सांगल्लीं व्हाजांत्रां काव्याळ चितपाचीं जाल्ल्यान तीं कीर्तनां गाताना वापर्चीं न्हय म्हण तार्ची अभिप्राय। तशें जाल्ल्यान सुर्विल्ल्या क्रिस्तांवां मधें संगीत व्हाजांत्रांक विशेस महत्व नातल्लें! अक्रिस्तांवां मधें तांच्या फेस्तांपर्वेवेळीं व्हाजांत्रांचो विशेस आवाज आनी गलाटो आसल्लो। तशें जाल्ल्यान सुर्विल्ल्या पवीत्र सभेक संगीत व्हाजांत्रां विरोद शिकयल्लें जाव्येत!

4. पांचव्या शेक्ड्याचे सुर्वेर कोन्स्टेंटायन चक्रवर्तिच्या वरंपणान पवीत्र सभेक दरधोवर्णी रावली आनी सांगाताच आयताराचे देवस्तुतेक कुसोक जावन रजा, सयांचीं सालां आनी हेर सवलतायो लाभल्यो। नवीं स्हा-मंदिरां आनी देवस्तुतेंत व्यवस्तीत रीतयी आयली। हाचो परिणाम जावन देवस्तुती संभ्रमीक आनि फेस्ताच्या वातावरणांत वदल्ली। विस्प

देवमंदिरांत प्रवेस जातानां. सय ताच्या दर्वाराक प्रवेस जातानां गायान मंडळीन गांवच्या गितां प्रास प्रभावीत जावन, विस्पाच्या मानाक गीत गांवची रिवाज आयली। देवस्तुतेंन पुशांव आयलें। हाचो फळ जावन वेवस्तीत रितीन गायनां गांवक गायन मंडळी अस्तित्वाक आयली। ह्या गायन मंडळेंत प्रवेस जोडूंक ल्हान थावनंच तर्वेती जोडून गायानांत प्रवेश जांवक आसल्लें। पूण स्त्रियांक हें मंडळेंत प्रवेस नातल्लो। अशें, देवस्तुती संभ्रमीक जाली आनी फुडल्या शेकड्यांनी गायन मंडळेन मात देवस्तुतेंत गितां गांवचीं म्हळें चिंतप उदेलें। हाचो फळ जावन गुर्विल्ल्या शेकड्यांत आसल्ली लोकांची देवस्तुती आतां याजकी वर्गाची जाली!

5. रोमाचे पवीत्र सभेन उप्रांतल्या शेकड्यांनी संगीत रूप रचलें आनी तें रोमी देवस्तुतेंत कायाम जालें। हें संगीत रूप पापा ग्रेगोरी वर्तो (590-604) हाच्या प्रेतनान आनी उत्तेजनान लोका मोगाळ जालें। देकून ह्या रुपाक "ग्रेगोरियन संगीत" म्हण नांव दिलें। अशें उत्रांक सहज जाल्लें संगीत व्हाळळें आनी देवस्तुती जिवाळ जाली। फुडें ग्रेगोरियन संगीत रूपांतर्यी आलापान आनी सजवणी उदेली आनी एकांडें आनी जमो गायान जलमलें। हाचो परिणाम जावन आतां उत्रांच्याकर्यी ताळो मुकेल जालो। शेकीं, ताळया तेर्कीद उत्रां सोड्चें वा दोड्त्यान गांवचें पडलें। अशें, गुर्विल्ल्या पवीत्र सभेंत देवस्तुते वेळार आसल्ली सलोसाय आनी कुटमाचो मनोवाव लिपोन, संप्रमीक आनी याजकी वर्गाचो प्रवाव उदेलो।

## पवीत्र सबेच्या बरयणारांच्या चिंतपा प्रकार देवस्तुतेचें संगीत

गुर्विल्ल्या शेकड्यांनी पवीत्र सबेच्या शिकोवणदारांनी आनी बरयणारांनी देवस्तुतेच्या संगीता विशीं जायतीं शिकवण आनी जागरूतकाय दिल्या। पवीत्र सभेच्या शिकोवणदारांपयकी सां एफ्रेयाम, सां आंब्रोज, सां अगोस्तीन, सां बाजील, अलेक्सांड्रियाचो सां क्लेमेंत आनी सां जुवांव क्रिसोस्तोम हांचीं चिंतपां देवस्तुतेच्या संगीताचो अर्त शिकोंक आधार जावनासात। देवस्तुतेंत संगीत, भावाड्त दृड करूंक आनी भावाड्त्यांक एक कुटम जावन लागीं हाडूंक प्रेरण म्हण तांचो जेराल अभिप्राय।

1. **सां एफ्रेम (306-373):** सां एफ्रेमाक "उदेंतिच्या पवीत्र सभेंत देवस्तुतेच्या गितांचो बापुय" म्हण गत्रव आसा। ताणे सवार गितां लिकलीं आनी ह्या गितां मुकांत्र देवाचें उतार जियेंवक प्रेरण दिलें म्हण चरित्रा आमकां सांगता। ताचा काळार जायतीं चूक शिकवण आसल्लीं। तीं चूक शिकवण सार्की करूंक तवळच्या काळार अक्रिस्तांवां मधें आसल्ल्या गितांच्या माध्यमाचो उपेग कर्न ताणे सिरिया भाशेन गितां घडलीं आनी हीं गितां लोकामोगाळ जालीं। क्रमेण ह्या गितां मुकांत्र ताणे खरी शिकवण परगटली। सां एफ्रेमाच्या चिंतपा प्रकार देवस्तुतेवेळीं गांवचीं गितां देवाचो अन्वोग जोडूंक आनी भावाड्त्यांचीं काळजां देवाथंय उबारूंक आधार। देकून ताणेंच जावन गितां घडलीं आनी त्या गितां मुकांत्र खरी भावाड्त वोंपलो। सां एफ्रेमान 500 वयर गितां रचल्लीं। ताचीं

गितां श्रेश्ट चिंतपाचीं। देकून ताका 'पवीत्र अतम्याचें विणें' म्हण लोकान आपंवक सुरु केलें। ताचें एक गीत अशें आसा:

देवाथावन आयलें क्रिस्ताचें देवपण
मन्शाकुळा थावन आयलें ताचें मन्शापण
मेल्किसेदेकाथावन व्हाळळें ताचें याजकपण
दाविदाथावन उदेलें ताचें रायपण
हर्सिल्लो जांव ताचो हो वागी एकवोट!
सयरयांसंगीं तो लगना-जेवणाक बसलो
तरयी अरण्यांत ताणे उपास केलो
देवाळाच्या दार्वट्या भितर ताणे शिकयलें
ताच्या लोकान ताणे मरचें पळेलें
हर्सिल्ली जांव ताची भागी शिकोवण!

2. **सां आंब्रोज (339-397):** सां आंब्रोज अस्तमेच्या पवीत्रसभेंत देवस्तुतेच्या गितांक नांवाडला। मिलान दियेसेजिचो बिस्प जावनास्ताना, ताणे गितां घडलीं आनी तीं भावार्त थीर करूंक वापार्ली। ताणे गायनाविशीं उल्लेक कर्न "देवपर्जेक तें एक वेसांव, देवपर्जेचो ताळो रातीं एक हातेर, दिसाक शिक्षक आनी एकामेकाक सांगात" म्हळें। सां आंब्रोजाक "अस्तमतेचे पवीत्र सभेचो म्हा कवी" म्हण्तात। ताच्या उप्रांतल्या गितां-घड्नारांनी तांचे कवितेंत साहितीक रुपाक गुमान दींवक नातल्लें। पूण सां आंब्रोजाचीं गितां काव्याळ आनी साहितीक, ताणे लिकल्लें एक गीत अशें आसा:

सारणाच्या देवा, सर्व वस्तुंच्या रचनारा
तुं दीस आनी रात आसा कर्ताय
थकल्ल्यांक तूं विशेव दिताय
आनी वेळाकाळाक सर्व फावो कर्ताय
कोंब्याचो साद आतां दीस पर्गट्ता
आनी सुरयाक ताका जागंवच्या किर्णांक आपयता
वाट्सुरया यात्रिकांक गर्ज आसच्या उज्वाडान
रातिचीं हरेक वोरां तो लेक घाल्ता।

3. **सां अगोस्तीन (354-430):** सां आगोस्तिनान संगीताविशीं प्रस्ताप काड्न खरया क्रिस्तांवांनी नवें गीत गांवक जाय आनी नव्या मन्शापरीं जियेंवक जाय म्हण शिकयलें। नव्या मन्शापरीं जियेंवचें मात्र जेजूक मान्वता आनी तसल्यांनी मात्र नवें गीत गांवक साध्य म्हळें ताचें चिंतप। देवाच्या उत्रांवरावर संगीत वा गायान मन्शाच्या अतम्याक पावजे; तशें जाल्यार मात्र देवस्तुतेंत संगीत वा गायान अर्तार्भरीत जाता म्हण ताचो वाद।

सां अगोस्तिनाच्या काळार देवस्तुतेचीं गितां इतलीं मधूर आसल्लीं कि, तीं आयकाताना अगोस्तिनाक संतोस जातालो। देवस्तुतेच्या गितांच्या ताळ्या आनी संगीताप्रास, जें कितें गायतात तें आमी आयकोंक आनी नियाळूंक जाय म्हण तो आमकां स्पश्ट कर्ता। "भोगार आसच्यांनी मात्र गितां गावयेत" म्हळ्ळी अगोस्तिनाची सांगणी, देवाचो भोग मात्र आमचे देवस्तुतेचें गायान सार्तक कर्ता म्हळ्ळें दाकयता। देवाचो अन्बोग जोडल्ले मात्र गायनां गांवक, आतमीक शिकोवण शिकोंवक फावो जाल्ली संतोसभरीत आनी विश्वासाची वेक्ती म्हण तो वर्णिता। तसल्या मन्शांचें मागणें देव आयकता आनी तांकां सर्गिंचीं दारां उगड्ता म्हण ताणे शिकयलें। अशें देवस्तुतेंत आमी गांवचें गीत येंवक आसच्या सर्गिंचे देवस्तुतियेची रूच दिता म्हण ताचो विचार।

4. **सां बाजील (330-379):** कीर्तनां गायान केल्लेववीं भाव-भांदवपण, बरेपण, इश्टागत आनी राजी संधान साध्य म्हण सां बाजिलान शिकयलें। सर्गीं देवदूत देवाची महिमा गायतात। तशें जाल्ल्यान सर्गार वचोंक खुशी आसल्ल्यांनी गितां गांवक जाय म्हण ताणे उत्तेजन दिलें। आमी देवाक गितां गायिल्ल्यांत ताची वडवीक बिल्कूल चडना, बगार आमींच ताचे कुर्पेंत वाड्तांव म्हण ताणे शिकयलें। संगीताची सजवणी अंतस्कर्नाचे सजवणेचो घुर्त जायजे म्हण सां बाजिलान लोकाक जागयलें। देवस्तुती क्रियात्मक करूंक सर्वांनी गायानांत वांटो घेंवक जाय म्हण ताणे उत्तेजन दिलें। संगीताची सजवणी अंतस्कर्नाचे सजवणेचो घुर्त जांवक म्हण सां बाजिलान लोकाक जागयलें। देवस्तुती क्रियात्मक करूंक सगळ्यांनी गायनांत वांटो घेंवक जाय म्हण ताणे वत्ताय केली। हेंच चिंतप आज आमचे देवस्तुतेंत आसा!

5. **अलेक्सांड्रियाचो सां क्लेमेंत (150-216):** अलेक्सांड्रियाच्या सां क्लेमेंतान क्रीस्त आमचें नवें गीत आनी हें गीत सर्व अक्रिस्तांव गितां प्रास वर्तें म्हण शिकयलें। तशेंच क्रिस्ताचें नवें गीत, सर्व वायटांचेर जयत व्हर्ता आनी तशें करूंक ताच्या पाटलावदारांनी तें जिणियेंत गांवक जाय म्हण ताणे सांगलें।

   क्रिस्तांव गायानां आनी अक्रिस्तांव गायानां मद्लो व्यत्यास ताणे दाकयलो आनी क्रिस्तांव गायानां नवीं गायानां, कित्याक तांचीं उत्रां बापा थावन आयल्यांत आनी जेजू, "सर्व वाजांत्रांप्रास उत्तीम". म्हण ताणे पर्गटलें। तशेंच पवीत्र अतम्या मुकांत्र नवें गीत गांवक देवान मांडावळ घाल्या आसतां, आमचीं गितां आमी देवावापाचे महिमेक गांवक जाय म्हण ताणे शिकयलें।

6. **सां जुवांव क्रिसोस्तोम (344-407):** "गितां गांवचीं म्हळयार देवाक आमच्या अतम्या थावन चड उत्तीम जाप दिंवची। आमी देवाक गितां गायिल्लेववीं आमी आमचो अतमो ताचे थंय उबार्तांव, आनी शेकीं आमकांच सर्व वायटांतलें निवार्न सर्गिंच्या देवस्तुतेंत वांटो घेंवक सक्तांव" म्हण जुवांवन शिकयलें।

7. सुर्विल्या चार शेक्ड्यांनी देवस्तुतेंत गायानाक महत्व आसल्लें। पूण संगीत वाजांत्राक महत्व नातल्लें। ह्या खातीर क्रिस्तांव देवस्तुतेंत लोकाजम्याचें गायानंच विशिश्ट जालें। पवित्रसभेच्या सुर्विल्या शिकोवणदारांनी, कानांक पिस्वोंचें संगीत पसंद केलें ना। आनी तसलें संगीत भावनाक आनी सिंतिमेंतांक जागयता। पूण अतम्याक दादोस्काय दीना म्हण अभिप्राय उचार्ली।

देवस्तुतेचीं गितां भावाड्त शिकंव्क आनी पर्गटूंक हातेरां जाल्ले वर्वि तीं नाटकीय आनी लोकाक गितां थावन विंगड म्हण चिंतूंक ताणी शिकयलें। तशेंच तसलीं गितां क्रिस्तांव समुदायांत एकवट, भावार्त आनी मायामोग हाडूंक प्रेरण जांवक जाय म्हण ताणी सांगलें।

## मध्यम काळाच्या देवस्तुतेंत ग्रेगोरियन संगीत

सातव्या शेकड्या थावन पंद्राव्या शेकड्या पर्यांतल्या काळाक मध्यम काळ म्हण्तात। ह्या शेकड्यांनी वेनेदिक्त मठवासिंनी देवस्तुतेचें संगीत एका रुपाक हाडूंक जायतो वाव्र केलो। तांचीं, सकाळीं आनी सांजेचीं मागणीं ते गायानाद्वारीं कर्ताले जाल्ल्यान तांचीं मठां संगीताचीं केंद्रां जालीं। ग्रेगोर वरत्या पापसायबान देवस्तुतेंत संपेपण आनी वेवस्तीत मांडावळ हाडली। ताचे खुशेप्रकार सादें आनी देवस्तुतेक सहज जाल्ल्या संगीताचें रूप उदेलें। हेंच फुडें ग्रेगोरियन संगीत जालें! हें संगीत सर्गिंच्या देवदुतांनी ताका सपणांत शिकयलें म्हण एक काणी आसा!

पांचव्या आनी सव्या शेक्ड्यांनी रायाळ प्रभावान आनी बेसांवान देवस्तुतेचें संगीत एका वर्गाचें जाल्लें: तांतूं अख्या लोकाक वांटो घेंवक असाध्य जाल्लें। देकून पापा ग्रेगोर वरत्यान देवस्तुतेंक सहज जाल्ल्या, उत्रांक महत्व दिंवच्या आनी भक्तिपण उदेंवक आधार जांवच्या संगीताक प्रोतसाव दिलो। पूण लोकालागीं गितांचीं उत्रां नातल्ल्यान आनी लोकाक वाचूंक कळीत नातलल्यान, तांणी गितांनी वांटो घेंवक अडकळ जाली। देकून मठवासिंनी गायताना लोकान आयकाजे पडलें! तरी आमच्या बापा, पवीत्र आनी देवाचे शेळिये तसल्या गितांनी लोकान वांटो घेतलो।

नोव्या शेक्ड्या थावन संगीताचीं सोल्फां बरंवची रीत सोदून काडली आनी वेनेदिक्तीन मठां संगीताचीं शाळां जालीं। हाचो फळ जावन रोमाचें ग्रेगोरियन संगीत युरोपाच्या हेर गांवांनी गेलें आनी क्रमेण लोकामोगाळ जालें। तवळ युरोपांत दाराळ मठवासी आसल्ल्यान हें सलीस जालें।

सुर्विल्या मध्यमकाळाचे पापसायब चडावत मठवासी जालल्यान, तांणी ग्रेगोरियन संगीत खूब प्रचार केलें। पूण तवळ देवस्तुतेंत कुटमाचो स्पिरीत उणो जावन खासगी मिसां बेटंवची रिवाज उदेल्ल्यान, मिसार कंतारां रावलीं, गायान मंडळी मायाग जाल्यो आनी देवस्तुतेच्या गितांची गर्ज ना जाली। उप्रांत संसारी चिंतपाचे आनी राजकीय मनोभावाचे पापसायब आयले। असल्या संदर्भार देवस्तुतेच्या संगीतांत संसारी आनी मनोरंजनाची रूच आयली। हें संगीत देवाच्या उत्राच्या नियाळाक जांव, अतम्याची धादोस्काय आनी भक्तिपण रुता करूंक जांव सल्वलें।

ह्याच शेक्ड्यांनी सांतां-भक्तांचीं फेस्तां, नोवेनां, भक्तिपणां आनि हेर देवासावां उदेलीं ह्या देवासावांक आधार जाव्न भक्तीक गितां घडलीं। पूण चडावत गितां लातीन भाशेन आसल्ल्यान आनी देवस्तुतियी लातीन भाशेन आसल्ल्यान, तीं पवित्रसभेच्या मणियारयांनी मात्र गायलीं।

तवळचे नांवाड्दीक संगीतगार मनोरंजनाचें आनी धर्मीक चिंतपाचें संगीत घड्ताले। तशें जाल्ल्यान तांणी रचल्ल्या संगीतांक भक्त आनी देवासांव उणे आसल्लें। देवाच्या उत्राक जांव, देवस्तुतिच्या भावनांक जांव तीं पूरक नातल्लीं। अशें, लोकाक कंतारां म्हणोंक कश्ट मार्ताले। हें पळेव्न मार्टीन लूथर ना खुशी जालो। देवस्तुती लोकाच्या भाशेंत आस्ल्यार तांतूं हर्येकल्यान वांटो घेव्येत म्हण ताणे ताची अभिप्राय उचार्ली। देवस्तुतेचें संगीत आमचेंच म्हळ्ळें एक मागणें आनी देवान आमकां कितें केलां तें उगडासाक हाडूंक तशेंच त्या पासून अर्गां दिंवक आसचें म्हण ताणें वाद मांडलो। देवाच्या उत्रांचेर गितां गांवक ताणे उलो दिलो आनी देवस्तुतेच्या गितांथावन भावाड्त शिकोंक जाय म्हण ताणे आपलें चिंतप मंडन केलें। देकून संगीताप्रास चड उत्रांक प्रादान्यता दिली।

पवीत्र पुस्तकाचो संदेश लोकाक कळोंवक मार्टीन लूथरान (1483-1546) संगीताचो बरो उपेग केलो। खुद्द संगीतगार जाव्नासल्ल्या ह्या आगोस्तीन मठ्ठासीन पवित्र पुस्तकावयर थरावळ गितां रचलीं आनी साद्या संगीतान तीं सजयलीं। अशें तवळच्या तरनाट्यांक अर्ताभरीत गितां गावन कीळ मट्टाचीं गितां सांडूंक साद्य जालें। कातोलीक पवित्र सबेचेर उप्राटल्ल्या उप्रांत ताणे रूपीत केल्ल्या प्रोतेस्तांत पवित्र सभेंत ‘पास्टर’ जांवच्या उमेद्वारांक संगीताचें देणे गर्जेचें जालें। तशेंच तांच्या देवस्तुतेच्या संब्रमांनी अख्या लोकान गितां गांवची रिवाज सुरू जाली आनी ती उप्रांत कायाम जाली।

त्रिदांतीन महासभेन (1545-1563) देवस्तुतेंत संगीताविशीं तर्क केलें। हे सभेर दोन अभिप्रायो आसल्ल्यो। पयली, देवस्तुतेंत संगीत रद्द कर्ची आनी दुसरी, संगीत सुदारण कर्ची। शेकीं, म्हासभेन देवस्तुतेच्या गायनांत फावो न्हय आसल्लें संगीत रद्द कर्चें म्हण निर्दार केलो। हाचो फळ जावन 1570व्या वर्सा तयार केल्ल्या रोमी मिसा ग्रंथांत मध्यम काळार घडल्लीं आनी ना फावो दिसल्लीं जायतीं गितां सोडलीं।

सां इनास लोयोलान घडल्ल्या जेज्वीत सभेंत संगीताक चड महत्व दिंवक ना। तरयी, त्रिदांतीन सभे उप्रांत तेदोळ पर्यांत एका ताळयान गांवचे गायान सबार ताळयांनी सजंवचे सुरु जालें (1526-1594). इताली देशाच्या नांवाड्दीक संगीतगार जोवान्नी पियेर लूइझी दा पालेस्त्रिनान स ताळयांनी पापा मार्सेल्लिच्या मानाक मीस घडलें आनी तें लोकाक रुचलें।

अशें मध्यम काळार ग्रेगोरियन संगीतांत उत्रांक सहज जाल्लें संगीत व्हाळळें। क्रमेण ग्रेगोरियन संगीत रुपांतयी आलापन आनी सजवणी उदेली आनी एकोडें आनी जमो गायन जल्मालें। हाचो परिणाम जावन क्रमेण उत्रांच्याकयी ताळो प्रधान जालो। अशें मध्यम काळार साद्या संगीता थावन संभ्रमीक ताळयांनी सजयिल्लें संगीत रुपाक आयलें।

आयच्या देवस्तुनेंत आमचो चार संभ्रमाचो गीत म्हण्जे 1) सुर्विली गीत, 2) देवाच्या सवदाचो संभ्रम, 3) अर्गां वलिदानाचो संभ्रम, 4) संपणेची गीत ह्या मांडावळेंन याजक आनी लोका मधें आसच्यो उद्गारपण आनी जाप हें सगळें ग्रेगोरियन संगीत रुपार आमकां आयकोंवक मेळता।

## मांय भाशेंत देवस्तुती आनी संगीत (संविदान)

दुसरे वातिकान विश्वसभेंत देवस्तुती मांयभाशेंत जांवचेविशीं प्रस्ताप आयलो। थोडे विस्प हाका विरोद आसल्ले। शेकीं, देवस्तुतेची भास लातीनंच; पूण, मांयभास फायद्याची जाल्ल्यान, थोडी स्वियायती दीव्न देवस्तुती मांयभाशेन कर्येत म्हण जालें (देवस्तुतेचें संविदान, 36). ह्या विश्वसभेंत देवस्तुतेच्या संगीताविशीं तर्क जालें। मांयभाशेंत मीस तर मांयभाशेंतच गितां गांवचीं पडतलीं म्हळें चिंतप उदेलें। शेकीं, 1963 दसेंवर 4वेर संगीताविशीं, देवस्तुतेच्या दस्तावेजांत सवो अध्याय रचलो। तो ह्या परीं आसा:

112. संगीत पवीत्र सभेच्या सर्व कलेप्रास वर्ते आनी एक अमोलीक दिर्वे। संगीत उत्रां संगीं संभ्रमीक देवस्तुतेचो गर्जेचो आनी वेगळो करिना जांवचो वांटो जाल्ल्यान, संगीताक देवस्तुतेंत विशेशता येता। देकून, पवित्र पुस्तक, पवित्र सवेचे सुर्विल्ले म्हान सर्वांस आनी आर्विल्ले पापसायव प्रत्येक जावन पापा पियुस धावो, देवस्तुतेंत संगीताची सेवा अपुर्वायेन विर्वास्तितात। कितल्या मापान संगीत देवस्तुतेक होंद्दोन आसा, मागण्याक प्रेरण दिता, मनां एक्वोटोक कारण जाता आनी पवीत्र रितिचो संभ्रम पर्गटूंक आदार जाता, तितल्या मापान तें पवीत्र म्हण सम्जोचें। तरयी पवित्र सभा फावोल्या संगीताच्या रुपांक गवरव दिता आनी देवस्तुतेंत जागो दिता। देकून ही विश्वसभा, पवित्रसभेचो उद्देश, देवाची महिमा आनी देवपर्जेची पवित्रकाय मानून घेवन, अशें शिकयता:

113. पवित्रसभेच्या मणियारयांसंगीं देवपर्जेन कार्याळ रितीन पवित्रसभेचें मागणें संभ्रमान गायान केल्लेवेळीं देवस्तुतेचें घन चडता। देवस्तुतेच्या गायानांच्या भासे विश्यांत (देवस्तुतेचें संविधान, 36), पवित्र मिसाच्या वलिदानाविशीं (34), पवित्र संस्कारांच्या संभ्रमांक(63) आनी पवित्रसभेच्या सकाळीं-सांजेच्या मागण्याक (101) पाळचें।

पवित्र सभेचें संगीतादिर्वे जतनेन सांवाळूंक आनी ताका प्रोत्साव दिंवक विशेस म्हिनत घेंवक जाय, प्रत्येक जावन काथेद्रालांनी गायान मंडळी आसा करूंक जाय। पूण पवित्र रिती गायानांनी संभ्रमताना देवस्तुतेचें संविधान 28 आनी 30 उल्लेक कर्चा नशें, अख्खें देवपर्जेन तांतूं कार्याळ रितीन वांटो घेंवक तांकां कायदो आसा म्हळें मनींत धर्न, विस्पांनी आनी हेर मणियारांनी हे दिशेन विशेस प्रेतन करूंक जाय।

115. सेमिनरी, नोविशियेटांनी आनी हेर धर्मीक शिक्षासंस्थ्यांनी देवस्तुतेच्या संगीताची तर्वेती दिंवक आनी शिकंवक विशेस प्रेतन करूंक जाय। हे दिशेन फावोल्या शिक्शकांक

तर्वेती दिंवक जाय आनी तांकां हेरांक तर्वेती दिंवक नेमक करूंक जाय। खंयसर साध्य आसा थंयसर, संगीतांत उंचलें शिकप जोडूंक संस्थे स्थापन करूंक जाय आनी संगीत घडणारांक, गावप्यांक विशेस जावन चल्यांक, देवस्तुतेंत तर्वेती दिंवक जाय।

116. सर्व संगीताचीं रुपां देवस्तुतेक फावोतीं म्हण्येत। तरयी, तांचे पयकी ग्रेगोरियन रूप पवित्र सभेच्या रोमी रितीक चड सोभता जाल्ल्यान, ताका देवस्तुतेंत मानाचो जागो दिंवक जाय। देवस्तुतेचें संविधान 30 उल्लेक कर्ता तशें, पवित्र रितिच्या संभ्रमांक आदार जांवचीं हेर संगीताचीं रुपांयी देवस्तुतेथावन विंगड दवचीं न्हय।

117. ग्रेगोरियन संगीताच्या रुपाचीं नवीं पुस्तकां तयार कर्ताना, पियुस धाव्याच्या काळाथावन आमल्लें संगीत वगेन्न पळेंवक जाय आनी ह्या नव्या पुस्तकांत आसा कर्चें संगीत सर्पे आसोन ल्हान फिर्गजांची परिगत समजोन तें पर्गट करूंक जाय।

118. देवपर्जेन देवासावांनी आनी भक्तीक रितिंनी विशेस जावन देवस्तुतेच्या संभ्रमांनी, गायान करूंक प्रोत्साव दींवक जाय। अशें, देवस्तुतेच्या नेमां आनी गर्जे पर्माणें तांचो ताळो मेळोंक उत्तेजन दिंवक जाय।

119. संसाराच्या थोड्या प्रदेसांनी, विशेस जावन मिसांव गांवांनी, तांच्याच गांवचे संगीत संप्रदाय आसात आनी ते तांच्या धर्मीक तशेंच समाजीक जिवितांत महतवाचो जागो घेतात। देकून, तांच्या संगीताक मुकेल तशेंच देवस्तुतेंत फावो तो जागो दिंवक जाय। अशें, देवस्तुतेचें संविधान 37 आनी 40व्या प्रकार समडतेथंय तांचो मनोभाव रुता करूंक आनी तांच्या गांवच्या सम्जोणेपर्माणे देवस्तुती रूपांत करूंक प्रेतन करूंक जाय। देकून इस्कोलांनी आनी पवित्र रितिंनी गांवच्या संप्रदायाच्या संगीताक प्रोत्साह मेळाशें, त्या गावांत वावुरच्या मिशियोनारींक फावोती तर्वेती दिंवक जाय।

120. संप्रदायीक संगीत व्हाजांत्रां वाजंवक आनी पवित्र रितींक विशेस सोभाय दिंवक अशें देवपर्जेचीं मनां देवाक आनि सर्गाक उवार्च्क लातीन रितिच्या पवित्रसभेंत पायपओर्गन(Pipe Organ) जोकतें व्हाजांत्र देकून, ताका देवस्तुतेंत मानाचो जागो आसा। पूण, देवस्तुतेच्या संविधानापर्माणे (22 आनी 37) गांवच्या बिस्पाचे शिफारशेन आनी पर्वण्गेन, देवस्तुतेंत हेर संगीत व्हाजांत्रांयी वापार्येत। पूण हीं व्हाजांत्रां देवस्तुतेच्या संभ्रमाक फावो जांवचेपरीं व्हाजवयंत तसलीं आनी देवपर्जेच्या भक्तीक आधार जांवचे तसलीं जांवक जाय म्हळें मतींत दवचें।

121. संगीत घडणारांनी क्रिस्तांव शेगुणांनी भरोन देवस्तुतेक फावो जाल्लें संगीत रचूंक आनी पवित्र सभेचें दायज गिरेस्त करूंक तांकां आपवणें आसा म्हण सम्जोंक जाय। देकून, तांणी संगीत घडताना, तें देवस्तुतेक फावो जांवचें तसलें करूंक म्हिनत घेंवक जाय। तांचें संगीत तर्वेत जोडल्ल्या गायान मंडळेक मात्र न्हय, वगार ल्हान गायान मंडळेक आनी अख्ख्या देवपर्जेक गायानांत वांटो घेंवक आधार दिंवच्या तसलें करूंक पेचाडूंक

जाय। देवस्तुतेच्या गायानांचीं उत्रां कातोलीक शिकवणेक नाळ पड्ना तसलीं, तशेंच नीं पवित्र पुस्तक आनी देवस्तुतेच्या मागण्याथावन प्रेरीत जांवचे तसलीं जांवक जाय।

दुसऱ्या वातिकान विश्वसभेचें देवस्तुतिच्या संगीतावयलें चिंतप विशाल मनाचें। एक पावटीं देवस्तुती मांयभाशेंत सुरु जाल्लीच, देवस्तुतेच्या संगीताची दिशाच वदल्ली। लातीन भास संगीताच लातीन संगीत आनी गायान मंडळियो पडोन गेल्यो। अशें वेगींच मांयभासांनी नवीं गितां आयलीं। गांवचें संगीत देवस्तुतेंत प्रवेस जालें आनी अशें देवपर्जेन कार्याळ रितीन देवस्तुतेंत वांटो घेंवक आवकास जालो। ह्या संदर्भार गायन मंडळिचो पात्र विशेस जालो। पूण दुसरे वातिकान विश्वसभेचें देवस्तुतेचें सुदारण सवकास कार्याळ जाताना, देवस्तुतेच्या संगीताविशीं नवें चिंतप, विमर्सो आनी मार्गदर्शन गर्ज म्हणयी भोगलें।

## मंगळुरी कातोलीक देवस्तुतेंत संगीत

मंगळुरी कातोलीक देवस्तुतेंत आदीं मिसां वलिदानां दोन रितिंनी चल्तालीं। 1. कंतार मिसां 2. रजार मिसां। कंतार मिसांनी याजक लात्या भाशेन मिसाचें वलिदान भेटयतालो आनी मिस्त्यास लातया भाशेन गितां गायतालो। निमाणे गायान कोंकणींतच आसतालें।

रजार मिसांनी याजक लात्या भाशेन मीस भेटयतालो। लोक कोंताचो तेर्स म्हणतालो आनी गितां कोंकणींत गायतालो।

लात्या भाशेंत आसल्लीं मिसाचीं गायानां

**आयताराच्या मिसा आदीं: आस्पेर्जेसमे**

आस्पेर्जेसमे, दोमिने, हिस्सोपो, एत मुंदा वोर;<br>
लावाबीस मे, एत सूपेर निवेम दे आलवावोर<br>
मिसेरेरे मेइ देउस, सेकुंदुम माञाम<br>
मिसेरिकोर्दिआम तूआम,<br>
ग्लोरिआ पात्री, एत फीलिओ, एत स्पिरीतुई सांकतो<br>
सीकूत एरात इन प्रिनचिपिओ, एत नूंक एत<br>
सेंपेर एत इन सेकुला सेकुलोरुम। आमेन।<br>
आस्पेर्जेसमे, दोमिने, हिस्सोपो, एत मुंदा वोर;<br>
लावावीस मे, एत सूपेर नीवेम दे आल्वावोर

## मिसाचें गायनः कीरिए

कीरिए एलेइसोन (तीन पावटीं)<br>
क्रिस्ते एलेयिसोन (")<br>
कीरिए एलेयिसोन (")

## ग्लोरिआ

ग्लोरिआ इन एक्सचेल्सीस देओ। एत इन तेरा पाक्स होमिनिबूस बोने बोलुंतातीस। लावुदामूस ते। बेनेदीचिमूस ते। अदोरामूस ते। ग्लोरिफिकामूस ते। ग्रात्सिआस आजिमूस तीबि प्रोप्तेर माञाम ग्लोरिआम तूआम। दोमिने देउस रेक्स चेलेस्तीस, देवूस पातेर ओम्नीपोतेन्स। दोमिने फील्ली, उनिजेनिते, येसुक्रिस्ते। दोमिने देउस आञुस देइ, फीलिउस पात्रीस। क्वी तोल्लीस पेक्काता मुंदी, मिसेरेरे नोबीस। क्वी तोल्लीस पेक्काता मुंदी, सूश्शिपे देप्रेकात्सिओनेम नोस्त्राम, क्वी सेदेस आद देक्सतेराम पात्रीस मिसेरेरे नोबीस। क्वोनिआम तू सोलूस सांक्तूस, तू सोलूस दोमिनूस, तू सोलूस आल्तिस्सिमूस, येसु क्रिस्ते। कूम सांक्तो स्पिरित्तू इन ग्लोरिआ देइ पात्रीस, आमेन।

## क्रेदो

क्रेदो इन ऊनम देउम। पात्रेम ओम्निपोतेंतेम फाक्तोरेम चेलि एत तेरे, विसिबीलिउम ओम्निउम एत इन विसिबिलिउम। एत इन ऊनुम दोमिनुम येसुम क्रिस्तुम,फीलिउम देइ उनिजेनितुम। एत एक्स पात्रे नातुम आंते ओम्निआ सेकुला। देउम दे देओ, लूमेन दे लूमिने, देउम वेरूम दे देओ वेरो। जेनितूम, नोन फाक्तूम, कोनसुबस्तांन्सिआलेम पात्री: पेर क्वेम ओम्निआ फाक्तासूंत। क्वी प्रोप्तेर नोस होमिनेस एत प्रोप्तेर नोस्त्राम सालुतेम देश्येंदीत दे चेलीस। एत इनकार्नातूस एस्त दे स्पिरित्तू सांक्तो एक्स मारीआ विर्जिने; एत होमो फाक्तूस एस्त। क्रुचिफिक्सूस एत्सिआम प्रो नोबीस सुब पोंत्सिओ पिलातो पास्सूस एत सेपुल्तूस एस्त। एत रेसुरेक्सीत तेर्सिआ दीए सेकुंदम स्क्रिप्तुरास। एत आश्शेंदीत इन चेलूम: सेदेत आद देक्सतेराम पात्रीस। एत ईतेरूम वेंतूरूस एस्त कूम ग्लोरिआ युदिकारे विवोस एत मोर्तुओस: कुयूस रेञी नोन एरीत फीनीस। एत इन स्पिरित्तूम सांक्तूम, दोमिनूम, एत विविफिकांतेम: क्वी एक्स पात्रे फिलिओक्वे प्रोचेदीत। क्वि कूम पात्रे एत फीलिओ सीमूल आदोरातूर, एत कोनग्लोरिफिकातूर: क्वी लोकूतूस एस्त पेर प्रोफेतास। एत ऊनाम, सांक्ताम, काथोलिकाम एत अपोस्तोलिकाम एक्लेसिआम। कोन्फितेओर ऊनूम बाप्तिज्मा इन रेमिस्सिओनेम पेक्कातोरूम। एत एक्सपेक्तो रेसुरेक्सिओनेम मोर्तुओरूम। एत वीताम वेंतिरी सेकुली, आमेन।

## सांक्सूत

सांक्तूस, सांक्तूस, सांक्तूस, दोमिनूस देउस
साबाओत, प्लेनी सूंत चेली एत तेरा ग्लोरिआ
तुअ। होसान्ना इन एक्सचेल्सीस।
बेनेदिक्तूस क्वी वेनीत इन नोमिने दोमिनी
होसान्ना इन एक्सचेल्सीस

## आञुस देइ

आञुस देइ, क्वी तोल्लीस पेक्काना मुंदी,
मिसेरेरे नोबीस
आञुस देइ, क्वी तोल्लीस पेक्काना मुंदी,
मिसेरेरे नोबीस
आञुस देइ, क्वी तोल्लीस पेक्काता मुंदी,
दोना नोबीस पाचेम।

### रजार मिसाचेर आसल्लीं थोडीं लातीं गितं हें परीं आसात

## पीए पेलिकाने

(ताळो: आल्लेलूया न. 165)

पीए पिलिकाने येसू दोमिने
मे इम्मूंदूम मूंदा तूओ सांगूवीने
कूयूस ऊना स्तिल्ला साल्वूम फाचेरे
तोतूम मुंदूम क्वीत आव ओम्नी शेलेरे।
येसू, क्वेम वेलातूम नूंक आदर्ग्याचिओ,
ओगे फीआत ईल्लूद, क्वोद ताम सीत्तिओ:
ऊत ते रेवेलाता चेर्नेन्स फाचिए,
येसू सीम वेआतूस तूए ग्लोरिए, आमेन।

## येसू दुल्वीस्सिमे

(ताळो: आल्लेलूया न. 52)

(साक्रामेंताचें गायन)

1. येसू दुल्वीस्सिमे,
ए त्रोनो ग्लोरिए,
वोवेम दे पेर्दितास
वेनिस्ती क्वेरेरे।
येसू गुआर्दिस्सिमे
पास्तोर फीदिस्सिमे,
ओ आद ते त्राहे मे,
उत सेंपेर सेकुआर ते।

2. एगो क्वे चेचिदी,
ओवीस सूम पेर्फिदा,
इन फावुचेस नाग्नागी,
प्रोब्रोसे देविया
आव ओम्नी क्रिमेने,
ओ येसू, लावामे,
इन तूओ सांगविने,
उत मुनदूस आमेम ते।

## रजार मिसाचेर आसल्लीं थोडीं कोंकणी गीतां हें परीं आसात।

(मिसाचे सुर्वेर)

### पातकी कुळी दिंबी बागावन

(तालो: आल्लेलूया नं. 154)

1. पातकी कुळी दिंवी वागावन
येतांव तुजे मुकार;
मागतांव सोमया, कुर्पा दी म्हण
आयक तुं आमचे सुस्कार।

आमी फावो न्हय पूण तरी
सोमया काकूळत आमची करी।
आमा पापयांची पाव विर्मोत
तुजा आनी जेजू पासत
जेजू पासत, जेजु पासत
दुलोव जेजु पासत।

(होस्त आनी काल्स भेटयताना)

### ही उंड्या-वायना काणीक

(तालो: आल्लेलूया न. 155)

ही उंड्या-वायना काणीक
काण्घे वापा ओपसून
जी सासेर्दोत आलतारीर,
भेटयतामचे पासून।
सवदान वेग्गीं जातेली
ताची कूड व रगत;
खुर्सार केल्लो साक्रिफीस
पर्तून हांगा घडात।

(सांक्सुसाचा वेळार)

### आयका, आयका तें गायान

(तालो: आल्लेलूया न. 156)

1. आयका, आयका, तें गायान
सर्गी आंज वोडव्याचें:
"पवित्र, पवित्र, पवित्र" म्हण
सोमया देवाक गांवचें
तारा-मंडळ भोवारीं
पृथवी ताचे पंदा
तुजो आनंद अघोरीं
उजळोन दाकयता।

(कुमगाराचा वेळार)

### पळे वयर थावन

(तालो: आल्लेलाया, न.62- कुमगारा आदीं)

1. पळे वयर थावन देंवोन येता सोमी
तुजो सयरो उट, उट, अतम्या वेग्गीं!
काळजांत पेटोवन दिवो भावाड्ताचो,
जेजूक मेळोंक तूं वच वोव सुड्सुडीं!
जेजू दयाळ मोगाळ कुर्पाळ सोमया!
तुका आमी आज प्रनिपात कर्तांव,
तुका वर्णूंक, तुका हर्सूंक धन्या,
सगळया सर्गा संसाराक आपयतांव!

**नवीकरणां उप्रांत घडल्लीं थोडीं कोंकणी भक्तीक गितां हे परीं आसात।**

वातिकान दुसरया विश्वसभेच्या नवीकरणा उप्रांत देवस्तुतेंत सवार वद्लावण जाली। तवळ म्हणासर लात्या भाशेचें मीस आयकोंच्या देव पर्जेक तांच्या तांच्या मांय भाशेंत मीस भेटोंवचें भाग मेळ्ळें। लायिकांक क्रियातमक थरान देवस्तुतेंत वांटो घेंवचें, देवाचें उतार मिसांवेळार मांय भाशेंत वाच्चें आनी आयकोंवचें भाग मेळ्ळें। हाचो परिणाम कोंकणी धार्मीक गितां म्हण्जे कोंकणी भक्तीक गितां वयर प्रभाव पडलो। अशें भक्तीक गितां आनी भक्तीक गितांच्या संगीताचेर एक क्रांती उवजाली।

**सोमयाक धिन्वासुयां (देव स्तुतिचीं गितां) पुस्तका थावन**

**प्रवेश गितां (A)**

आयल्यांव वली भेटोंवक, तुज्या वेदी भोंवतीं, सांड जाळां तुजीं, जमल्यांव देवा जणां, सर्वेस्परा रचनारा, सोमया तुज्या ह्या, भोव सुंदर, कुटम एक जावन।

**काणिकेचीं गितां (C)**

स्विकार कर ए वापा, अव्वा वापा, काणीक आमची, काणिको घेवून, ओंपून घे वापा, उंडो गोंवांचो, तुका दींव कितें।

**क्रिस्त प्रसादाचीं गितां (D)**

आशेता काळीज, जेवणाचे वेळीं, ये म्हज्या काळजांत, उंड्या रुपार येवून, काळीज म्हजें, जिविता कुंवरा, सोमया जेजू, जेजु ये तूं म्हजे थंय,

**अर्गां गितां (E)**

अर्गां जेजू राया, तुज्या पवीत्र जेवणान, अर्गां दितां तुका सोमया, अर्गां तुका जेजू सोमया, सगळया काळजान, उपकारी काळजान, तुजे खुशेक सोमया हांव, जेजु मोगाळा, उपकार तुजो वावुड्तांव।

**निर्गमन गितां (F)**

पवित्र सव्दाच्या उज्वाडान, शांतीन तुं धाड्नाय, धाड तुज्या शेनांत, मांड जाळां तुजीं, शेगुणांचे वाटेन।

**क्रिस्त येण्याचीं गितां (G)**

उल्लास पाव इस्रायेली, ये ये जेजू आमच्या।

**क्रिस्त जयंतिचीं गितां (H)**

आज गोर्वांच्या गोट्यांत, आयक देवदुतांचें गायन, ऊट ऊट जेरुजल्या, जेजू वाळोक जल्माला, भावार्तो सर्व, संतोसान गावयां, ल्हानां भावां-भयणीं थंय।

**प्राचीत काळाचीं गितां (I)**

भोगोस सोमया, अचल हांव सर्वेस्परा, हांव आयलां तुजेशीं, देवा दयाळ काकुतिच्या, खुर्सामुळीं ए सोमया।

**भागेवंत हफ्त्याचीं गितां (J)**

सोमयाची स्तुती कर, जय, जय दाविदाच्या पुताक, बापा तुज्या हातीं, जेजू सोमया म्हज्या भावा, खुसां सावळेंत रवूं, धाड तुज्या स्पिरिताक।

**पासकांचीं गितां (K)**

क्रिस्त मर्णांतलो जिवंत, टेकलें हांवें उठक, फांतया पारार उटोन, जेजू जिवंत जालो।

**पवित्र अतम्याचीं गितां (L)**

ए पवित्र अतम्या रचनार, पवित्र अतम्या यें देंवोन, ए दुलव अतम्या, ह्या फुडां।

**पवित्र संस्काराचीं गितां (M)**

सुर्पात म्हज्या देवा, स्वार्दीक साक्रामेंता, म्हज्या देवा म्हज्या सोमया, आलतारार आमच्या जेजू, वेळकाळ सुरू जांवचे पुर्वीं।

**पवित्र काळ्जाचीं गितां (N)**

उंड्या रुपाखाल लिपोन, ए म्हज्या मोगान जळच्या, काळजा तूं पेट, म्हज्या जेजुच्या स्वार्दीक काळजा, क्रिस्त तुं कुंवर कालांचो।

**मरियाळ गितां (O)**

अर्सुपरांव दीस, आंक्वार मरिये आमचे माये, आंक्वारी भितरी सोभागिणी, सक्कड सांगाता मेळयां, नमान तुका, फातीमाचे शांती राण्ये, दुकेस्त माये मरिये, जशें फूल।

**सांतां-भक्तांचीं गितां (P)**

सांत अन्ना तुजी, आसिस्सिच्या फ्रान्का, सां अंतोन भक्ता, इनासा इश्टा जेजुच्या, ए भागेवंता जुजे, किर्तिवंत आलतार भुरग्या, ए तूं जेजुच्या तेरेसा, सां सेबेस्त्यांव शिपाय, भागेवंत जुजे बाज बापा, सां फ्रान्सीस सावेर, कोल्कोत्ताच्या भागेवंत तेरेसा, भागेवंत लोरेसा, राकण भडव्या, सां मोनिका।

**लगनाचीं गितां (Q)**

होकले नोवऱ्या संगीं, सुखांत दुखांत, काना शहरांत, पवित्र लगना वांटाद्वारीं।

**भजनां (R)**

आयल्यांव तुज्या दारा,काळीज म्हजें गाता, तुजेथावन आयलें, तुजो मोग करूंक, सोर्मी देव म्हज्या घरा, विश्वास म्हजो, म्हजें काळीज गायता, हो संसार तुका सांडीत।

**मर्णाचीं गितां (S)**

कश्टांतल्यांनो येया, सारणाथावन जियेंवच्या, सोमया तूं काकुळत कर, दीस म्हजो संपोना, सोर्मी म्हाका पोसता, देवाच्या भागेवंतानो।

**पवित्र सभेचीं गितां (T)**

इगर्ज कातोलीक रोमाची, इसोपान म्हजेर, व्हड आवक आमच्या, येया ममेस्त ओट्टुक।

**अर्गां होगळपाचीं गितां (U)**

आनंद देवा बापाक, मधूर ताळयान, गायता काळीज म्हजें, सोमयाक हर्शियां, देव म्हजो मोग कर्ता, ऊंच अंत्रळीं, हर्येक घडी म्हज्या जिवितांची, नांवाडा सोमया देवाक।

**देवाच्या सब्दाचीं गितां (V)**

उतर तुजें, अमर तुजें उतर, जेजू तुजीं उत्रां, एकाच उत्रान, उलय सोमया आयकतां, उतर देवाचें।

आजकाल कंतार मीस आनी रजार मीस म्हण व्हड वेत्यास ना। तरयी, हरेक मिसांत थोडें पुणयी कंतार आसा आनी तें आसचें गर्जेचें। दिस्पोइतें आल्लेलूया, पवित्र पवित्र भावाड्ताचो घुट, म्हा-आमेन आनी किल्याक गज्चट्की...; हे भाग गायान कर्तात।

त्या वर्वी देवस्तुतिच्या लोकाचो पात्र कारयाळ जाता। तशेंच प्रवेश गीत, कुमगाराचें गीत आनी अंतर गीत देवस्तुती जिवाळ कर्ता। सोमया काकुळत कर, महिमा, आमच्या बापा, देवाचे शेळिये आनी मतमान्तां गायानां गायताना देवस्तुती संभ्रमीक जाता। शेकीं काणिकेचें गीत आनी अर्गां गीतयी गायतात।

संस्कार संभ्रमताना मिसाचें वलिदान भेटंवचें आजकाल कायाम जालां। मिसाभायर संस्कार संभ्रमताना, तशेंच मोर्णाची आनी हेर देवस्तुती कर्ताना जोक्तीं गितां-गायानां गर्जेचीं जावनामात आनी त्या गायनावर्वी देवस्तुती लोकाचो खरो संभ्रम जाता।

देवस्तुनितलीं गायाना देवाक आमी गांवचीं मागणीं। देवस्तुतेच्या संभ्रमांत क्रियातमक रितीन वांटो घेंवक संगीताचो आनी कंतारांचो पात्र वर्तो आनी मोलाधीक, देकून दुसरे वातिकान विश्वसभेन देवस्तुतिच्या संगीताक विशेस गुमान दिलां आनी देव पर्जेन गायानां मुकांत्र तांचीं काळजां देवाक उबारूंक उलो दिला (देवस्तुनिचें दस्तावेज 112-113). आनी वातिकान दुसऱ्या सभेच्या दस्तावेजांत भक्तीक गितांच्या महत्वा विशांत पवित्र पुस्तकांत्ले उल्लेक दिल्यात (एफेज 5:19) "गितांनी, कीर्तनांनी आनी अतमीक गायानांनी एकामेकालागीं उलया, तुमच्या काळजांनी स्वादीक नाद उटया आनी गायनांनी सोमियाची स्तुती करा"

"कीर्तनांनी, गितांनी आनी अतमीक गायनांनी देवाक अर्गां स्तुती दिया" (कोलोसेसारांक 3:16) हे उल्लेक आमकां गितां गायानांनी देवाक स्तुती करूंक आपयतात। पवित्र संगीत लितुर्जीक कार्याचें पवित्रपण चडयतात।

वातिकान दुसऱ्या सभे उप्रांत भक्तीक गितांनी नवीच क्रांती जावन त्या त्या गांवच्या संप्रदाय, संस्कृती पर्माणे भक्तीक गितां उबजालीं, क्रमेण कोंकणींत कंतिगो आरंभ जावन इगर्ज मातेन प्रादेशीक भाशेक प्रामुक्यता दिताना पवित्र सभेंत नवीकरण उदेलें। आनी लितुर्जीक कार्यांनी मंगळुरी देवस्तुतेंत कोंकणी भक्तीक गितां तयार जालीं आनी मिसांच्या मांडावळेंत प्रमूक पात्र घेतलो।

क्रमेण, कोंकणी भक्तीक गितांत विवीध प्रकारांचें संगीत उदेवन आयलें म्हणयेत।

## कोंकणी भक्तीक गितांची मटवी चरित्रा

भक्तीक गितां मागण्याचो एक वांटो, सुमधूर संगीतासवें गांवचें गायन मागण्यांत एकाग्रता हाड्ता। आमच्या माल्गड्यांक चडावत जावन शिकप नातल्लें। छापूंक छापखानो नातल्लो, तरी तांच्या काळार आसल्ल्यो कंतिगां तोंड्पाशीं कर्न संततेथावन संततेक पावयिल्लें साधन वर्तें म्हण्येत।

## तोमस एस्तेवांव (स्टीवन्स) जे.स.

तोमस स्टीवन्स जे.स. चोवीस अक्टोबर 1579वेर भारताक आयिल्ल्या मिशनरीं पयकी एकलो। तो एकूणचाळीस (39) वर्सां गोंयांत आनी एक वरस बोंबय शहरांत जियेल्लो। हाणे सवार ल्हान व्हड बूक बरयल्यात म्हळळे उल्लेक आसात। तांचे पयकी "क्रिस्त पुराण" कोंकणी-मराठी मिश्र ग्रामीण भाशेन स्टीवन्सान 1614-1616 आवडेंत बरयलें। "क्रिस्त पुराण" कृती क्रिस्ती धर्माच्या चरित्रेचें सुधीर्ग काव्यातमक निरूपण जावनासा।

ह्या पुस्तकांत सुर्वेचें प्रार्तन 131 श्लोक, इजाक आनी जाकोव, भक्तांक देवान दिल्ली भास - 56 श्लोक आनी धा शिशिलांची कथा - 74 श्लोक अशें परन्या सोल्ल्यांतले 261 श्लोक आनी सोमियाचें जनन थावन सां पेद्रुचें रुदान पर्यांत नोव्या सोल्ल्यांत्ले 59 श्लोक, आनी क्रिस्ताच्या स्वर्गारोहणा म्हणासर गोंयां साल्सेटच्या प्रचलीत ग्रामीण भाशेन, सामान्य लोकांकी अर्त जांवचेवरी रचलां। ह्या कृतियेंत 10962 वोवियो - श्लोक आसात।

हेंच आमच्या माल्गड्यांनी गोंयांथावन कोडियाळाक (मंगळुरक) हाडल्लें एक वर्तें दायज म्हण्येत। मंगळुर क्रिस्तांव पर्जा टिप्पुच्या हुकमेखाल श्रीरंगपट्टणांत बंधडेंत (1784-1799) आसल्ल्या वेळार हेंच पुराण वाचून भावाड्त घट दवर्लो म्हण चरित्रा आमकां सांगता। आनी ह्याच भावाड्तांत कोंकणी कंतिगां म्हण्जे कोंकणी भक्तीक गितां उदेवन आयलीं म्हण्येत।

### क्रिस्तांव पुराण

सुर्वेचें प्रार्तनः पयलें पुराण, अवस्वर - 1

परमेश्वरा स्वामियाची स्तुती (श्लोक 1-6)

1. ओं नमो विश्वभरिता
देवा बापा सर्व समर्ता
परमेश्वरा सत्यवंता
स्वर्गा पृथ्वीचेया रचणारा

2. तूं रिद्धी सिद्धिचा दातारू
कृपानिधी करूणाकरू
तुं सर्व सुखाचा सागरू
आदी अंतू नातांडे

1. ओ नमान तुका सगळयान आसच्या
देवा बापा सर्व शातिवंता
सर्वेस्परा सतेवंता
सर्गा प्रथुमिच्या रचनारा

2. तूं संपन्न संपुर्ण्कायेचो देणार
कुर्पेची रास काक्ळुतदार
तूं सर्व सुखाचो सागोर
आरंव अंत ना तुजे थंय

3. तूं परमानंदू सर्व स्वरूपू
विश्व व्यापकू ज्ञान दीपू
तूं सर्व गुणीं निर्लेपू
निर्मळू निर्विकारू स्वामिया

4. तूं अदृष्टू तूं अव्यक्तू
मम दयाळू सर्व प्राप्तू
सर्व ज्ञानू सर्व नीतिवंतू
एकुची देवो तूं

5. तूं साख्शात परमेश्वरू
अनादसिद्धू अपरांपरू
आदी अनादी अविनासू अमरू
तुजें स्तवन त्रीलोकी

6. स्वर्गू सृष्टी तूवां हेळामात्रें
केला चंद्रू सुरयू नख्शत्रें
तुजेनी एके शब्दें पवित्रें
केली सर्व रचणा

3. तूं परम सुखेस्त सर्व सुर्पायेचो
सविस्तारेन आमचो ज्ञानाचो दिवो
तूं सर्व गुणांनी खतावीणो
निर्मळ अवदुलापाचो सोमी

4. तूं अदृष्ट तूं वाचाविरहीत
एकलेक दयाळ सर्व वळवोंत
सर्व जाणार सर्व नितिवंत
एकच देव तूं

5. खरोच तूं सर्वेस्पर सोमी
सासणा सामाण थावन स्थापनीं
नाशावीण मरणावीण अनंतीं
थळीं काळीं अंत्रळीं तुजें वर्णन

6. सर्ग संसार तुवें भोव सोंपीं
चंद्र सुरयो नेकत्रांची कर्नी
एकाच तुजा उत्रान पवित्रीं
केलीय सर्व रचन

**कंतिगो:** कोंकणी भास जिवी उरोंक प्रमूक कारण धार्मीक कंतारां (कंतिगो) आमचे पुर्वज व्हडा भक्तीन आनी देवास्पणान सदां सांजचें कंतिगो तोंडपाशीं गायनाले आनी आपलो भावाडून जिवो दवर्नाले। आमच्या पुर्वजांनी रचल्ल्या कंतिगेंनी देवभक्त आनी धार्मीक जाण्वाय उटोन दिसताल्यो।

टाक्ल्याक: पहिली सांता खुरुसाची कुरू
सांता खुरुसाची कुरू
सांता खुरीस कुरुकी आमच्या किरिस्तांवांचें मूळ
किरिस्तांवांचें मूळ
सांता खुरीस काडुयांयी आमी
कोपोळारी, कोपोळारी।

अशें सुकार्ता हें कंतार भक्तीक चिंतनांनी। कपालार काडल्लो खुरीस पाड चिंतनां भायर घालता। वोंटार काडल्लो खुरीस पाड उत्रांक पयस कर्ता। हर्दार काडचो तिसरो खुर्साचो घुर्त पाड अपेकशांक नास कर्ता।

**देवाची महिमां वर्णुची आनी नमान कर्ची कंतीग अशी आसा।**

1. देवान कितें रचिलां?
देवान रचोनी भूमी मंडळ
पानळीं आयलां किंदूळे फूल
2. किंदूळया फुलाची महिमा तरिपिला
कोणे कांय मनांत चिंतुना तरी
वो ताणे रचोनियां तांणी रचोनिमू।

**साक्रामेंत, पातकाचीं मुळां** - अरल्यो कंतिगे रुपार गावन आमच्ये मालगडे वायपाट (नोंड्पाट) कर्तालें. तार्ची दोन चरणां अशीं आसात

1. ओगा जेजू क्रिस्तान
दिर्ला आमकां भास
त्यावी निंगा भाशेची वोड लागली आस
देवा पुतान शिकयिले सात साक्रामेंत।

अशें लोकांक समडतिचें शिकप दींवक, साद्या उत्रांनी सुलभ रितीन देवासपण वाडंवक, भक्तीक आचरणाचो खरो अर्थ लोकाच्या काळजा मनांनी खंचंवक कंतिगो (कंतारां) आधार आनी उपकार जाल्यो म्हण्येत।

1882 इस्वेंत मंगळुरांत फा। आंजेलो मुट्टी हांच्या मुखेलपणार कोडियाळवयल प्रेस्स (छाप्खानां) प्रारंभ जालां। ह्या प्रेस्साक 1884 इस्वेंत वेंगळूरथावन कानडी लिपेचीं टायपां हाडयलीं। हाचे निमतीं कानडी लिपेंत पादऱ्यावांनी सवार कंतिगो घडून आमच्या माल्गड्यांक कंतारां गांवक शिकयलें। ह्या कंतारांचो संग्रह जावन "शेंवोर कंतिगो" हाचो पुंजो कोडियाळवयल प्रेस्सा थावन छापून फायरा जालो। 1928 इस्वे भितर आटवो छापो छापून जाल्लो। शेंवोर कंतिगो वुकांत शेंवोर कंतिगांक मात्र सिमीत करिनास्ताना, नवीं नवीं कंतारां कुडसिल्यांत।

सुर्वेर भक्तीक गितांचीं सोल्फां हातांत वरयजे आसल्लें। नंतर सायक्लोस्टायल कर्न भक्तीक गितांचीं सोल्फां पर्गट जातालीं।1926 इस्वेंत फ्रान्सा थावन कोडियाळवयल प्रेस्साक म्यूसीक टायपां (सोलपां) हाडयल्या उप्रांत तातें तशें कोंकणी कंतारांचो वूक "अल्लेलूया" 1927 इस्वेंत सोल्फां समेत छापून पर्गट जालां। शेंवोर कंतिगे थावन सवार कंतारांचीं सोल्फां हांतूं आसात। 1953 इस्वेंत 'गितां-झेलो' म्हळळो कंतिगेंचो पुस्तक मंगळूर कोडियाळवयल छाप्खान्या थावन छापून पर्गट जाला। "पवीत्र मिसार मागणीं-गितां" म्हळळो वूक श्री हेन्री डि'सिल्वाच्या संपादकपणाकाल 1958 इस्वेंर तिसऱ्या ओडर्दिचें केंद्र सांत आन्त्र कापुचीन कोवेंत, मंगळूर हांणी प्रगट केला।

दॅशाय संगीत, व्हाजांत्रां आराधनां विधींत प्रयोग कर्न्क मानार्थीक वाप जे.एस.टी.रॉड्रिगस सुमार 156 पाशचात्य संगीत आसल्ल्या कोंकणी भक्तीक गितांक कर्नाटीक संगिताचो ताळो

वसयला। हें ताचें एक वर्ते साधन। ह्यांतलीं चडावत गितां "शेंवार कंतिगां" आनी "गितां-"झेलो" पुस्तकांतलीं. लितुर्जी कार्यांक आनी फेस्ताक महजल्लीं। हीं गितां 1967 इस्वेंक "गितां" म्हळ्ळया पुस्तकांत सोल्फां समेत कोडियाळवयल प्रेस्साथावन छापून प्रगट केला। 1971 इस्वेंत "नवें गीत गाया" म्हळ्ळो पुस्तक मा। वाल्टर आल्वुकर्कान वरवन संग्रह कर्न जेजुगाय प्रकाशन हाणीं पर्गट केला। 1973 इस्वेंत "आतांचें मीस आनी गितां" म्हळ्ळो पुस्तक जेरोसा कंपेनी मंगळूर हाणीं छापून प्रगट केला। 1974 इस्वेंत "विंचणार गितां" म्हळ्ळो पुस्तक मा। वा। वाल्टर आल्वुकर्कान वरवन संपादन कर्न जेजूगाय प्रकाशन हाणीं प्रगट केला। 1975 इस्वेंत मा। वा। जे.एम.टी. गेड्रिगसान वरयिल्लो साक्रामेंताचें गायान (कर्नाटिक संगीतांत). मेल्ल्यां पासूत मागण्या विधी (ग्रेगोरियन संगीतांत) म्हळ्ळीं पुस्तकां कोडियाळवयल प्रेस्सा थावन सोल्फां समेत छापून प्रगट जाल्यात। 1975 इस्वेंत "मरणांजली" (भजन मीस) आनी "विंचणार गितां ताळे" म्हळ्ळें पुस्तक मा। वा। वाल्टर आल्वुकर्कान वरवन संग्रह कर्न 'जेजुगाय प्रकाशन' हांणी केलां। 1976 इस्वेंत "मरणांजली-भजनांजली" म्हळ्ळो पुस्तक मा। वा। वाल्टर आल्वुकर्कान वरवन संग्रह कर्न पर्गट केला। 1976 इस्वेंत "मधूर गितां" म्हळ्ळो पुस्तक मा। वा। चार्ल्स वास SVD हाणीं मंगळूर आनी गोंय कोंकणी भाशेन वरवन संपादन कर्न प्रगट केला। 1977 इस्वेंत "नव्या भक्तीक गितांक ताळे" म्हळ्ळो पुस्तक मा। वाल्टर आल्वुकर्कान वरवन संग्रह कर्न जेजूगाय प्रकाशन हांणी प्रगट केला।

नवीकरणां उप्रांत कंतारां परत नवीं जाल्ल्या पर्माणें सोल्फां समेत प्रगट कर्चें काम मा। वा। टि.ए. लोबोन जेजुगाय प्रकाशनाद्वारीं केलें।"मिसाचो साक्रिफीस" म्हळ्ळो बूक नव्या आनी चडीत कंतारां समेत परत परत छापून आयलो। मंगळूर डियेसेजिच्या "पवित्र पुस्तक. क्रिस्तांव शिक्शण आनी देवस्पुतेचें केंद्र" हांणी 1977व्या वर्सा मा। दो। लोरेन्स फेर्नांदाच्या निर्देशनाखाल पयले पावटीं "कोंकणी भक्तीक गितां" म्हळ्ळो पुस्तक पर्गट केलो। 1980 इस्वेंत मा। वा। जे.एम.टी.गेड्रिगसाच्या संपादकपणाखाल "शेंवर कंतिगो" पुस्तक 18वो छापो जावन फायस जालो। 1980 इस्वेंत मा। वा। वाल्टर अल्वुकर्काच्या गितां संग्रहणाथावन "मिसां गितां झेलो" म्हळ्ळो पुस्तक जेजुगाय प्रकाशनान प्रगट केलो। 1981 इस्वेंत "भजन" म्हळ्ळें पुस्तक मा। वा। जे.एम.टी. गेड्रिगसान वरवन संग्रहण कर्न प्रगट केलें। 1982 इस्वेंत मा। वा। वाल्टर अल्वुकर्काच्या संपादकपणाखाल "देवाक धिन्वासुंयां" म्हळ्ळो पुस्तक जेजुगाय प्रकाशनाथावन पर्गट जालो। ह्याच वर्सा मा। वा। वाल्टर अल्वुकर्काचो आनयेक "पवित्र बलिदानाक ताळे" म्हळ्ळो पुस्तक फातिमा प्रकाशन, मंगळूर हांणी प्रगट केलो। 1983 इस्वे भितर "कोंकणी भक्तीक गितां" पुस्तक 6 पावटीं परत छापिजे पडलो। आनी1983 इस्वेंत दे। मा। मार्क वेगस हांच्या निर्देशनाखाल चडीत नवीं गितां मेळवन नव्याच शयलेंन संको घाल्लें पुस्तक उज्वाडाक आयलें।

1988 इस्वेंत "गितां गावन हर्सियां" म्हळ्ळें पुस्तक मा। वा। वाल्टर अल्वुकर्कान वरवन

संग्रहण कर्न प्रगट केलां। 1988 इस्वेंत "कोंकणी भक्तीक गितां" पयलो भाग म्हळ्ळो पुस्तक मा। वा। मार्क वेगस हांच्या संपादकपणाखाल मंगळज्योती हांणी प्रगट केलो। 1990 इस्वेंत मा। जे.वी. क्रास्ता हांच्या संपादकपणाखाल हें पुस्तक दुसरे पावटीं छापून आयलें। 1991 इस्वेंत "शेंभोर कंतिगो"चो मोल्फां पुस्तक मा। जे.एस.टी. रोड्रिगसान वरवन कोडियाळयल प्रेस मंगळूर हांणी पर्गट केलो। ह्याच वर्सा मा। जे.एस.टी.रोड्रिगसान मरण कर्ची रीत "मागणीं आनी गितां" म्हळ्ळो पुस्तक कर्नाटिक संगीतांत वरवन जेजू राय प्रकाशना थावन पर्गट केला। 1992 इस्वेंत सगळया मंगळुरांत जायत्या फिर्गजांनी नव्या कोंकणी भक्तीक गितांचो व्हाळो आयलो। तरीपूण हीं सर्व गितां लितुर्जीक उपयोग करूंक पर्वण्गी नातल्ली। ह्या वेळार दे। विस्प वार्जील सोजाच्या मुकेलपणाखाल दियेसेजिच्या लितुर्जीक संगीत समितेन चालु आसल्ल्या भक्तीक गितांची तपासण करूंक, लितुर्जीक कार्यांक उपयोग करच्याक 1992व्या वरसा मंगळज्योती संसत्यान प्रगट केलो।

1993 इस्वेंत हो पुस्तक मा। जे.वी. क्रास्ताच्या संपादकपणाखाल परत प्रगट जालो। इगर्जेंत भक्तीक गितां पुस्तकाचे दोन भाग दवरच्याकी हांल्लीं सर्व गितां आटापचें एकच पुस्तक आसल्यार बरें म्हण चिंतून आनी देवस्तुतेक ना फावो जाल्लीं कंतारां काड्न तशेंच नवीं गितां कुड्सून 1997 वर्सा मा। जे.वी. क्रास्ता हांच्या संपादकपणाखाल नवींच "कोंकणी भक्तीक गितां" पुस्तक प्रगट जालें। हो 2000 इस्वे भितर 11वो छापो म्हणासर फायस जाला। 1998 इस्वेंत मा। जे.वी. क्रास्ता हांच्या संपादकपणाखाल मंगळज्योती संसत्याथावन "स्तुती" म्हळ्ळो कोंकणी भक्तीक गितांचो सोल्फां पुस्तक प्रगट केला। पयलें "कोंकणी भक्तीक गितां" म्हण आसल्लीं प्रस्तूत "सोमयाक धिन्वासुयां" म्हळें देवस्तुतेचें गितां पुस्तक जावन 2005व्या वर्सा मा। दो। रोनाल्ड सेरावो हाच्या संपादकपणाखाल मंगळज्योती संसत्यान पर्गट केलां। ह्याच वर्सा वा। रोनाल्ड सेरावोन मंगळज्योती संसत्याथावन "अंतर गितां" पयलें वरस - A, "अंतर गितां" दुसरें वरस - B, "अंतर गितां" तिसरें वरस - C, म्हळीं तीन सोल्फां पुस्तकां प्रगट केल्यांत।

## कर्नाटिक शास्त्रीय संगीतांत कोंकणी भक्तीक गितां

देवाधीन वा। जे.एस.टी. रोड्रिगस कोंकणी देवस्तुतेच्या गितांचो उंचलो संगीतगार। तो पाश्चात्य संगीत जाणा आसल्लो तरयी, दुसरे वातिकान विश्वसभेच्या चिंतपा प्रकार आमच्या गांवच्या संगीताक महत्व दिल्लो आनी तें देवस्तुतेंत अंतर्भरीत कर्येत म्हण दाकवन दिल्लो महान संगीतगार। तो गुर्पुरांत पोंपय मायेच्या फिर्गजेंत अतमीक वावर भेटयताना थंयचा रोजा मिस्तिका हायस्कूलांत विद्वान पदमनाभ आचार्यलागीं 5 वर्सां शास्त्रीय संगीत शिकलो। आनी तें देवस्तुतेंत हाडूंक निस्वार्तपणी वावुर्लो।

भारताचें संस्कृतेक सर्ग जावन अंतस्कर्नाची जाण शास्त्रीय संगीताद्वारीं केल्या दे। वा।

ज.एस.टी. रोड्रिगसान 6 शास्त्रीय संगीताचीं पुस्तकां (गितां, साक्रामेंताचें गायन, शेंवर कंतिगो, चरण कर्ची रीत आनी हेर दोन पुस्तकां) आनी 37 हेर धाक्टुलीं पुस्ताकांयी (हात पुस्तक) फायस केल्यांत। हांचे पयकी थोडीं विसाव्या शेक्ड्याचीं मोलादीक तशें जागवन दवर्चे तसलीं संग्रहां जावनासात। वा। जे.एस.टी. रोड्रिगसान ससगीत शेतांत जायतीं सादनां केल्लीं आसात। गायवलाचेर आदारून पाश्चात्य आनी कर्नाटिक शास्त्रीय संगीत शयलेन वर्सयिल्लो संगीत नाच्या नाटक "तोबियास" तांचें एक विशेस आनी विशिष्ट साधन जावनासा। जेजु क्रिस्ताचे निमाणे दीस प्रदर्सुंचो, "भागेवंत हफ्तो" नाटक कर्नाटिक संगीताच्या नाटक क्षेत्रांत आनयेक साधन म्हण्येत।

देवस्तुते पासून वापर्चो 'गितांझेलो' पुस्तकांतल्या सर्व कीर्तनांक शास्त्रीय संगीत वसवन 'गितां' म्हळया नांवार पुस्तक जे.एस.टी.रोड्रिगसान फायस केला। 'साक्रामेंताचीं गायाना' देवाक सर्पडोन नमस्कार करच्या वगता वापर्चो पुस्तकयी कर्नाटिक शास्त्रीय संगीतांत ताणें प्रगट केला। ह्या पुस्तकांतलीं कंतारां, गायताना एक प्रकासभरीत आध्यात्मीक पर्जळ उट्ता। ध्यानांत मत केंद्रिकृत कर्न काळजांत नियाळ करूंक जिणयेचो संतोस भोगूंक अस्मितायेचो आवकास करून दिना। 'गितां आनी मिसां' कर्नाटिक संगीत उचार्चीं गितां आनी भक्तीक गितां आटप्ता। हीं गायना भक्त, भावाड्त जिवाळ कर्तात।

सर्व संदर्भाक सरी जावन भजनां, क्रिसमस, वेलंकणी मायेचीं, नित्याधार मायेचीं गितां, सर्गाचीं, गोवळी वापान भेट दिताना गांवचीं गितां आनी पवित्र मिसाचें वलिदान आनी हेर लितुर्जीक संस्कारचीं गितां, आंक्वार मरी आनी मां जुजेचीं कंतारां, प्रवेश, कार्णीक, निर्गमन आनी हेर मटवीं धार्मीक आचरणा वेळार गांवचीं गितां, निमाण्या सुक्रारची कंतारं विधी - अशें ताणे कर्नाटीक संगीतांत रचल्ल्या भक्तीक गितांचो आनी कीर्तनांचो संको चडोनंच वेता।

## भुरग्यांक पवित्र - स्नान दिंव्ची रीत

आवयक आनी वापायक

नं. 74

राग-मोहन

आदीताळ

स री 2 ग3 प द2 स

स द2 प ग3 री2 स

पल्लवी: आवयक आनी वापायक नमो, आमी म्हण्तांव तुमकां नमो

अनुपल्लवी: मेळोन आमी तुमचे संगीं, संतोस तुमचो दोड्तो जांवदी।

चरण: आपलें जिवीत दिल्ल्या देवाक

धिन्वासुयां सगळया काळजान

पल्लवीः ग प प प ग पा, । ग पा ग पा।।

1 आवयक आनी वापायक न मो न मो

स री ग प गा री ग री ग री सा;।।

आमी म्हण्तांव तुमकां न मो न मो

ग प प प द स री स । द पा द। प ग री स।।

2 आवयक आनी वापायक नमो नमो

स री ग प गा री । ग री ग री सा;।।

आमी म्हण्तांव तुमकां नमो नमो

ग प प द द स स री। ग री ग। री स द प।।

3. आवयक आनी वापायक नमो नमो

गरीगपगारी। गरीगरी। सा;||

आमी म्हण्तांव तुमकां नमो नमो

अनुपल्लवीः प द ग प द ग प। द सा री। ग री गा।।

मेळोन आमी मेळोन आमी तुमचे संगीं

री ग री स द स द प। द पा ग। री;।।

सं तो स तुमचो दो इ्तो जांवदी

चरणः स री ग स री द स। री गा री। ग प री ग।।

आ प्लें जी वी त दिल्ल्या देवाक

प पा द ग प द प। ग री ग । पा;।।

धी न्वा सू यां स ग्ळया का ळजा न

## थिरावचे संस्काराची मांडावळ

### पवित्र आतम्या रचनारा

राग-विलहरी स री2ग3प द2 स

रूपकताळ स नी3 द2 प म2 ग 3 री2 स

प द प म ग री । स ग री गा।।

पवित्र अतम्या रचूनारा

गपदमनीद । प द नि2दा, ।।

हाइ्न ये कु पें चीं वं डा गं

प म ग ग प म ग री। स नी द सा, ।।

वांग हीं का ळजां तु जीं र च्या

स ग प स प म । री ग प दा,

ये कर आ म्कां तू जीं तें प्लां

प द प म ग री स नी द । सा, सा,

आ । मे न।

## पवित्र मिसाक संबंद जाल्लीं गितां (कर्नाटीक संगीत)

1. पातकी कुळी दिंवी वागावन उत्रां झेलो पान 14 राग-शंकराभरण
2. ही उंड्या वायना कार्णाक उत्रां झेलो पान 15 राग - मारंग
3. आयका आयका हें गायन उत्रां झेलो पान 16 राग - हंसध्वनी
4. सोमिया म्हज्या जेजू उत्रां झेलो पान 15 राग - तोडी
5. सोमिया हांव फावो न्हय उत्रां झेलो पान 2a राग-तोडी
6. कुमरागाचा वेळार कीं- 150 उत्रां मस्दिास राग-आनंदबेरवी
   (कीं-150 स्तुती करा सोमियाक ताचा स्थानांत पवित्री) AD. libitum (राग-ध्वन्यासी)
7. दाविदाचें गीत - हर्सिल्लो तूं सोमिया देवा।
   उत्रां - मस्दिास, राग - कुंतळवराशी AD libitum (राग बेहाग)
8. पळे वयर थावन उत्रां गितां झेलो नं. 1 राग - खरहर प्रिय
9. जेजू येंवचो जालो उत्रां गितां झेलो नं. 2 राग-मोहन
10. संतोस म्हजो केदो व्हडलो उत्रां गितां झेलो नं.1 राग-तोडी
11. क्रिस्ताच्या अतम्या उत्रां गितां झेलो नं. 4 राग - हरिकांबोजी
12. उंड्या सर्गिंच्या उत्रां गितां झेलो नं. 5 राग - हिंदोळ
13. कसलें भाग म्हजें उत्रां गितां झेलो नं. 6 राग - उदय रविचंद्रिक
14. पवित्र साक्रामेंताक स्वार्टीक साक्रामेंता उत्रां गितां झेलो नं. 7 राग-चारुकेर (शी)
15. उंड्या रुपाखाल लिपोन उत्रां गितां झेलो नं. 7a राग - मोहन
16. जेजू वरया गोवळया उत्रां गितां झेलो नं.8 राग - बिलहरी
17. म्हजा देवा तूं सर्व वरें उत्रां गितां झेलो नं. 9 राग-षण्मुखप्रिय
18. जेजू काइतच तुजो उगडास उत्रां गितां झेलो नं. 10 राग-कुंतलवराळी
19. जेजू स्वार्टीक उगडास तुजो उत्रां गितां झेलो नं.11 राग-हंसध्वनी
20. जेजू दळवार आंज वोडव्यांचें उत्रां गितां झेलो नं. 12 राग - नायकी (आनी हेर)

## मंगळुरी कातोलीक देवस्तुतेंत कोंकणी भक्तीक संगीतगारां आनी भक्तीक गितांनी व्हाजांत्रां

सुर्विल्ली कोंकणी क्रिस्तांव पर्जा आपली देवस्तुती लातयान आचरिताली. त्या वेळार कोंकणी भक्तीक गायन चड सापान नातल्लें। क्रमेण कोंनिगो कोंकणेंत आरंभ जावन इगर्जमातेन प्रादेशीक भासांक प्रामुख्यता दितानां पवित्र सभेंत नवीकरण उदेलें आनी लितुर्जीक कार्यांनी कोंकणी भक्तीक गितां तयार जालीं।

पुर्विलीं भक्तीक गितां लातयान आसोन "ग्रेगोरियन" प्रकाराची (ह्या प्रकारांत संगीत चार पंगतेंनी लिखतात). युवपर्जा पाश्च्यात्य देशाक वचोन पाश्च्यात्य संगीत शिकोन प्रवीण जातानां

कोंकणी भक्तीक गीत गायनाचें महत्व चडलें म्हण्येत। अशें पाश्चात्य रितिचें कोरल (Choral or Choir music) (ह्या प्रकारांत संगीत 5 पंगतेंनी लिकतात) संगीत चाल्तेर आयिल्लें।

दुसरे वातिकान विश्वसभेच्या पयलें आमचेलागीं चडावत भक्तीक गितां आसल्लीं। तवळ जेजुच्या पवित्र काळजाचें देवासांव, कार्मेल मायेची, मोंती सायबिणिची, दुकी सायबिणिची, फातिमा सायबिणिची भक्त साक्रामेंताचें आराधन आनी सांताभक्तांची भक्त धाराळ आसल्ल्यान थोडीं भक्तीक गितंयी आसल्लीं। तशेंच नतालांचीं, प्राचीत काळाचीं आनी पासकाचीं गितां, सांगाताच कंतिगो आसल्ल्यो। तांतलीं जायतीं हेर भाशेथावन भाशांतर केल्लीं। थोडीं कोंकणींतच घडल्लीं। पूण गितां दुसऱ्या वातिकान विश्वसभेच्या देवस्तुतेक पूरक ना आसल्लीं। देकून नवीं गितां गर्ज पडलीं आनी ह्या भक्तीक गितांक विवीध प्रकाराचें संगीत वसंव्चीं संगीतगारांयी उदेवन आयलीं।

कातोलीक देवस्तुतेच्या कोंकणी भक्तीक गितांनी जायत्यांचो वावर होगळिकेक पात्र जाला। ह्या पयकी "लितुर्जीक संगीताचो गुरु" म्हण नांवाडल्लो जेज्वीत याजक मा। वा। वाल्टर अल्वुकर्काक कोंकणी देवस्तुतेच्या चरित्रेंत विशेस जागो आसा। ताणें नव्या देवस्तुतेक आधार जावन पयलें इंगलिशांतलीं गितां कोंकणीक भाशांतर केलीं। उप्रांत कोंकणींतच गितां घडलीं। अशें देवस्तुतेंत देवपर्जेन कार्याळ रितिनी वांटो घेंवक आदार जालो। वा। अल्वुकर्क एक विंचणार संगीतगार। आज जर आमचे मधें कंतारांचे घडणार आनी व्हाजांत्री आसात, ते सर्व तांच्या प्रेरणाखाल आसात म्हळें आमी ओळकोन घेंवक जाय। वा। अल्वुकर्काक शास्त्रीय संगीतांत जाणवाय आसा तरी ताचें संगीत पाश्चात्य प्रधान आनी ताणे लिकल्लीं गितां आनी संगीत हेच शयलेंत आसात। तीं गितां आमकां शिकोंक, शिकंवक आनी गांवक सलीस। तशें जाल्ल्यान ताची शयली लोकामोगाळ जाल्या।

मा। वोल्टरान एदोळ 12 भक्तीक गितांच्यो कोंव्ळयो घडल्यात। जायत्या धार्मीक नाटकांक आनी संगीत नाटकुळयांक ताणे ताळे दिल्यात आनी संगीत वसयलां। 10 कंतारांचे बूक वरयल्यात। आपलें आनी हेरांचें संगीत आसचे हेर 18 बूक फायस केल्यात। 7511 पदां आनी गितांची उत्रां वरयल्यांत आनी 14.717 गितां/पदांक संगीत दिलां। जेजून शिकयिल्लें मागणें "आमच्या बापा" सुमार 17 विविंगड ताळयांनी ताणे संगीत रचलां। आसल्ल्या ताळयांक खिणा भितर विंगडच संगीत वसवन नव्यान रचोंक ताका कांय कश्ट भोगानांत। कांयींच वेळ घेनास्ताना सुप्रानो, आळटो, टेनर आनी बास ताळे खिणाभितर वसंवची तांक ताची जावनासा।

कोंकणी देवस्तुतेच्या गितांचो आनयेक महान संगीतगार दे। वा। जे.एस.टी. रोड्रिगस हाणे 6 शास्त्रीय संगीताचीं पुस्तकां आनी 37 हेर दाक्टुलीं पुस्तकां (हात पुस्तकां) फायस केल्यांत। अशें ताणे जायतीं गितां रचलयांत आनी ताळे वसयल्यात।

याजकां पयकी संगीत शेतांत वावुरल्लो आनयेक्लो महान संगीतगार जावनासा दयवीक

सव्वाचो मिशनरी याजक बाप चार्ल्स वास। हाणे हिंदुस्तानी संगीत शिकोन, तांतूंन सनद जोडून पाश्चात्य संगीतांत भर्सून देवस्तुतेक आधार जांवचेवरी केल्लो संगीतगार आनी कोंकणींत भजन हाडल्लो गावपी। सुर्वेर ताच्या भजनांक विशेस एवकार मेळोंक ना। तरी क्रमेण ताचीं गितां आनी भजनां लोकामोगाळ जालीं। ताणे घडल्लें संगीत गांवक विशेस कश्ट नातल्ल्यान ताचीं गितां आमचे मधें आसात।

मा। दो। चार्ल्स वासान भक्तीक गितांच्या क्षेत्रांत आप्लेंच स्थान जोडून घेतलां। 20 वयर कोवळयो आनी भक्तीक गितांचीं इतर कार्यी ताणे मांडून हाडल्यांत।

मा। पी.एल. बुतेल्लो, मा| जोन साल्वाटोर सिरांदा हाणी कोंकणी भक्तीक गितांनी जायतो वावर दिला। दे। वी.जे.पी. सल्डान्हा हाणे जायतीं कोंकणी भक्तीक गितां रचल्यांत। मंगळुरांत "फिल हार्मोनीक" गायन मंडळी घडल्ली कीर्त ताका वेता। प्रो। आल्वन कार्नेलिनो, मा। सी.टी. सिकवेरा, जोस्सी वास हांणी कोंकणी भक्तीक गितांच्या क्षेत्रांत आपल्या नांवी वर्नी देण्णी दिल्या। ह्या मधें जोस्सी वासान कीर्तनाच्यो तीन कोवळयो भायर काडल्यात। श्री विल्फी रेबिंवस, श्री चार्ल्स डिमेल्लो, आपोलिनारीस डि'सोजा, मा। क्लेमेंट मस्करेन्हस, दे। वेनेट पिंटो, श्री मेल्वीन पेरीस, मा। डेनीस डेसा, सी। जयराणी, सी। ऐरीन, श्री जोयेल पिरेस, मा। वलेरियन मेंडोन्सा हांणीं ह्या क्षेत्रांत जायती सेवा दिल्या। हांच्या सवें जायत्या याजकांनी आनी संगीतगारांनी आपली अमूल्य सेवा दिल्या। ह्या वर्वी आज हर्येका फिर्गजांनी कोंकणी भक्तीक गितांच्यो गायन मंडळी अस्तितवार आसात म्हण्येत।

## भक्तीक गितांनी व्हाजांत्रां

पुर्वी वोव थोड्या काथेद्रालांनी प्रतयेक जावन लाल्या भागांनी गितां गायन करच्या काळार पायप ओर्गन व्हाजांत्र जावन वापार्तालें। आतां भजन आनी शास्त्रीय ताळयांच्या गितांक तबला, विणें, हार्मोनियं वापार्तात। भक्तीक गितांक वीज सक्तेचीं व्हाजांत्रांय वापार्तात। आज चडावत हर्येका फिर्गजांनी वीज सक्तेचीं ओर्गनां आसात। त्या सवें गिटरां, वायोलिनां, ड्रम्स आनी ड्रम पेडां व्हाजांत्रां जावन वापारतात।

## धार्मीक रितिंनी मन्शाताळ्याचीं महिमा "जशें आदीं - आनी आतां"

1. कातोलीक क्रिस्तांव धार्मीक गायान चडावत पंगडांत वा समुदायेंत करचें। सुर्विल्ल्या शतामानांनी धार्मीक कार्यावेळीं गितां वगवर संगीत नातल्लें। चडावत अक्रिस्तांव धार्मीक रितिनी व्हड आवाजांनी संगीत व्हाजांत्रां वापरताले जाल्ल्यान क्रिस्तांव धार्मीक विधिनी तें नाका म्हळें चिंतन आसल्लें। देकून जसो गायानाक वा मनशानाळयाक चर्डांत गमन दिताले।
2. रोमाच्या गयाच्या आस्थानांतलें कोयर (गायन मंडळी) धार्मीक विधिनी प्रेरण जालें। अशें धार्मीक रितीं वेळीं तसलें तर्भेती जोडल्लें कोयर (गायन मंडळी) उदेलीं।

3. ग्रेगोरियन संगीत पवित्र सभेचें अधिकृत संगीत जालें। ह्या संगीताची विशेशता एकोडो ताळो, सवकास आनी संभ्रमीक। दर्याचीं लागं आसल्ल्या परीं संगीताचें रूप! भावनांक, सब्दाच्या अर्ताक आनी मदुरायेक मानाचो जागो। सुर्वेर हाका संगीत वाजांत्र नातल्लें। तरी उप्रांत केवल पायप ओर्गन (pipe organ) व्हाजयताले। तरी उत्रांक आनी ताळयांचें महत्व संगीत उत्रांक लिपयनातलें, वा ताळयाचें मधुरायेक आडकळ जायनातलें।
4. मटवाश्यांनी तवला गायानाक विशेस जागो दिल्लो। सोल्फां सोधून काड्चीं, ताळो वर्सांवयली गीत आयली। अशें सकाळीं - सांजेचीं मागणीं गायना रूपार गायलीं, क्रमेण वाजांत्रांयी गर्ज दिस्लीं। केवल मटवाशी आनी त्या दिशेन तांकां ताळयाची तर्वेती, संगीताची जाणवाय कड्डाय जाली।
5. उप्रांतल्या वर्सांनी लोकीक क्षेत्रांनी संगीत उदेलें। संगीत नाटक, पदां संगीत रूपक थरावळ व्हाजांत्रांचें संगीत उदेलें। असल्या गायनांनी पर्यांत ताळयाक, भावनांक, सब्दाच्या अर्ताक महत्व आसल्लें। एकोडें आनी जमो गायन गाताना, ताळो, व्हाजांत्रां, भक्तीक आनी धार्मीक वातावरणाक आडकळ जालिंनांत (उदा: मर्णाच्या मिसाचीं गितां आनी संगीत तशेंच संभ्रमीक धार्मीक संगीत विंगड आसलें).
6. थरावळ देवासांवां आनी भक्तीक कार्यीं पवित्र सभेंत आसल्लीं, आनिकयी आसात, त्या देवासांवांक सरि जावन गायान, संगीत उदेलें (खुर्सामुळीं, करेजमाच्यो कंतिगो, नतलांचीं गितां) तीं गांवची गीत त्या त्या संदर्बांक/फेस्तांक सहज जावन आसा।
7. दुसरे वातिकान विश्वसभे उप्रांत अख्ये देवपर्जेक देवस्तुतेच्या गायानांत वांटो घेंवक प्रेरण मेळां आस्ताना, गायान मंडळेक आवकास ना म्हळें चिंतप थोड्यांच्या मतींत आसा। पूण हें चिंतप सार्कें न्हय। दुसरे वातिकान विश्वसभेन अख्ये देवपर्जेन देव स्तुतेंत गायान करूंक उलो दिला। गायान मंडळेक प्रोतसाव दिला। (देवुस्तुतेचें संविदान, 114). तशेंच देवपर्जेन देवस्तुतेंत कार्याळ रितीन वांटो घेंवक आदार जायशें लोकान सहकार दीशें गायान मंडळेक जवाब्दारी दिल्या (पवित्र संगीत,19).

दुसरे वातिकान विश्वसभे उप्रांत गायान मंडळेची जवाब्दारी दोड्टी जाल्या। ताणींय गांवक जाय मात्र न्हय अख्ख्या लोकान गायान कर्चेपरीं गांवक जाय(पावल सवो, इतालियन राश्ट्रीय विस्पाचे मंडळेक शिकवण, 2 फेब्रेर 1968). हे दिशेन पावल सव्यान गायान मंडळेच्या सांद्याक उद्देसून म्हळीं उत्रां अशीं आसात। "तुमचेविशीं विश्वसभेन

चिंतप आटयलां। पूण आतां तुमी विश्वसभे विशीं चिंतप आटया आनी विश्वसभेन तुमकां दिल्लें मार्गदर्शन पाळा। अशें पवीत्र सभेची देवस्तुती गिरेस्त कर्न देवाक स्तुती करा". देव स्तुतेचो शेवोट देवाची महिमा आनी मनशाचें पवित्रपण पाचार्चो गायान मंडळिचो शेवट जावन आसा।

8. कोंकणी देवस्तुती आयल्या उप्रांत कोंकणी धार्मीक संगीत/गायान उदेवन आयलें। मुर्वेर सादें गायन आनी संगीत, पूण क्रमेण चडीत ताळे, थरावळ व्हाजांत्रां... म्हणून आजकाल धार्मीक संगीतांत भक्तिपण मागण्याक पूरक जांवचें वातावरण उणे जालां म्हण्येत।

9. देवस्तुतेचें संगीत जमो/सामूहीक, पुण एकोड्या गायानाक उणो जागो। तरी एकोडेंय आसा, याजकाक ताचो पात्र आसा। गावपी (कीर्तनगार) ताचो वांटो आसा।

10. आजकाल ताळयाक गमन उणे, संगीताक चड। व्हाजांत्राचो आवाज ताळो लिपयता। भावनांक आनी मदुरायेक जागो ना जाला।

11. आजकाल गायन पंगड (कोयर) म्हळयार फ्याशन शो जांवक पावला। भारतीय शयलेच्या न्हेस्गार व पाशचात्य रुपाच्या न्हेस्णांनी गायन मंडळयो न्हेसोन पंगडाची गोवाय चडंवक कर्चें प्रेतन जायते कडेन पळेंवक मेळता।

12. आमचे मध्ल्या चडावत संगीतगारांक संगीतांत वेवस्तीत शिकप ना। तशेंच देवशास्त्रांत विसेश जाण्वाय ना। तशें जाल्ल्यान आयच्या काळाक लागू जाल्लें संगीत रचूंक आनी देव स्तुतेक आधार जायशें करूंक कश्टांचें जावनासा।

13. तशेंच आजकाल गायान मंडळेक तर्वेती दिनेल्याकंच मुळावी तर्वेती ना देकून आयचे देवस्तुतेंत गायन मंडळिचें गायान मह्ट मस्त भिगडल्ल्यापरीं दिस्ता।

# संगीताचो प्रभाव आनी नतालाचीं गितां

प्रो।। आल्बन कास्तेलिनो

संसारार सबार थरांची कला आसा। संगीत, नाटक, नृत्यां, पिंतुरां पिंत्रांव्चीं, व्यंग्य चित्रां सोडंवचीं, प्लास्टिकाच्यो, फायबराच्यो वा मातियेच्यो इमाजी कर्न तांकां रंग दिंवचो इत्यादी। नाटकां बरवन रंगमंचार अभिनयन कर्न प्रदर्शीत कर्चें, रंगाळ इमाजी आनी चित्रां तयारसून हॉलांनी आनी सर्वजणीक सुवातेंनी उबार्चीं, व्यंग चित्रां सोडवन तीं पत्रिकांनी छापून प्रसार कर्चीं - ही एक लोकामोगाळ कला जांवक पावल्या।

**संगीत कला:** संगीत, नाटकां, नृत्यां इत्यादी ललीत कला (Fine Arts) ह्या वर्गाक मेळनात। संगीताचें अभ्यास चलंवचें, हेरांक तर्बेती दीवन संगीताचीं कार्यक्रमां मांडून हाड्चीं, संगीताचीं व्हाजांत्रां व्हाजंवक हेरांक तर्बेती दिंवची इत्यादी कार्यां वर्वीं, असल्या कार्यक्रमांनी भाग घेतल्यांच्या, प्रेक्षकांच्या आनी आयकोवप्यांच्या मतिचेर प्रभाव पड्ता आनी तांकां संतोस भोगता। प्रदेशावार पळेल्यार संगीतांत पाश्चात्य, उदेंती गांवचें (कर्नाटीक, हिंदुस्थानी) इत्यादी थरावळ आसा। उद्देशां पर्माणें वांटे केल्यार, शास्त्रीय (Classical) आनी सुगम (Light) संगीत, तशेंच भक्तीक, ज्याज (उड्तें), गजल, पोप संगीत इत्यादी प्रकार आसात। जेराल थरान पळेल्यार संगीत आनी गायन आयकातेल्यांचे मतिचेर आनी व्यक्तितवाचेर विभिन्न प्रभाव घाल्ता।

नाजूक आनी अर्थाभरीत संगीत आटापचीं तशेंच उत्तम ततवां गुंतून बरयिल्लीं पदां समाजिचेर बऱ्या नैतीक मह्वाचो प्रभाव घाल्तात। पवीत्र सभेन लितुर्जीक कार्यां खातीर भक्तीक संगीताचो धारार उपयोग केला। Music is the handmaid of the liturgy of the Church म्हण सांगतात। लितुर्जीक कार्यां वेळार भक्तीक संगीतान विणललीं समडतिचीं गितां गायन कर्तांना लोकाचीं काळजां आनी मनां धर्मीक विषयां थंय ऊंच उबार्तात आनी तांकां बरी जिणी जियेंवक प्रेरण लाभता।

ऊंचल्या भक्तीक संगीताक आयकतेल्यांचे मतिंतलीं दुश्ट भावनां हुमटून काड्न थंयसर बरें चिंतनां रुता कर्चो सामर्थी आसा। केवल मनोरंजन मात्र न्हय आसतां, संगीता वर्वीं तक्लेची विरारय पयस सर्ता, मर्नीक शांती मेळता, एकामेका थंय बरें मन उबजता आनी नीद पयस आसल्यांक संगीत आयकल्ले वर्वीं नीद पडोंक सहाय मेळता। संगीताचें देणें आसल्यांक आनी तें वृद्धी कर्न संगीताचो अभ्यास चलयतेल्यांक जिविताची वाट दाकवन दिता आनी जेराल थरान सांगचें जाल्यार, समाजेंत सुधारण उबजंवक संगीत कारण जाता। नांवाड्दीक तज्ञांनी संगीताच्या वाव्रांत आपली सगळी जिणी सरयल्या। देकून पोषकांनी आपले तावेन शिकप जोड्न आसल्ल्या भुरग्यांक केवल मामूली शिकप मात्र न्हय आस्तां, ललीत कलेचें शिकपयी तांकां मेळशें केल्यार, तांचे सुक्ले जिणियेंत संगीताच्या अभ्यासा सुकांत्र जायतें बरेंपण

तोडूंक साध्य जातलें।

**भक्तीक गितांः** आमच्या देवमंदिरांनी देवस्तुतेचीं कार्यीं फळाभरीत जायजय जाल्यार, हाजर आसल्ल्या लोकान क्रियातमक थरान पात्र घेंवचें गर्जेचें। देकून भक्तीक कारयां वेळार इगरजांनी जम्या गायनाक (Congregational Singing) चड प्रामुक्यता आसा। गायन कर्चें देणें देवाच्या रचनां पयकी मन्शाक मात्र मेळ्ळां। गायनाक आमचीं काळ्जां देवाथंय उबार्ची सकत आसा। "कोण गायन कर्ता तो दोडें मागता," म्हळ्ळी सांगणी आसा। मन्शाक देवान दिल्लो ताळो देवाची स्तुती करूंक आनी ताची मयमा गांवक न्हय जाल्यार हेर कित्याक?

**नतालाचीं गितां-पुर्विली चरित्राः** गितां खंयच्याय संदर्भाक वा कसल्यायी काळाक ताळ पड्चेवरी घड्तात आनी गायतात। पूण क्रीस्त जयंतिचो काळ आख्या संसाराक सांगाता भाग घेंवचेवरी कर्ता जाल्ल्यान असल्या गितांक चडीत महत्व आसा। नताला पर्वे पुर्विल्या काळार आप्लो संतोस उचारूंक गितां गायताले। नतालाचीं गितां गावन तीं लोकामोगाळ केल्ल्या सुर्विल्यां पयकीं 13व्या शतकांतलो आसिस्सिचो सां फ्रान्सीस एकलो। ताणे क्रिस्त जयंतिची कथा नाटका रूपर विणून आनी अभिनय करन प्रदर्शीत केली, तशेंच प्रसंग दीवन आनी गितां गावन लोका मोगाळ केली। पवित्र पुस्तकांतल्या विशयांचेर विण्लल्या नाट्यरूपकां संगीं गायललीं क्रिस्त जयंतिचीं गितां आनिकी चड मेच्वणेक पात्र जालीं। सुर्वेर नाटकाच्या मधें गायताले तसलीं गितां उप्रांत नाटकाच्या विशयाचेर वा विशया ओट्टुक भर्मून गांवक लाग्ले।

सवार वरसां परयांत लोकाचे जमे रजेच्या दिसांनी घरान घर वचोन क्रिस्तजयंतिचीं गितां गायताले। हीं गितां आयकल्ल्या लोकान तीं उडामांत दवरलीं आनी आपल्या वुरग्यांक शिकयलीं, 19व्या शतकांत परत ह्या गितां विशीं लोकाची आसक्त चडोन आयली जाल्ल्यान, आतांच्या दिसांनी देवमंदिरांनी तशेंच हेरकडे लोकान नतालाचीं गितां गांवची रिवाज वळ जावनच आयल्या। आयलेवार सवार नवीं गितां घडल्यांत तरयी शतकां थावन गायन करन आयलेलीं पुर्विलीं नतालाचीं गितां लोकाच्ये चडीत मेच्वोणेक पात्र जाल्यांत। विवीध पंगडांचो क्रिस्तांव लोक सांगाता मेळोन सर्व भेद-भाव विसर्न, देव मंदिरांनी, घरांनी आनी रेडियो निलयां मुकांत्र नतालाचीं गितां गायताना वा प्रसार कर्ताना नताल अख्या संसाराच्या लोकाक विशेस महतवाची परब जांवक पावता।

**आदीं थावन प्रख्यात जाल्लीं गितांः** "म्हजो शेर्मांव कितलोय उण्या मटटाचो जाल्यारयी, ह्या गिताचीं उत्रां वाच्ताना वा हें गीत गायताना तांतले ऊण सर्व भर्ती जातात," म्हणालो युनिटेरियन याजक एड्मंड ह्यामिल्टन सियर्स ताणेंच घडल्ल्या "It came upon a midnight clear," म्हळ्ळया गिता विश्यांत उलवन, झगडें आनी असमाधान राज करच्या ह्या संसाराक क्रिस्ताचो शांती संदेश दींवक भडव्यांनी गायन केल्लें हें गीत संगीताचे विविध राग गायनांत भर्मून समेस्त मन्शांनियी एकामेकाचो मोग करून सहकारान वाव्रिजय म्हण आमकां जागवण दिता।

शांती आनी बऱ्या मनाक महत्व आसल्ल्या नताला पर्वेच्या काळार आदीं थावन सवारांक नवीं गितां घडुंकयी प्रेरण मेळ्ळां आनी असलीं गितां शतकां थावन सर्व जनांगांचो लोक संतोसान गायन करीत आयला। Hark the Herald Angels Sing (आयक देव-दूतांचें गायन) म्हळें आपुर्बायेचें गीत चार्ल्स वेस्ली म्हळ्ळयान घडल्लें। हो व्यक्ती मेथोडिस्ट पंगडाचो कर्ता म्हण नांवाडला। सुमार च्यार हजार भक्तीक गायनां आनी नतालाचीं गितां चार्ल्स वेस्लीन घडून प्रकट केल्यांत। हाचीं प्रकट जांवक नातल्लीं सुमार दोन हजार गितां आसात। हांचे पयकीं "जेजू आम्चो सोड्वण्दार" म्हळें गीत भोव प्रख्यात। इंग्लीश भाशेच्या गायन घडनारां पयकीं वेस्ली चड प्रवीण जावनासल्लो आनी हाचें हर्येक गीत सर्वांचे मेचवणेक पात्र जालां। मेथोडिस्ट पंगडाची चळवळ इंगलेंडांत आनी अमेरिकांत वेस्लिच्या गायनांचा वळार विस्तार्ली म्हण अभिप्राय आसा।

O Come All Ye Faithful (भावार्थ्यांनो येया) म्हळें गीत तेराव्या शतकांत जियेल्ल्या सां बोनावेंतुरान घडल्लें म्हण सांगतात। हेंच गीत एका फ्रेंच तज्ञान घडल्लें म्हणोनयी हेर थोडे सांग्तात। कथोलीक न्हय आसल्लो कोणयी एकलो नताला काळाची आपलीं भावनां संगीता रुपार व्यक्त करूंक लातीन भास उपेगायतांना - म्हण फ्रान्सीस हवर्डाचो अभिप्राय। हें गीत संसाराचा सुमार पावुणशें (75) भासांनी तर्जुमो केलां। इंग्लीशांत ह्याच गिताक पन्नासां वयर गितिंचें संगीत वापर्लां।

ऑस्ट्रियांतलें Oberndorf म्हळे हळ्ळेंत सां निकोलसाक भेटयिल्ले इगर्जेच्या ओर्गनाचे चाम्ड्याचे bellows कांतर्यिल्लो एक भुकेल्लो उंदीरSilent Night (स्थावीक रात) म्हळें गीत घडूंक कारण जालां म्हण्येत। नताला फेस्ताचा आदल्या दिसा एका पिडेस्ताचे भेटेक गेल्लो फिर्गजेचो विगार सा। जोसेफ म्होर तेदाळाच आरंभ जाल्लें वारेंवादाळ रावतच पाटीं पर्तालो। घरा पावल्लोच ताका मेळल्ल्या प्रेरणाखाल, ह्या गिताचीं उत्रां मतीक आयिल्लीं तसलीं ताणें बरवन घेल्लीं। हांगाचो ओर्गनिस्ट जावनासल्ल्या फ्रांझ ग्रुबरान ह्या गीताक संगीत बसयलें आनी ओर्गन रिपेर करूंक आयिल्ल्या Mauracher म्हळ्ळयाक फ्रांझ ग्रुबरान हेंच गीत व्हाजवन दाकयलें। हें गीत ताका इतलें रुच्लेंकी, ताणें ह्या गिताचें संगीत विचार्न घेतलें आनी उप्रांत ताचो प्रचार करूंकयी म्हिनत घेतली। क्रमेण हें गीत लोकामोगाळ जावन सगळ्या संसारार प्रसार जांवक पावलें।

पूण 1818 इस्वेच्या क्रिस्तजयंती फेस्ताक ओर्गन नातल्लें तरयी फिर्गजेचो विगार सा। जोसेफ म्होर गितार व्हाजंव्क जाणासल्लो। हें नवें गीत Silent Night सा। म्होर(Tenor) आनी ओर्गानिस्ट ग्रुबर (Bass) हांणी गिताचे चरण दोन ताळयांनी गायताना सा। म्होर हाणें गितार व्हाजयलें। गिताचो कोरस-संगीत मंडळिच्या सांद्यांनी त्या दोगां ओटटूक मेळोन चार ताळयांनी गायलो।

1719 इस्वेंत एजाक वाट्स नांवाच्या काल्वीनिस्तान Joy to the World (वाळ

जलमला, संतोस फांकला) म्हळें गीत घडल्लें। हांतुळनार थावन उटोंक ताका तांकानातल्लें जाल्यारयी विवीध गायनां, नतालाचीं गितां आनी ताणें संगीत घडून लिखलीं हेर पन्नास आनी दोन पुस्तकां आसात। फिलीप ब्रूक्स नांवाचा अमेरिकनान 1868 इस्वेंत "O Little Town of Bethlehem" म्हळें गीत घडल्लें। तीन वर्सांनी भागेवंत जागयांची भेट करताना, गोवळयांनी वकरयांक चरयिल्ले दोंगर टेकोन तो विस्मीत जाल्लो। जेजू जलमल्ले सुवातेर उबारल्ले मज्बूत बासिलिकांत चल्लल्या भक्तीक कारयाक्रमांतयी ताणे वांटो घेतल्लो। ह्यो संगती ताच्ये मतींत इतल्यो रोंवल्योकी, एक गायन घडूक बसल्ले तवळ आपुरबायेचें संगीत आटापललें एक गीत घड्च्यांत तो यशस्वी जालो।

लुवीस रेड्नर म्हळया ओर्गनिस्टाक आपल्या गिताचे सब्द पसंद जाल्यारयी, ताका योगय जाल्लें संगीत सुस्तोंकच ना। दशेंबर 25 तारिके दिसा फांत्यार सपणांत ताका आंजांचें गायन आयकलें। तक्षण निदेंतलो जागो जावन सपणांत आयकल्लें संगीत ताणे बरवन घेतलें। हें संगीत आपणाक सरगार थावन मेळल्लें वहुमान म्हण तो उप्रांत सांगतालो।

We Three Kings of Orient Are (राय उदेंतिचे आमी) म्हळें गीत जोन होपकिन्स हाणें घडल्लें। जल्मल्ल्या जेजू बाळकाक भेट दिंवक आयिल्ले ते वेक्ती, राय जावन आसल्ले वा तेग जण आसल्ले म्हण नव्या तेस्तामेंतांत सांगोंक ना। हांचे थावन मेळल्ल्या तीन वहुमानां मुकांत्र ते तेग जण आसल्ले म्हण अंदाज करतात। हे तेग जांटे ज्योतिष्य आसल्ले जाव्येत आनी तांणी जाणा आसल्ल्या शास्तिराचा प्रभावान जेजू बाळकाचो जल्म तांणी समजोन घेतलो। हे तेग जांटे, सवार म्हयन्यांचें पयण कर्न, एका हजार वयर सयलांची वाट चमकोन आयिल्ले म्हण भूगोळ शास्त्राचे विद्यार्थी अंदाज करतात।

क्रिस्तजयंतिचीं गितां नताला फेस्ताच्या काळार पवित्र सभेच्या जिवितांत आनी भक्तिपणांत मुख्य पात्र घेतात जाल्ल्यान, सर्व जनांगांचा लोकाक हीं गितां मोगाचीं जांवक पावल्यांत। पवित्र सभेंत आसात त्या विविराड पंगडांक एक्वटावन धरूंकयी हीं गितां उपकारक पड्तात। दोन हजार वर्सां आदीं आमचेवरीच मनीस जावन जियेल्ल्या आनी परत वयभवान येंवक आसा त्या क्रिस्ता थंय संतोस पावोंक आनी ताका अर्सां दीवन ताणे दाकवन दिल्ले मता-निनिचे वाटेन चलोंक, हीं गितां सर्व मन्शांक आधार जांवक पावल्यांत।

# हिंदी, पाश्चात्य आनी ग्रेगोरियन संगीत

जायतें संगीत आमी आयकातांव; पूण संगीता विश्यांत आमी आयकोंचें भागी उणे संगीताची रूच आमचे मतीन आनी काळजान आमी भोगिजाय जाल्यार ताचीं लक्षणां जाण जांवची गर्ज। सर्व जनांगांच्या संगीतांची वुन्याद एकच जावनासा। कित्याकगी म्हळयार संगी जावनासा मन्शान आपले भोगणार (emotions) उचारची भास। आनी सर्व मन्शां मधें उर्देनिच्या मधें तशें अस्तमतेच्या मधें - भोगणार एकच जावनासात; भायर दिसच्या मट्टाव ते वेगळे वेगळे जाव्येत जाल्यार्यी, तांचें मूळ-लक्षण एकच जावनासा।

हिंदी, पाश्चात्य आनी ग्रेगोरियन म्हळया तीन मुक्य नमुन्यांच्या संगीता मुकांत्र मनी आपले भोगणार उचारच्यांन आपले वुद्वंतकायेची सकत कितल्या उंचायेक आपणे पावयल्य म्हळें रुजू कर्ता। तीनयी नमुन्यांचें संगीत घडल्ले मनीस चडुणे एकाच थराचीं आदर्शां आपण मुकार दवर्न आसल्ले। एकाच नमुन्याचे भोगणार ताणी भगल्ले व्हय। तरीपूण ते उचार्चे थ - हिंदी आनी ग्रेगोरियन संगीतांत एकाच नमुन्याचे जाल्यार्यी, पाश्चात्य संगीतांत वेगळेच जांव पावले। हिंदी आनी ग्रेगोरियन संगीतगार आपुट स्वराक (pure melody) भार दितास्तान पाश्चात्य संगीतगार स्वराक एकताळ (harmony) मेळयलागले।

आयल्यावार पर्यांतल्या हिंदी संगीतांन घड्णारचें वेक्तित्व (subjective element चडीत दिस्ता। ह्याच कारणान म्हण दिस्ता हिंदी संगीताक गांवांत चडीत उत्तेजन मेळोंक ना लोकाक तें रुचोंक ना मात्र न्हय, लोकान तें वहिश्कार परयांत केल्लें आसा। हिंद्वांनी समजोंच्या प्रमाणे संगीत म्हळयार, गुरून आपल्या शिसाक वाचीक-शिकोवणेन (ora tradition) शिकयिल्लें गीत, लोका खातीर जांव हेर खंचायी भायल्या इराद्या खातीर जां घडल्लें न्हय। काव्या-भास ती, भक्तान कर्चे कीर्तन, संगीत-शालांत भृश्ट कर्चें न्हय। पाश्चात संगीत हाचेवरी न्हय। लोकाच्या व्हड जम्यांचे धादोसकाये खातीर हें मांडून हाडल्लें जावनासा हिंदी आनी ग्रेगोरियन संगीताचे इरादे चडुणे एकाच वर्गाचे जावनासात।

मन्शाचो ताळो एक आसल्यार पुरो म्हळया कारणान हिंदी संगीत चडावत जावन मन्शा ताळयाचें जावनासा; व्यक्तिनवाचें जाल्ल्यान तें खाली स्वराचें (melodic) जावनासा। पुण पाश्चातयांनी आपल्या वुद्वंतकायेन सर्व स्वर आटापचीं नसलीं संगीत-आयदां (वाद्यां) आस कल्यांत आनी "वाद्य-संगीत" म्हळें वेगळेंच आयदां-संगीतयी त्या वर्वी सुरु जालां। ग्रेगोरियन संगिताक "ओर्गन" मात्र सार्कें स्हजता।

पाश्चात्य संगीतांत "मेजर" (major mode) आनी "मायनर" (minor mode) अशे दोनच रिती आसात। पूण हिंदी संगीतांत 72 रिती आसात (आनी हिंदुस्तांनी संगीतांत ध "नाट" मुख्य) जाल्यार्यी, ह्या 72 रितीं भितर चडुणे सक्कड आमकां "मायनर" रिती तस्ये दिस्तात; तांतूं दुकाचो ताळो मात्र आमकां आयकाता। पूण हिंदी संगीत कर्तेल्याक त्योच रिति

उल्लासून भर्तात।

हें कसेंगी म्हळयार, हिंदी रितिंचो अर्त समजोंक आमी प्रयतन करूंक ना। संगीताच्या वेगळया वेगळया रितींक वेवेगळीं लक्शणां आसात। ह्या वर्वींच हिंदी आनी पाश्चात्य संगीतांत भूळ-फरक आसचें।

ग्रेगोग्यिन संगीताच्यो "रिती" जावनासात एकदम चालत्यो आनी ताळे मटवे। साल्मांवच्या कंतारांत तांचें मूळ साधेंपण तशेंच उरलां। स्तुती - गितांचे आनी अंतिफोनांचे ताळे चिक्केशे लांव आनी श्रमीक। पुण मिसाच्या कंतारांत - इंत्रोइत, ग्रादुवाल आनी इतर तांचें पुर्तेपण आनी सोवाय आयकोव्येता। ह्या कंतारांत मूळ रितीक भायलें इल्लें मेळोन गेलां जाल्यारयी, तांतलो प्राचीन स्वर आनी रीत सलिसायेन आमी समजोन घेव्येत। ह्या पुर्विल्या संगीतांत दोनच "नोट" (स्वर) आसचे आनी हे चडावत जावन चड वेळ काडिनास्तां म्हळ्ळयावरीं परत परत गांवचे; इल्लेशें वदलाप आसच्या खातीर वा सोवाये खातीर मात्र हेर स्वर मेळोंवचे।

मूळ-ताळयाच्या आवश्यक दोन स्वरांक "मुख्य" (predominant) स्वर आनी "निमाणो" (final) स्वर म्हणतात। "मुख्य" स्वर एक केंद्र जावनासा; ताचेर होंदोन हेर स्वरांनी ताचे भोंवतीं मेळचें आनी चलन कर्चें आनी ह्या परीं त्या त्या रितीक जाय जाल्लेपरीं ताळो आसा कर्चो, "निमाणो" स्वर गायान आकेर करता, वा संगीत-वाक्याचो निमाणो स्वर जावनासा।

ग्रेगोरियन संगीताच्या ह्या स्वरांवरिच हिंदी संगीतांत हर्येका "राग"त दोन मुक्य स्वर आसात। हांचें नांव "वादी" आनी "संवादी।" संवादी स्वर वादी प्रास उण्या महतवाचो; पुण एका गायानांत तो निमाणोंच म्हण म्हणोंक न्हजो। थोड्या ग्रेगोरियन रितींक ताळ पोड्चे हिंदी राग हांगासर दिल्यात:

| ग्रेगोरियन रिती | स्वर | हिंदी राग |
|---|---|---|
| डोरियन | रे-रे | काफी |
| हायभोडोरियन | ला-ला | आसावरी |
| फ्रीजियन | मी-मी | भैरवी |
| लीडियन | फा-फा | कल्याण |

ग्रेगोरियन पांचवे रितीक (fifth mode) आनी हिंदी "यमन कल्याण" रितीक कितलें समानपण दिसता पळेया। दोनांयचे स्वर एकच। दोनयी रिती उल्लासाचे भोगणार उचारतात। ग्रेगोरियन गायानांत हाका "लेतूस" म्हणजे उल्लास म्हण नांव। हिंदी रिती प्रमाणे हें गायान धय्राच्या आनी धीरपणाच्या भोगणारां शिवाय शांत-समाधानाचे भोगणारयी उचारता।

पाश्चात्य संगीतांत एका प्रत्येक गायानांत वेगळे वेगळे भोगणार दाकयजेय जाल्यार आवाज व्हड या ल्हान कर्तात। पूण हिदी संगीतांत तशें न्हय। हिंदी संगीतगार आपल्या वेगळया वेगळया रागांनी, रितिंनी, आनी राग-रिती एकामेका मेळोवन आपले भोगणार उचार्ता। ह्या शिवाय आपणाक जाय जाल्लेपरीं स्वर वदलुंची ताची एक प्रत्येक चाल। वर्पी घाल्लें

संगीत चडावन जावन ताका ना, भर्पूर आस्चेवर्स कंतार कर्चो कायदो ताका वांदिना। अशें जाल्ल्यान गावपी वा व्हाजपी आपणाक प्रेरीत जाल्ल्या घडयेच ताळो धुंवडायता। वयर सक्ला कर्ता आनी जाय जाल्लेपरीं वडल्ला। ही प्रत्येक संगत पाश्चात्य संगीतांत ना। हिंदी गायानां-वाडोवांन, संगीत मात्र आमी आयकानांव; संगीतगारच्या चमतकारी नोवेसांवांकयी आमि कान दिनांव।

हिंदी संगीत स्वरांचें - संगीत (melodic system) व्हय, पूण हांतूं एकताळ (harmony) नांच ना म्हण्येतरी? त्यागराजाची एक कृती बिथोवेनाच्या सिंफनिवरी एक ताळ करूंक आमकां जांवचें ना खरें, पूण स्तुती म्हण्च्या गुणगूण ताळयान एका थरचो एक ताळ मेळना व्हयरी? वाद्याचेर एकलो व्हाजोवन गायतास्ताना तंबुरचेर खेळची स्तुती दोन या तीन स्वरांची (दो, सोल, दो) जावनासोन संपूर्ण ताळ दिना। हिंदी संगीतांत तंबुर एक गर्जेची वस्त। ती आयकोन नेणासल्ल्यांक तिची गर्ज समजोंक कष्ट। तांतूं ताळ ना म्हण ते म्हणोंक पुरो। सुर्वेर ह्या तंबुरेचो स्वर आयकातल्यांक घुसपड भोगूंक पुरो, वेजार जांवक पुरो। पुण, तंबूर-स्तुती जर ना (अर्धाक कर्न कालद्या स्वरच्या स्वरांनी) गावप्याक सुंकाण नातल्ल्या तार्वावरी भोगचेंच सय। तंबूर-स्तुती स्वरांचो ताळो संगीं कर्ता। स्तुती नासतां गायान असाध्य म्हण व्हय। वावर थावन पाटीं येंवचो रयत, वाळशाक पानो दिंवची आवय तंबूर घेव गायान कर्ना। पुण तंबूर संगीतगारक कुमोक कर्ता; संगीताची मधुराय चडयता।

पाश्चात्य संगीतांत ह्या थराची स्तुती भारी अपरूप जाल्यारयी, ति नांच ना म्हणोंक व्हजा। पाटापाट कांविनी तेचच स्वर गातास्ताना ओर्गनाचे "पेडल स्वर"यी एका थरची स्तुती जावनासा।

तीन नमुन्यांच्या संगीताची सर आमी पळेली; तांचे मधलें थोडें फरकयी पळेलें। आतां हांवें म्हणचें कितेंगी म्हळयार, संगळुरांतल्या इगर्जेच्या वरयापणा खातीर हिंदी संगीताक आमि चड आनी चड स्वागत दीजाय। इगर्जे भितर आनी भायर - मिसाक, साक्रामेंनाच्या वेसांवाक, पुर्शांवाक इत्यादी अर्धाक मापान हिंदी संगीत उपयोग कर्जाय। शेर्मांव आनी शिकवण दीवन वांगें वसचे दीस गेले ते। शेर्मांव शिकवण गर्ज व्हय। पूण त्या शिवाय, संगीत, नाच आनी नाटका मुकांत्र आमचे समड्तिचीं पवित्र सतां इगर्जे भायर आनी इस्कोला भायर वचून प्रगट कर्चो वेळ आतां आयला।

एका जनांगाक तशें निर्निराळया मन्शांक आपणा थंय वोडून स्वाधीन करूंक देवाक आपल्यांच वाटो आसात खर्यो। जाल्यारयी, सोवाय-भक्तीन निशेंवच्या उत्तम हिंदी संगीताच्या मद्दर सरां मुकांत्र हिंदी लोकाक क्रिस्ताच्या खर्या सोपांत हाडूंक देवान कित्याक खुशी व्हर्नाये?

**वाप वोल्टर आल्बुकेर जे.स.**

**अनुवादकः श्री सी. नोरेज**

# कोंकणी घडितां

**संग्रहकी: ग्लेडीस रेगो**

**मे 2006**

मे 4,5,6 : गोंयच्या संतेरी कुड्चडेंत देवार्दीन मनोहर राय सर्देसाय नगरांत कोंकणींतलो माल्घडो कवी श्री जे.बी. सिक्वेराच्या अध्यक्षपणार "आट्रावो अखील भारतीय कोंकणी साहित्य सम्मेळ" चल्लो।

मे 27 : कर्नाटक कोंकणी साहित्य अकादमीन मंगळुरच्या संदेश सवा सलांत "एक सांज काव्याळ", कार्यें मांडून हाडलें। ह्या संदर्भार "विसाव्या शेकड्याच्यो कोंकणी कविता." म्हळ्ळो ग्रंथ: जे.एन.यु. डेल्ली हाच्या राज्य शास्त्र विवागाचो दो। वलेरियन रोड्रिगसान मोक्ळीक केलो।

**जून 2006**

जून 3 : "कातोलीक कोंकणी सकोण" संचालन चिकमगळूर (री) आनी कर्नाटक कोंकणी साहित्य अकादमिच्या सहयोगान चिकमगळुरच्या कुवेंपू मंदिरांत वोवियो-वेर्सां कारयागार, आनी कोंकणी मान मनीस एक मुलाकत कार्यें सादर जालें।

जून 13, 14, 15 : लोका थंय कोंकणी शिकपा विशीं जागृती हाडूंक, आनी शाळेंच्या आडळ्या वर्गांक आपल्या जवाब्दारे विशीं कळंवक, तशेंच कोंकणी भुरग्यांक शाळेंनी कोंकणी शिकच्याविशीं उमेद हाडूंक कोंकणी प्रचार संचालनान तीन दिसांचें कोंकणी अवियान शाळेंनी मांडून हाडलें।

**जुलाय 2007**

जुलाय 3 : संत लुवीस कोलेजींत 2007-2008 वर्साक कोंकणी संघाचें उगतावण: कोलेज सभा सालांत, कोलेजिचो सहायक प्रांशुपाल प्रो। रेनाल्ड पिंटोन केलें।

जुलाय 8 : कोंकणी लेककांचो एकवट कर्नाटक (री) हाणीं मंगळुरच्या संदेश सभा सालांत "आमच्या संपादकांची भेट।" कार्यें: राकणो संपादक वा। फ्रान्सीस रोड्रिगसाच्या अध्यक्षपणार मांडून हाडलें।

जुलाय 14 : संत लुवीस सांजे कोलेजिच्या 2007-2008व्या वर्साक कोंकणी संगाचें उगतावण कोलेजिच्या सभा सालांत: सांजेच्या कोलेजिचो प्रांशुपाल फा।

विनसेंट पिंटो जे.स. आनी कोंकणी संसथ्यांतली वाव्राडी श्रीमती ग्लेडीस रेगोच्या हाज्रेंत चल्लें।

जुलाय 29 : सडंत्यार जूनियर कोलेजिच्या सभासालांत लूइस प्रकाशनान प्रगटल्लो, वल्ली वस्सचो कविता पुंजो "दोंग्रा वयली वाट" मोकळीक जालो।

**आगोस्त 2007**

आगोस्त 5 : कोंकणी नाटक सभा (रि) मंगळूर हाणी डोन वोसको सालांत चलंवचे "अंतर फिर्गज कोंकणी स्पर्धो - 2007" चवे चाळिसावो गायान स्पर्धो - व्हडांक आनी भुरग्यांक चलवन व्हेलो।

आगोस्त 5 : गोंय पणजेच्या "इनस्टिट्यूट मिनेजस ब्रगांजा" हांच्या सहयोगान, डेल्ली केंद्र साहित्य अकादेमीन कोंकणी कोगूळ विल्फी रेबिंबस हाची "कवी संदी" पणजेच्या आर्ट्स ग्यालरींत मांडून हाडली।

आगोस्त 7 : कोंकणी कला मांचियेक वृत्ती पगाय दिंवचे दिशेन, मांड सोभाणाची नवी येवजण "कलाकुल" रेपार्टरिचें उगतावण कलांगणांत चल्लें।

आगोस्त 12 : सयसूर कला मंदिरांत कोंकणी साहित्य अकादेमीन कर्नाटक तुळू साहित्य अकादमिच्या सहयोगान "सांस्कृतीक संगम" कारयें मांडून हाडलें।

आगोस्त 20 : सांत लुवीस कोलेजिंतल्या कोंकणी संघाच्या विद्यार्तिंनी कोलेजिच्या सभा सालांत कोंकणी भाशेक मान्यता लाभोन पंद्रा वर्सां जाल्लो संभ्रम चलयलो।

आगोस्त 20 : सांत लुवीस कोलेजिच्या लोयला सभा सालांत कोंकणी भाशे मंडळ कर्नाटक (रि) तर्फेन विश्व कोंकणी दिवस वी.नागराज शेट्टिच्या अध्यक्षपणार आचरण केलो।

आगोस्त25 : महाराश्ट्राच्या कोंकणी भाशे मंडळेन, मुंबय विश्वेशरय्या सभा सालांत 15वो कोंकणी मान्यता दिवस आचरण केलो।

आगोस्त 26 : बेंगळूर कर्नाटक कातोलीक एसोसियेशनान, कर्नाटक कोंकणी साहित्य अकादमिच्या सहकारान गुरुनानक सभा सालांत संगीतोतसव चलवन हाडल्ल्या संदर्भार अकादेमीन प्रगटल्लो "विसाव्या शेक्ड्याचे कोंकणी मान सनीस," पुस्तक कन्नड आनी संस्कृती इलाख्याचो मंत्री हेच. एस. महादेव प्रसाद हाणे उगतायलो।

स्टेंवर 2007

स्टेंवर 16 : अलंगार इगर्जे सभा सालांत मित्र दायज साहितीक शिवीर मांडून हाडल्लें। ह्या संदर्वार "कवी गोश्टी" चल्ली। आशावादी प्रकाशनाच्या आट कोंकणी पुस्तकांचें मोकळीक कारयेंयी चल्लें।

सप्टेंवर 16 : अलंगार इगर्जेंत फिर्गजगारां खातीर "कोंकणी वाचपा घर" - लायब्रेरी फिर्गज विगार फा। विनसेंट डि'सोजाच्या हुमेदीन ऐसीवैएम घटकान सुरू केली। हाची उगतावण श्री वल्ली वग्ग मयसूर हाणे केली।

सप्टेंवर 23 : मंगळुरच्या डोन वोसको मिनी सालांत, कर्नाटका कोंकणी लेखकांच्या एकताराचे जमातेचेर कोंकणी कुळवार कुवेट हाणीं प्रगट केल्ले दोन वूक: "कुळवार्चे दिरवें" आनी शान वोंदेल हाचो "जोप", मटव्यो कता पुंजो मोकळीक केले।

तुमकां एक कविता

# पानांतुलो मुल्लो!

दामोदर वाळिगा

पुत्तूरांत 1908 इस्वेंत जल्माल्लो दामोदर वाळिगा शारदा रीडींग रूमांत वावर कर्न आपल्या शिकपाचो खर्च सांवाळतालो। मंगळुर्चे सरकारी कोलेजींत शिकोन, सां लूवीस कोलेजी थावन वि.ए. सनद ताणे जोडली। राश्ट्रकवी गोविंद पै-ची "गोल्गोथा" कविता इंग्लिशांत भाशांतर केली। आपल्या सोळा वरसांच्या प्रायेरच साहित्य शेतांत वावरूंक धरल्ल्या वाळिगान कन्नड आनी इंग्लीश भासांनी वाळ साहितांत जायतीं लेकनां, पुस्तकां वरयल्यांत। कोंकणी कविता पुस्तक "शांती साधन" राकणो पत्रार प्रगट जाल्ल्या ताच्या कविता संग्रहांतली ही कविता विंचल्या। (वर्पा रीत लेककाचीच सांवाळळया - सं)

पानांतुलो मुल्लो
जायच तरन्या तोरांक
तरन्यांक केद्ळाय
अडकोळ ना आसून
वाडोन, पिकोंक
जायी ही आडकाय
तरन्या तोराक
कस्कायी ताका
मोल कितें आसात?
कस्कायी तोरो
पिकलो जाल्यार
स्वादाचें फळ!
पिकल्ल्या फळार
सकडांचेयी दोळो!
तोरो वाडोन
वगे पिकोंक
सांवळता तो मुल्लो!
वाडुल तोरो
पिकोन जाता पक्व
पिकल्लें फळ
रुकार व्हयीर
लांवोन आस्पून
कोणांक कितें उपकार?
निप्पोन रावल्यार
कितें की सार्थक?
पानांतुलो मुल्लो
फळाक अगदी आक्षेप!
तेंकडेन कोंकून
फात्रांनी मारून
धर्णीक घेतात
पाडोन फळ!
खळखळी आस्सिलो
पोरनो, पिकोन
कुश्चे आदींच!
देवोन सखयल
दिवका सरवांक
भूरी उपकार
"पुनीत जाल्लो
मनीस सार्थक!
मुखार एवकाच
सार्को हुश्यार!
जायजाय संस्राक
तो सेवक विनीत!
म्हाका केद्ळाय
अजून आयकाता
हेंची देवाचें
पवित्र फरमांव!
पुनीत जातां हांव!"